मेलवीन रोड्रीगीस
धंकां
मोग-मोगान



# घुडी लागली रे

## देशभक्ती गितां संग्रह

संकलक

**सुनिल पालकार**

# *GHUDI LAGLI RE*

Collection of petriotic songs

By

**Sunil Palkar**

# घुडी लागली रे

संकलक: सुनील पालकार



**प्रकाशक: पालकार प्रकाशन**
नावशी, पोस्ट गोंय विश्व विद्यालय
पिन : ४०३ २०६
फोन : २४५९३२१

**अक्षर जुळोवणी व मुद्रण :**
श्री. नीलेश बुगडे
कॉम्प्युटर ग्राफीक्स,
द्वारा बुगडे एंटरप्रायजेस,
१८ जून मार्ग, पणजी-गोवा.

**मुखचित्र** : राजू अडकोणकार

पयली उजवाळावणी : ८ एप्रिल २०१४

**मोल: ३०० रु.**

---



**सुटके झुजारी, हुतात्में,**
**राखणदार जवान,**
**देशाचे उदरगतीची पालकी आपल्यां**
**भुजांचेर खेळयतल्यां हितचिंतकांक**
**आनी जबाबदार नागरिकांचे यादिक**
**राष्ट्राची घुडी अर्पण!**

# जैताची घुडी उबयतना

उत्तर हें शस्त्रा इतलेंच म्हत्त्वाचें आसता हाका एक व्हड इतिहास आसा. उत्तर हें तरसादी परसूय ताकिवंत आसता ही म्हणणी आमी खूप खपू फावट वापरता. खूप फावट वापरुनुय ती पोरनी दिसना कित्याक तर ती संवसाराच्या अणभवाचें अर्क आसा. संवसाराचो इतिहास मात्सो उत्सुन पळयल्यार ताचो अणभव येतलो. इतिहासाक मोडणा दिवपी ज्यो क्रांत्यो जाल्यो त्यो निखट्यो तरसादीच्या बळार जावंक ना. क्रांतीची किट लिखणेन ओंपल्या म्हणपाचें सहज लक्षांत येतलें. सगळेच कवी, लेखक झुजामळार देंवल्या अशें ना. सगळ्यांक तें जमलां अशेंय ना. कांय जाण मात तरसादी तुबकां घेवन प्रत्यक्ष झूज खेळल्यात आनी ताणी आपले कविते वरवीं लोकांचीं मनां पेटयल्यांत. आदल्या काळांत फ्रँच राज्यक्रांती जली ताच्या फाटल्यान वॉल्तेरा सारकिलो विचारवंत बरोवपी आशिल्लो. तेच प्रमाण हालींच्या काळांत पाब्लो निरुदा ह्या चिलीच्या कवीची देख आसा. विल्फ्रेड ओवन हो इंग्लिश कवी पयल्या म्हाझुजांत वांटेकार जाल्लो. ताणेय आपल्या अणभवाचेर कविता बरयल्यो आनी ब्रिटिश समाजमनाक धीर दिलो. (पॅट बार्कर हे लेखिकेन ताचेर कादंबरी बरयल्या.) दुसऱ्या म्हाजुजांतूय कांय कविनी वांटो घेतलो आनी आपले अणभव कवितेंतल्यान व्यक्त केले. फ्रॅडरीक गार्सिया लॉर्का हो स्पॅनीश कवी आनी ऑडेन, स्पँडर सारकिले ब्रिटिश कवींकडेन बोट दाखोवं येता. ह्या कविनी कवितेकडेन आपले खासगी अणभव व्यक्त करपाचें साधन म्हूण केन्ना पळयलेंना. कविता बरोवप म्हळ्यार कलावंताचे समाजाकडेन आशिल्ले लागणुकेक पाळो दिवप हेंच तांचे मतींत आशिल्लें.

आमकां चड पयस वचपाची गरज ना. आमच्या देशाच्या स्वातंत्र्यझुजांत खूप कवींनी वांटो घेतलो आनी कांय जाणांनी प्रत्यक्ष वांटो घेतलो ना तरी ताणी आपले कविते वरवीं लोकांची मनां पेटत दवल्लीं. गुरुदेव टागोरान निखट्यो गूढगुंजन करपी कविता बरयल्योनात तर आपल्या कवितांतल्यान स्वातंत्रतायेचीं स्तोत्रां आळयलीं. भारतीय कवितेंत अश्यो कितल्योच देखी आसात. मराठी, हिंदी, गुजराथी, बंगाली हांचे बरबरुच तामीळ, तेलगू, कन्नड कवितांनी ह्यो भावना वेगवेगळे तरेन व्यक्त जाल्ल्यो दिश्टी पडटात. आनी तांच्यो देखी दिवंक गेल्यार जागो पावचो ना. सुब्रमण्यम भारती ह्या म्हान तामीळ कविचो ह्या संदर्भांत खाशेलो उल्लेख करुंक जाय. हिंदी कवी माखन लाल चतुर्वेदी आनी सियाराम शरणगुप्त हाणी हिंदी कवितेंत ही भावना केळयली.

मुझे तोडकर हे वनमाली
उस पथपर तुम देना फेंक
मातृभूमि की शीश चढाने
जिस पथ जाए वीर अनेक
(पुष्प की अभिलाषा : माखनलाल चतुर्वेदी)

बंगाली कवी काझी नझरुल इस्लाम हाच्यो कांय वळी हांगा सहज आठवतात.

Sing ye the song that fills the heart,
Awake again life throughout the contry,
sacrifice your life, sacrifice
everything be it your own or hot.
...
As we see the terrible hangman's rope
we laugh a loud laugh of Triumph
We are indostructible, we have no fear.

स्वतंत्रतायेच्या झुजाचो काळ कवी लेखकांक भारावन उडोवपी.

कांय जाणांचेर भार अवसर आयिल्लेवरी ताणी कविता रचल्यो. हस्तदंती मनोऱ्यांतल्यान भायर सरून ताणी कविता आनी स्फूर्तिगितां रचलीं. जन का विश्वास ही हिमालय है। भारत का जन मन ही गंगा है। हिंद महासागर लोकाशय है। यही शक्ति सत्य को उभारती। ही हिंदी कवितेत क्रांती करपी शमशेर बहादूर सिंह हे कविची १५ ऑगस्ट १९४७ हे दिसा बरयल्ले कवितेंतल्यो वळी. मराठी कवितेकूय क्रांती गितांची दीर्घ परंपरा आसा. 'भेटेन नऊ महिन्यांनी' ही कवी कुंजविहारी हांची रचना जांव वा क्रांतीचा जयजयकार ही कुसुमाग्रजांची कविता आसूं त्यो तरणे मनांक स्पूर्त दित रावल्यो. आर्विल्ल्या महाराष्ट्राचे एक शिल्पकार यशवंतराव चव्हाण हाणी आपलो अणभव सांगला. ह्यो कविता गायत गायत आमी बंदखणीत हांसत हांसत गेले, अशें ते सांगतात. हाचेवेल्यान कवितेभितर केदी तांक आसता तें स्पशट जाता.

हेर भारतीय भासांतले तुलन कोंकणी कवितेत राष्ट्रीय भावना व्यक्त जावपी कविता खूप उसरां आयली. ताका सामाजिक आनी राजकीय कारणां आसात. गोंयांत पुर्तूगेज सत्तेचें चेंपण आशिल्ल्यान बरोवपाक वा बरयल्लें उजवाडा हाडपाक जें मेकळें वातावरण लागता तें नाशिल्लें. देशांत ज्यो राजकीय आनी सामाजिक चळवळी जाल्यो तांचें वारें आमचे मेरेन पावपाक खूप कळाव लागलो. डॉ. लोहियाची अठरा जूनाची चळवळ सुरुं जावचे पयलीं गोंयमुक्ती खातीर संघटीत रुपांत वावर असो जांवक नाशिल्लो. अठरा जूनाचे चळवळीक लागून भौंसा भीतर नवी जागृताय जाली. आमचो देस स्वतंत्रतायेच्या हुमऱ्यार उबो आशिल्लो आनी आमकां लागिल्लें परकी सत्तेचें गिराण सुट्टलें ही गोंयकारांची भावना आशिल्ली. पूण अठरा जून हो गोंयच्या इतिहासांतलो म्हत्वाचो वाटचिरो थारलो. हे चळवळीक लागून गोंयकारांची जीण कांय काळापुरती तरी आरती परती जाली. हे चळवळीक लागून बाकीबाबा सारकिल्या श्रेष्ठ कवीक

कोंकणी भाशेचे तांकीचो साक्षात्कार जावंक पावलो आनी ताणी 'दोतोर बॉस' वा लोहियाक उद्देशून कविता बरयल्यो. आनी त्यो भौंसाच्या मनांत रिगल्यो आनी रुजल्यों. १९४६ वर्सा उजवाडा आयिल्ल्या कवी बयाभावाच्या 'सडयावेलीं फुलां' ह्या कविता संग्रहातले कांय कवितांनी गोंयचो मोग आनी आपली मांयभूंय परक्यांच्या शेकातळा आशिल्ल्याची खंत आनी किंवाटो व्यक्त जाता.

दीस - रात खावन खोंटो, करित लेंग लेंग
काट्टात दीस पिवन पेज, पायांक मारुन वेंग
.....
गेले जे विसरून पूर्व, तांकां ना फुडार
व्यर्थ जीण, आवैक शीण, धतरिक भार!
जिवंत हीं मडीं, कित्याक वंवश असलो जाय?
उखल कुराड, काड प्राण, घालून एक घाय!

तेच प्रमाण तांचीच 'नवें गोंय-नवे गोंयकार' हे कवितेंतूय शेचाळीसाचे चळवळीचे पडसाद आयकूंक येतात. तरसादी आनी भाले/ तुबकां नाळींचे गुळे/ते कित्याक उपकारतले?/ कित्याक तर स्वातंत्रचळवळीच्या होमखणात उडी घालपी कुडीर उदार जाल्ले आसतात आनी तेच नवें गोंय घडोवपाक शकतात, असो आत्मविश्वास ते व्यक्त करतात. तांची मान तुटली तरी जोमेरेन कुडींत प्राण आसतलो तोमेरेन तांचें पांवल कशेंच फाटीं पडचें ना हो हे कवीचो भावार्थ. कविचीं हीं उतरां म्हळ्यार साडेचारशें वर्सांच्या काळखांत सुस्त न्हिदून पडिल्ल्या समाज मनाक जागृताय हाडूंक तांचेर अवसर काडूंक मारिल्ले आंशे. म्हजे नदरेन ह्यो कविता इतिहासीक आनी साहित्याचे नदरेनुय म्हत्वाच्यो आसात. ह्या कवीन थोड्योच कविता बरयल्यो पूण तांचे संख्येवेल्यान तांचें मोल थारावंक येवचें ना.

बाकीबाबान निखट्यो कविता बरयल्यो नात तर गोंयच्या स्वातंत्र्य झुंजांत प्रत्यक्ष वांटो घेतलो आनी ह्या अणभवांतल्यान तांकां कविता स्पुरल्यो. अठरा जूनाची इतिहासीक घडणूक ताणी आपल्या दोळ्यांनी पळयल्ली आनी ते खीण ताणी आपले कवितेच्या वळींनी कोत्रावन दवल्ले. तांची 'पवित्र हो मंगळार' ही कविता पळयात. हे कवितेंत ते ह्या दिसाक लागून गोंयचो इतिहास कसो बदलतलो ते सांगतात. सगळ्यांनी सगळे तरेचे भेदभाव विसरून एकठांय आयल्यार फिरंगी सत्ता आमी उमथूंक शकतले असो विश्वास ती व्यक्त करता.

दिपा राण्याचें आनि पिंताचें घेवन व्हड नांव
घालून बोटा घाव चला रे नवे तिळे लांव
देखून चाखून रगत पळ्या हे अमी भाव भाव
खांदा खांदो लावन, ह्या फुडें एक जावन रांव
झुजून आतां मर्या कर्या भांगराचो संवसार
पवित्र हो मंगळार

हे वळींक लागून 'गोंयचें नांव व्हड करूंक ल्हान जाले महान/ बंदखणीचीं देवळां जालीं, लामण दिवे प्राण' हे कवितेक खाशेलो अर्थ आसा. ह्या संवसारांत जल्माक येतनाच म्हान जावन जल्माक येता. खूप फावट भोंवतणची परिस्थिती ताका म्हान करता. मोहनदास करमचंद गांधी महात्मा गांधी जांवक पावलो ताका राजकी आनी सामाजिक परिस्थिती कारण जाली. 'पांयजणा' ह्या बाकीबाबाल्या संग्रहांतल्यो 'ध्वजाची जागवण', 'सोंपती रात' ह्योय कविता खूप म्हत्त्वाच्यो आसात.

गोंयकारांनी पुर्तूगेजांची जुल्मी राजवट सोंसली. ब्रिटिश सत्तेपरसूय चड वायट. ती म्हळ्यार आमच्या समाजाक पडिल्लें एक वायट सपन कशें. ताचे विपरीत परिणाम आमी आयजूय भोगतत मनोहरराय सरदेसाय हाणी होच अणभव खर उतरांनी व्यक्त केला :

तुजे मुखार दुस्माना
नाच दिमी मोडचोना
वटार दोळे, पेटयनाळी
हावेस म्हजो मरचोना!

ह्यो वळी ताणी पॅरिसाक आसतना बरयल्यो हें लक्षांत घेवंक जाय. आपले मांयभुंयेपासून हजारांनी मैल पयस आसता तेन्ना तिचे विशींची ओड अदिक तीव्र जाता. केन्ना काय गांवघरा परत येवन भरिल्ल्या दोळ्यांनी तिचें दर्शन घेंवं अशी ताच्या मनाची अवस्था जाता. हांसत मोडत ल्हारां वांगडा तिचे कुशींत रिगपाचे ताका हुटहुटे लागतात. गोंयच्या मोगान भरून गेल्लो मनोहरराया सारकिलो दुसरो कवी म्हाका तरी दिसना. 'गोंया तुज्या मोगा खातीर' हो तांचो कविता संग्रह कोंकणीच न्हय तर गोंयच्या साहित्याच्या इतिहासांतलो वाटचिरो आसा. ह्या कवीन सदांच गोंयच्या समाजाच्या एकवटाचें सपन पळयलें. व्हंकल कशी दिसपी गोंय सदांच तरणे उरचें अशें तांकां दिसतालें. 'जायात जागे' ह्या तांच्या कविता संग्रहांतले एके कवितेंत ताणी म्हळां 'जेन्ना मनाक येतली लकण/गोंयचे कुशींत न्हीद जाय' कितल्यो अर्थपूर्ण वळी ह्यो!

आदले पिलगेंतल्या कवींक न्हय तर नवे पिळगेकूय गोंयची सुमारा भायर ओढ आसा. गोंयच्या सैमाची वेगवेगळीं रुपां ते चित्रायत आसतात. चडावत नव्या कवींच्या पयल्या वयल्या कवितांनी गोंय येताच. प्रकाश पर्येंकारा सारकिलो कवी 'गोंया तुज्या मळबा पोंदा, लोकवेदाच्यो व्हांवत्यो झरी/ऋतूंचे पिकतात मळे/ फेर घालून नाचतात नारी' अशा उतरांनी गोंयचें वर्णन करता. गोंय सुंदर आसा हांतूत कसलोच दुभाव ना. पूण ताची सोबीतकाय राखून दवरप ही आमी गोंयकारांची लागणूक आसा, हाचें भान आमच्या नव्या कवींक आसा. अर्थकारणाचो व्हड परिणाम समाज जिणेचेर जाता, आर्थिक उदरगतीक खूप फावट

पर्याय मेळना आनी ताका लागून सैमिक पर्यावरणाचेर हावळ येता हें सत आमकां न्हयकारुंक येना. गोंयचीच देख घेवं येता. आमचेकडेन मीनाच्यो खणी आसात. मीनाचे निर्गतीक लागून गोंयची अर्थव्यवस्था बळिश्ट जावंक पवल्या. पूण ताचें मोलुय आमकां दिवचें पडलां. गोंयची सोबीतकाय वाडोवपी दोंगर आमी पोखरीत आसात. आमच्यो निळ्या उदकाच्यो न्हंयो मीनाचे मातयेन भरून वचपाक लागल्यात आनी हे न्हयांनी आशिल्ली जीवजीवावळ नानपयत जावंक लागल्या. ह्या सताकडेन आमचे कवी फाट करीनात. शारांच्या लागीं आशिल्ले दोंगर घरांनी भरून ओंतूंक लागल्यात. पांडुरंग भांगी हची एक सुंदर आनी अर्थपूर्ण कविता आसा. तांतूत ते कोंकणातले वनदेवतेचें वर्णन करतना 'भरात तिची व्होंट/चारांनी चुन्नानी' अशें म्हण्टात. पूण आज चारां तर खंयच दिसनात. चुन्नाय चुकून दिसतात आनी काण्णाय येवपाचीं बंद जातलीं. असो हुस्को आसा. 'रसाळ फळांचें/पिकाळ मळांचें/... माड माडयांचें/न्हयां दरयांचें/ दुदा झरयांचें गोंय अशें मनोहरराय सरदेसाय हाणी म्हळां. हो आता इतिहास जावपाचे वाटेर आसा. दिसान दीस शेतांभाटां पडींग जायत आसात.'

फायच्या गोंयांत येद्देनाल्ल
आनी शेतांत दोन पिकां
फायचें गोंय म्हण्टलें गा
तुमची भीक आमकां नाका.

मनोहररायालें हें भविश्य आमी फट थारायलां हें भोवतणचें सामाजिक वास्वत आमकां सांगता. ह्या विशयाचेर बरयतलो जाल्यार सुवात पावचेलींना.

ह्या संकलना सारकिलीं हेर भासांत उजवाडा आयल्यांत .'सॉंग्स ऑफ फ्रिडम' हें चार दसकां आदी प्रसिद्ध जाल्ल्या झेल्यांत भारतीय भासांतल्या

देशभक्तीचे कवितांचो इंग्लिश अणकार आयला. (तांतूत र. वि. पंडित आनी मनोहरराय सरदेसाय हांच्या कवितांचो आस्पाव आसा.) तेच प्रमाण 'राष्ट्रप्रेम के गीत' हें कृपाशंकर शुक्ल हाणी संपादित केल्लें. संकलन आनी राजा मंगळवेढेकर हाणी मराठीत अशे तरेचें संकलन तयार केलां. अशेच तरेचें पुस्तक कोंकणीत येवचेली गरज आशिल्ली ती सुनिल पालकारान भागयल्या.

राष्ट्रभक्तीच्यो रचना निर्माण जावपाक परिस्थिती कारण जाता. भारताच्या स्वतंत्रताये उप्रांत कांय झुजांक आमकां तोंड दिवचें पडलें. भारत, चीन झुज वा पकिस्तानाबरबर जाल्लीं दोन कस लावपी झुजां. तेन्ना असले रचनांक पीकआयलें आनी कवींनी आपले कवितांवरवीं लोकांचीं मनां पेटयत दवल्लीं. अशा वेळार कवीची भुमिका कसली आसता?

I did not come to solve anything
I came here to sing and for you
to sing with me
अशें पाब्लो निरुदा म्हणून गेला.
जैताची घुडी सतत उंच उबयत दवरपाची उर्जा उतरांभितर आसता.

**-माधव बोरकार**

ग्रीन पिस हाऊ. सोसायटी
नागाळी, ताळगाव, गोंय

# मनोगत

देशाच्या स्वातंत्र्या खातीर झुजतना इंग्लेजानी वा पुर्तुगेजानी म्हाका जर फासार चडयल्लो आनी फासार हुमकळटना वा छातयेचेर आर्मांच्यो गुळयो घेवन प्राण सोडटना संवसारांतल्या रैतान पळयल्लो जाल्यार म्हाका म्हज्या जलमाचें सार्थक जाल्ल्याचो आनंद जावपाचो. जांकां हें भाग्य फाव जालें ते सगळे भाग्यवान.

तांच्याच कश्टांच्या आनी इत्साशक्तीच्या बळार स्वातंत्र्याची घुडी वाऱ्यार फडफडत रावली. आनी देशाच्या दरएका नागरीकाक स्वातंत्र्यांत स्वताच्या देशांत स्वतंत्रपणान उस्वास घेवपाची वाट मेकळी जाली.

म्हजो जल्म थोडो उसरां जालो ह्याच खातीर त्या भाग्याचो भागीदार जावपाक हांव पावलोंना जावये. पूण देशाचे भक्तीन काळीज सदांच भरून ओतता. देशभक्तीचो रूख काळजांत सदांच काळीजभर पालेल्लो, रंगयाळ्यां परमळीत चंवरांनी चंवरलेलो आसता. देशाची भक्तीच आमकां जापसालदारकेचे नागरीक करता. काळजानी एकचाराचीं बिंयां किल्लयता आनी सगल्यांक मोग मायपासाच्या धाग्यान बांदून दवरता.

देशान आपले खातीर कितें केलां? असो कांय पावट सूर कानार पडटा. आपणें देशा खातीर कितें केलां असो प्रतिप्रस्न करतकच ताची जाप मेळपाक वेळ लागना. आमी जे मातयेंत किल्लल्या ती माती आमची. ती मायभूंय आमची. आमच्यो कुडी आनी कुडीतलीं हाडां, मास, रगत तिचें. आवयचो मान राखप आनी तिचे व्हडवीकेचें गुणगान गावप हें जल्माक आयिल्ले प्रत्येक पूत धुवेचें कर्तव्य. हें कर्तव्य जांकां मान्य ना ते आपले मातयेचे रिणकारी.

गितांनी सगल्या तरांची शक्ती आसता. भावनांक स्फूर्तिगितानी वा भक्तीगीतानी न्हाणोवपाचें विशेश अशें तिर्थन्हाण आसता. गीत काळजाच्या उमाळ्यानी थपथपता तेन्ना तें भक्तीच्या स्वरुपांत एकरूप

जाता. मागीर ती देशभक्ती आसूं, देवभक्ती आसूं वा मनीसभक्ती. भक्ती हीच मनशाची आत्मशक्ती. देशभक्तीच खरेली समाजसेवा. रैताचो उखल जावपा खातीर दिल्लें योगदान. स्वयंसेवा भावनेन केल्लो त्याग. देशभक्तीच्या मोगाची घुडी देशांतल्यां भावंडांच्या मनांत लावची ही इत्सा सदांच आमच्या मनांत घर करून आशिल्ली. थोडो उशीर जालो खरो पूण जैताची घुडी जशी हुबूंक जाय तशी व्हडा उमेदिन हुबलीच.

हो प्रयोग सफळ जावचो हे खातीर आमी इल्लेय प्रयत्न उणे पडूंक दिलेना. 'जैताची घुडी' हांतुंतलीं गितां वेवस्थीत निवळावन घासून पुसून मुदयेचेर मोतयां वा थीकां बसोवचीं तशीं योग्य त्या जाग्यार बसयल्यांत. गितांचो संदर्भ राखून, कांय गीतांची गरज पडटा थंय थोडिशी प्लास्टीक सर्जरी लेगीत केल्या, म्हणल्यार पुर्णत्वाक येयसर पाजयल्या. ह्या संग्रहाक येसवंत करपाक मिलनबाय वांयगणकार आनी भरतबाब नायक हांचो भोवच मोलाचो वांटो आसा. तांणी दिल्लें सहकार्य हेंच जैताचे घुडयेतलें अर्दें जैत.

शाळा, कॉलेजीनी, राष्ट्रीय कार्यावळीनी वा हेर कार्यक्रमानी राष्ट्राचीं गीतां गायतल्यांक ह्या संग्रहाचो बरो उपयोग जावचो हो उध्देश नदरेमुखार दवरून वावर केल्लो आसा. ह्या कश्टांच्या कणसाक बरोच प्रतिसाद मेळटलो हांतूंत इल्लोय दुबाव ना. हे जैताचे घुडयेंत देशांतल्या विविध वाठारांतल्या म्हणल्यार, गोंय, कर्नाटक, महाराष्ट्र, केरळ हांगाच्या गीतकारांच्यां गितांचो आसपाव आसा. संग्रहक आनी संपादक ह्या नात्यान तांचे सगल्यांचे आमी उपकारी.

ह्या संग्रहांतल्या गीतांचे हक्क प्रत्येक गीतकाराकडें आसात. गितां गायतल्यानी एक गजाल मतींत दवरची, जंय गरज पडटा थंय गीतकाराची मान्यताय घेवची. 'जैताची घुडी' हो संग्रह पालकार प्रकाशनाचे वतीन उजवाडाक येता ही आनंदाची गजाल. ह्या आनंदान सगल्यांक परमानंद मेळचो हीच इत्सा. वन्दे मातरम्

**-सुनील पालकार**

जय सच्चिदानंद

# रूपरेशा



# १) येवकार गीत



येवकार तुमकां येवकार सगळ्यांक
हुनहुनीत येवकार
कवतूक करपाक हाजीर आशिल्ल्यांक
काळजांतल्यान येवकार ।।धृ।।

रसीक तुमी सोयरे आमचे
स्विकारात नमन
म्हत्व वळखून आयच्या दिसाचें
करतलेत रंजन ।।१।।

तुमचे खातीर आमी सजयला
रंगयाळो वाटार
माया आनी मोग नटयला
उतरांच्या कांठार ।।२।।

काळीज तुमचें खोशयेन भरचें
समारंभान आमच्या
भरून वोतचें मन आमगेलें
तोखणायेन तुमच्या ।।३।।

-भरत नायक



***





## २) घुडी लागली रे

घुडी लागली रे घुडी लागली
घुडी कळसा माथ्यार लागली
पुर्वजांचें संचीत सगळें
देखतां तानभूक भागली
घुडी लागली रे घुडी लागली ।।धृ।।

दिकां दिकांतल्यान नाचत आयले
आयले रंगीत मेळे
फुलत्या मुखांचे हालत्या मानेचे
उमेदरंगी खेळे
पानां पानांतल्यान जागून उठले
उठले पाचवे मळे
पाशाणफातरा फुटून आयले
चैतन्याचे कळे
आयज श्रीचो उत्सव व्हडलो
रंगसभा रे रंगली
घुडी लागली रे घुडी लागली ।।१।।

तळागाळाच्या भौसजनांची
अदृष्टाची काणी
नीज सत्वाची, अभिमानाची
तिठ्यार जाल्ली पावणी
रक्तहुमेचें घालून शिंपणे
सृजनाची निर्मणी
खर कश्टांनी, भुंयपुत्रांनी
काडल्यो रसाळ पेणी
बारा हतयांचें पाखांत बळगें
धोलार तोणी पडली
घुडी लागली रे घुडी लागली
।।२।।

-पुंडलीक नायक



***





# ३) नवें यूग

सात लाख गोंयकार आमी
यूग नवें फुलैतले
अंदल्यात मंत्र जिवीं
ते फाल्यां उलैतले ।।धृ।।

जळत गोंय धुंवता जरी
घरांर नांगर भोंवता जरी
थैंच पाट अमृताचे
फाल्यां आमी खेळैतले ।।१।।

आज जरी काळोख बिण्ण
सगळेकडेन पडलां किण्ण
दनपाराच्या कडार फाल्यां
रथ भुजार झेलैतले ।।२।।

आज जीव लागला गोळा
तरीय दैत्य लावन दाळा
रैताच्या जैताचो शेक
फाल्यां चलैतले ।।३।।

झोमून घेवंक वैली घुडी
होमखणांत आमची उडी
माणसुकेच्या फायचे जिणेंत
देवांकय भाळैतले ।।४।।

ही घुडी केळैतले
सुखान दुकां गळैतले
जनगणमन-गीत गायत
सूर नवो मेळैतले ।।५।।

-बाकीबाब बोरकार



***



# ४) म्हजें गोंय



गोड म्हजें गोंय सुंदर म्हजें गोंय
पुर्विल्ले नामनेचें चड मोट्या भाग्याचें
उंच माथें कोंकणाचें हें म्हजें गोंय

निजाचे अपुर्बायेचें इंद्रनीळ मळबाचें
भांगराच्या वोताचें रुप्याच्या चान्न्याचें
हें म्हजें गोंय...

पथीक उदका वाऱ्याचें चकचयाळ पिकावळीचें
सोबीत फुलां-फळांचें शिटूक सावदां सवण्यांचें
हें म्हजें गोंय...

उजळ संस्कृतायेचें खरेल्या कुळवंतांचें
उदार मनाच्या लोकांचें पाटांगड्या विद्वानांचें
बळिश्ट झुजप्यांचें बुदवंत राजकर्ण्यांचें
वावराड्या कामवटांचें कर्तुत्वी मनशांचें
हें म्हजें गोंय...

धर्तरिवैलो सर्ग हें म्हजें गोंय
सासणाचें सुखदिणें हे म्हजें गोंय

**-शणै गोंयबाब**



***




# ५) गोमटें गोंय

गोड गोड गोड गव्यान
गोमटें गोंय गायता
संगीताच्या निजान ताच्या
निर्मितल्याक होरायता... ।।१।।

नाचता तालार ल्हारार ल्हार
जुंवारेचीं पांयजणां
वाजता सुरान एक तान
मांडवीचीं मांदोलीनां.. ।।२।।

माड-माडयो म्हण्टी मांडे
शब्दुल्यांचीं दुल्पदां
जायां जुयां परमळांत
आबोलेचीं मोनी पदां...।।३।।

मृदंगाचो बोल जसो
दुदाचो घसघसो
पानां पोवनां मारता मोखून
वाऱ्या वांगडा पिंपळ
पिसो...।।४।।

सोबित सुकणीं नाचता देखणी
रूखा रूखा कणकणी
वाजपा नादार झेमता पळय
जाग्रणाची रात राणी... ।।५।।

सुर्या हांसता दर्या गाजता
धतरिक होरायता धीरायता
गोड गोड मेकळ्या गव्यान
गोमटें गोंय गायता...।।६।।

जन गण मन अधि नायक
मेकळ्या गोंयचें गीत आयक
दोरे मी फा सारे नी सा
आमचें गोंय गायता ...।।७।।

**-शंकर भांडारी**



***




# ६) ध्वजाची जागवण

भारताच्या ध्वज्या म्हज्या जाग रे बेगीं जाग
दर्यावेळेर खंगता तुजी सोबीत एक बाग ।।धृ।।

व्हंकलो कशो माडयो थंयच्यो खंबळे कशे माड
चारशीं वर्सां लागून पाखे जावंक पावले पाड
दैना अशी तुटिल्ल्यान तुजी लागभाग
जाग रे बेगीं जाग ।।१।।

दुदाधंया न्हंयो आटल्यो, सुटले सोऱ्यापाट
फुलाफळांत तक्षकांनीं तांतयां घालीं दाट
माथ्यार पाचके, पावलामुळां पांढरे आनी नाग
जाग रे बेगीं जाग ।।२।।

झाडांपेडांर देंवचारांनी बांदले सामकें कोट
रोंट तांकां घालूंक आमी बांदलें आमचें पोट
खोंटावणेक देव आमचे, फाटीर तांच्या दाग
जाग रे बेगीं जाग ।।३।।





सासाय थंयची आवय म्हजी तूंच तिचो धीर
तुजे धिरार वानांत तिणें कांड्रूक घालां शीर
सोंसलें इतलें आनीक कितलें सोंसचें आतां सांग
जाग रे बेगीं जाग ।।४।।

भायरो जाल्लो गोंसाय तिचो घालता तुकां साद
शिलां काडून होरायत तुकां दिवंक आयलां याद
अंत आतां पळोवं नाकां मार रे बेगीन दांग
तेखातीर उखलासाक प्राणय जाल्यार माग
जाग रे बेगीं जाग ।।५।।

**-बाकीबाब बोरकार**






# ७) गोंय म्हजें

गोंय म्हजें होंकल कशी
पाचव्या चुड्यान भल्लेली
गोंय म्हजें रात निळी
नखेत्रांनी फुल्लेली ।।धृ।।

गोंय म्हजें भुरगें कशें
दोंगराचे मांडयेचेर
गोंय म्हजें मोगरे-कळो
दर्याचे ताळयेचेर ।।१।।

गोंय म्हळ्यार चित्र एक
इंद्रधणून रंगयल्लें
गोंय म्हळ्यार सपन एक
उगडासानी विणलेलें ।।२।।

गोंय म्हजें कुबेराच्या
वज्रांची उकती कूड
गोंय म्हळ्यार जिविताच्या
जैताची जळटी चूड ।।३।।

गोंय म्हळ्यार पावल एक
धतरिची वाट मेजपी
गोंय म्हळ्यार तान एक
विश्वाचो ताल सोदपी ।।४।।

गोंय म्हळ्यार कंवळी ओड
काळजांतल्या कावथ्याची
गोंय म्हजें व्हडली जोड
जल्मांच्या पुण्यांची ।।५।।

**-मनोहरराय सरदेसाय**



***





## ८) गोंय म्हजें

गोंय म्हजें गायता म्हज्या
दर्या ल्हारांचेर
शेतां-भाटांत रुजता हांगा
गितां वंठाचेर ।।धृ।।

दोंगरां वाठार काजुंनी त्यो
गायतात सारोळ्यो
घरां गावांत शिकतात म्हज्यो
शिटूक पिटोळ्यो
पिटोळ्यांची सारोळ्यांची
तंद्रा सुरांचेर
गोंय म्हजें गायता म्हज्या
दर्या ल्हारांचेर ।।१।।

माडामाडार स्तवन कशें
कवन रेंदराचें
दर्याल्हारांचेर सवन
हवन खारव्यांचें
पिकता मोग गोंयचो तांच्या
स्वास उस्वासाचेर
गोंय म्हजें गायता म्हज्या
दर्या ल्हारांचेर ।।२।।

नीस जायना गोंयचो मनीस
हुपीत वेता धारो
गोंयचो मनीस मनीसपणाक
वचूंक दिना वेरो
गोंयकारांनो गावया गितां
हिंद भुयेंचेर
गोंय म्हजें गायता म्हज्या
दर्या ल्हारांचेर ।।३।।

**-रमेश भगवंत वेळुस्कार**



***



# ९) म्हजी भूंय



भुंय म्हजी भांगराची
सोबीत सुंदर गोंयची
शीतल ही कूस म्हज्या
ह्या भारत देशाची ।।धृ।।

निळनिळशां ल्हारांनी
दर्याचें कांतार
मांडवीच्या दोळ्यांनी
धोलतात माड तालार
जागर हो जागयता
रात हांगा चान्न्याची ।।१।।

देवळां मशीदी इगर्जी
गायतात एकच तान
धर्म मनीसकायेचो
व्हांवता ह्या रगतान
गायत आमी चलचे फुडें
वाट फुडाराची ही ।।२।।

**-अनील सामंत**



***




# १०) झुजाचे वांगडी

आयज धोलार पडल्या बडी रे
हावेसाच्यो उमथल्या
दोडीर दोडी..
आमी आयल्या झुजाचे वांगडी ।।धृ।।

हांगा त्या दुस्मानानी
भेद भावा वीख पेरिलां
नीज हांगचे गोंयचे भुयेर
बेंदूळ मातयल्या
लावया तांकां देशोधडी ।।१।।

पुर्वजांच्या वावरा श्रमांत
काळजां जागोवया
त्यागा तांच्या मान ओंपून
स्फुर्ती रिगोवया
नडी मोखून उठल्या
तरण्या रगता कुडी ।।२।।

आडमेळ्याचे सुळे बागोवंक
जिद्दी चुडी पेटयतले
वावरा श्रमा पेंगट बांदूक
रगत लेगीत आटयतले
अरिश्टांक मीठ मांरूक
सदां तयार आमी फुडें ।।३।।

-पुर्णानंद च्यारी



***




# ११) सरात फुडें गोंयकारानो

सरात फुडें गोंयकारानो
हावेसाची घेवन वात
वच्चें आसा पलतडी
एकचाराचें गीत गायत ।।धृ।।

एकाच रुखा आमी फळां
शिंपडलेलीं जळामळां
आयलो वगत एकठावपाचो
जल्मल्ल्या रुखा तळा ।।१।।

ल्हान व्हड बारीक मोटे
भेद नाका धरुंक खोटे
जाती पाती खुट्टून कांटे
करचें आसा कार्य मोटें ।।२।।

गोंय आमचें गोंयकारांचें
न्हय तें कोणा दुसऱ्यांचें
गोंयच्या खातीर झुजचें आसा
सासाय ताची राखची आसा ।।३।।

**-विजयाबाय सरमळकार**



***




# १२) गोंय म्हजें

अर्द्या माडार रावन जंय
रेंदेर गायता कांतारां
पाचवींचार चुडटां नाचतात
वाजयत आपलीं गितारां
तें गोंय म्हजें-गोंय म्हजें-गोंय म्हजें ।।धृ।।

पाचवेंचार आंग गोंयच्या
मनभुलोवण्या सैमाचें
तांबडेंगुंज हड्‌डें हांगच्या
राखणदारा दोंगरांचें
जंय फांत्यापारार आयकूंक येता
म्होंवाळ गीत कोगळाचें
तें गोंय म्हजें- गोंय म्हजें- गोंय म्हजें ।।१।।







देवळां आनी इगर्जींनी
मनशां मनांत ल्हानवीकाय
मांडवी आनी जुवारीची
सांगची कितली व्हडवीकाय
जंय भांगरा सारक्यो वेळो
जशे नर्तकिचे पांय
तें गोंय म्हजें- गोंय म्हजें- गोंय म्हजें ।।२।।

गोंय म्हजें कुळागर
काजू आंबे पणसांचें
कुळार तें पानवेलीचें
माड आनी माडयांचें
जंय सकाळ सांज जेवणांकडें
रुचीक हुमण नुस्त्याचें
तें गोंय म्हजें- गोंय म्हजे- गोंय म्हजे ।।३।।

**-सुनील पालकार**






# १३) गोंयां तुजी लागल्या आस

दर्यागाजान घडीत मनां
दोंगर तुजीं दुधा थानां
भुजां तुजीं रानांवनां
शेतां-भाटां तुजो श्वास
गोंयां तुजी लागल्या आस ।।धृ।।

व्हांवल्यो न्हंयो शिरंतरां
झाडां-पेडां पोरां-तारां
पिलावळ भिरंड बोरां
फुलां गळ्यांत म्होवाळ भास
गोंयां तुजी लागल्या आस ।।१।।

दारामुखार फुलतो पळस
देवळांचेर भांगरा कळस
पणसार पिकता रसाळ पणस
खळावेळी भाता रास
गोंयां तुजी लागल्या आस ।।२।।

भुरगीं झेलतात वडामुळांत
कोगळां गायतात आंब्यावनांत
धोलयता वारो तालासुरांत
मैफलीचो जाता भास
गोयां तुजी लागल्या आस ।।३।।

फुलता कळयो देंठादेंठांत
फांकता परमळ पाकळ्यापाकळ्यांत
पाखे नाचतात आड्या पोरसांत
हुंगचे खातीर मोगऱ्यां वास
गोंया तुजी लागल्या आस ।।४।।

-सौ. शैला प्र. प्रभूदेसाय



***





## १४) गीत शांतीचें

रगत आमचें क्रांतीचें
शिरंत्रांनी घोळटा
अन्यायाआड झुजपाचें
प्रेरणां बळ फळटा

दर्या फेणेर हांसते हांशे
कुळागरां थंडायता
वसाडेचे वलय खेळ
दर्या देग नियाळटा
भुरग्यां वरी वेळेचेर
पिकेन कुल्ल्यो खेळटा

काळजानी भरला मोग
गोंयच्या सोबीत सैमाचो
मान आमी राखचेलो
भौमानेस्त दायजांचो
पुनवेच्यो राती हांगा
चान्नें दांत्यार दळटा

सान भुंयेर विचार नवे
नवे पिकेर उत्सव नवे
फायचें गोंय आसचें कशें
खतावल्लें काय सवळेंधवें
हुसक्यान ताच्या गर्भकुडींत
जीव घुस्मट्टा

**-शांती तेंडुलकार घाटवळ**



***




# १५) माणकुलें गोंय हें

हिऱ्या माणकांचें भांगरा रुप्याचें
माणकुलें गोंय हें
पाचव्या रानांचें तांबडे मातयेचें
आमगेलें गोंय हें ।। धृ।।

कोलवें मिरामार बाग कळंगुटे
दर्या नुस्त्याचे
रेंवेंत बसून रंग पळोवचे
बुडट्या सुर्याचे
चान्या रातींचें गायत्या रेंद्रांचें
रंगयाळें गोंय हें ।।१।।

म्होंवाळ फळांची वखदी रुखांची
गर्दी कुळागरांत
आंब्या पणसांची वासाळ फुलांची
सावळी दारादारांत
शेंवत्यां मोगऱ्यांचें आबोल्यां रोजांचें
परमळीत गोंय हें ।।२।।

नाल्ला पेंड्यानी भरलेले माड
हारीन उबे बांदार
फांतोडे वेळार शेतकार वयतात
नांगर घेवन खांदार
गाय पाडकांचें शेवण्यां पिलांचें
गंधर्व गीत हें ।।३।।

काजू झाडांच्यो काण्णां चुन्नांच्यो
दोंगराच्यो तेंगशो
शेवट्यां नुस्त्याच्यो कुल्ल्या
सुंगटांच्यो
खळखळत्यो मानशो
नुसत्या हुमणांचें काजू रोसाचें
सुंदरें गोंय हें ।।४।।

-भरत नायक



***



# १६) कोंबल्या सादा

फांतोडेच्या पारार म्हजो
कोंबलो सादेता
गोंयाक म्हज्या परजळैत
दीस उदेता ।।धृ।।

फांत्या पारार कोंबल्या सादार
म्हजी आजी जागेता
रांदचे कुडींत मातये चुलीर
सान्नां उकडीता ।।१।।

उठ रे बाबुल्या म्हज्या उठ रे शाबुल्या
सुर्याचीं किरणां पळे तुकां आपयता
आजी म्हज्या काळजा मनांत
नीत रुजयता ।।२।।

वात्सल्याची म्हूर्ती कशी आवय म्हगेली
मोनजातीर मोग करची रीत शिकयता
हीच आमी परंपरा
मुखार चलयता ।।३।।

**-मीलन वायंगणकार**



***



# १७) स्वतंत्र गोंया



स्वतंत्र गोंया, समर्थ गोंया, सोबीत आमच्या गोंया
भांगरा भुंयेचेर उदेता सुर्या गीत नवें गावंया ।।धृ।।

स्वतंत्रतेची फांकलीं किर्णां सोंपलो फाटलो काळोख
धनी आयज तूं आपले भुंयचो बंदेपण तें मोख
सैम भुलवणें, गोड उलवणें, मोगाळ म्होवीं उतरां
मेकळ्या ताळ्यान गोंय गायता मेकळ्या गोंयचीं कांतरां
।।१।।

सोपलें आतां आदलें बंदेपण सोंपलें परकी बंधन
आपली भाशा आसून खाशा कित्याक पोसकेपण
आंखुड चिंतनांची भिजुड मनां नाका तांची देख
स्वतंत्र वृत्तीचीं धीट काळजां चलयतलीं आतां शेक ।।२।।

तेजिश्ट गोंयां, बळिश्ट गोंयां, देख नवी दाखय
पुण्यभुमीचें नांव संवसारार भांगरा अक्षरान बरय
भारत भुंयची देवभुमी तूं घे नवो अवतार
भ्रश्ट नश्ट चिड्डून माड्डून घडय नवो संवसार ।।३।।

**-रामकृष्ण जुवारकार**



***





# १८) येवकार

भोंवडेकारांक येवकार दीः
गोंयचो माड गायता गीत ।।धृ।।

सा रे ग म प ध नी सा
दो रे मी फा सो ला सी दो
सात सुरांची जुगलबंदी
एकचाराचीं पावलां मारीत ।।१।।

धालो-फुगडी-मांडो-देखणी
सुकणी गायतात पावला कणकणी
उदेंत अस्तंत एक जावन
चंवरला नवें कवीत ।।२।।

शेतां, भाटां, वेळो, कुळागरां
इगर्जो, देवळां, मंदीरां
शांततायेचें बीं रुजून
फुलां फळां रसरशीत ।।३।।

**-डॉ. भिकाजी घाणेकार**



***





# १९) गोंयचें अप्रूप

गोंयचें गीत गायतात आमी
अप्रुपान गा भरलेलें
सोबीत सुंदर गोंय आमचें
व्हंकले वरी नटलेलें ।।धृ।।

शेतां वाऱ्यार धोलता पळय
पयस उबे दोंगर
रुखा रुखार फुल्ला पळय
म्होंवान भरल्या चंवर
कोंब्या सादार जागता जिवीत
काळखे रातींत बुडलेलें ।।१।।

न्हंय व्हाळांचे खळखळ हांगा
पावसाचे गा उटंगार
दोडीर दोडी घालता माथ्यार
गंगा मायेचो दुदसागर
थंड शितळ तळें हें
साळकानी गा भरलेलें ।।२।।

दर्या गाज गाजयता वेळो
तारवां नाच नाचता ल्हारार
धोलत्या माडा कोळवांत बसून
रेंदेर गायता कांतार
निसर्गाचें देखणें रुप
दिसता ताका फुल्लेलें ।।३।।

लोकवेदाचो झंकार जाता
सजता वर्स उत्सवानी
शितळ वारो व्हांवता हांगच्यां
पाचव्या पाचव्या कुळागारानी
मन हांगा व्हांवतें जाता
सुक्या सड्यार आटलेलें ।।४।।

-प्रकाश पर्येकार



***




## २०) गोमन्तगीत

सोबीत सुंदर नंदनवना, गोमन्तका सर्वांगणा।
आंग आंग निर्मळकायेक आमची वंदना
।।धृ।।

मन भुलवणे दोंगर उबे
पाचवे पाचवेचार
पाचवीं रानां पाचवीं पानां
पाचव्या वसकारार
ल्हान व्हड दोगुल्ल्यांचीं
म्होवाळ म्होवीं स्पंदनां ।।१।।

एकमेकाक साथ दीत
माडयो आनी माड उबे
कितले पिकाळ कीतले रसाळ
गोंया तुजे पणस आंबे
तुज्या इतली सुरुपाय
दुसऱ्या कोणाक लाभलीना ।।२।।

शांती मोग शिंपलो तुवें
परमळाचे फुल्ले मळे
कितले तरी निर्माण केले
संगीत सुरार गावपी गळे
रत्नां नवीं सोदचे खातीर
नित्य करुं मंथना ।।३।।

-बया बाव



***




## २१) गोयां तुजें गीत

खोशेन उर्बेन गायता आमी गोयां तुजें गीत
तूंच आमचें कवीत आनी रंगयाळें संगीत ।।धृ।।

माड माडयो कुळागरां पाचवींचार रानां
पाचव्या पाचव्या दोगुल्ल्यांचेर पाचवीं पाचवीं पानां
जुवारी मांडवी न्हंयांनी जोडल्या दर्या प्रीत ।।१।।

आंबे, पणस, काजू, पेरां, चुन्नां, चारां बोरां
आबोलीं, शेंवतीं, जायो, जुयो, ओवळां, सुरंगा, रोजां
रुखा रुखाचेर शेवणी गायतात एकचाराचें गीत ।।२।।

इगर्जींनी वाजतात घांटी, देवळांभितर दिवल्यां वाती
सोबीत फुडारा सपन रंगयत, एकवट राखतात सगळ्यो जाती
हिन्दू, मुसलमान, क्रिस्तावांमदी एकवोटानी नीत ।।३।।

**-उल्हास बुयांव**



***





# २२) गोंया तुजीच पुण्याय

तुजे कुशींत परतून परतून
आयल्या जल्मां गोंया
ही तुजीच पुण्याय
दर्यान सोडलीं विशाल ल्हारां
विशाल जालीं मनांय ।।धृ।।

झुळझुळपी झऱ्यांत लिपली
तबल्या मृदंगाची लय
त्याच झऱ्यांनी सोदता
पाळांमुळां ताची खोलाय
ही तुजीच पुण्याय... ।।१।।

माड कसो रावला उबो
म्हाल म्हातारो जावन तरणो
तुजेच उर्बेन तायट कणो
जावनूय ताची पिराय
ही तुजीच पुण्याय...।।२।।

स्वाभिमाना जावन गवाय
कोंकणी खेळयता सुंदराय
तिच्याच उल्याक रावता आमी
गाठूंक दोंगराची उंचाय
ही तुजीच पुण्याय... ।।३।।

मशिदी देवळां इगर्जींनी
सगल्यांमदीं जागृत सासाय
मोडीत दिमी पसरून हात
मागता मागणे धरून पसय
ही तुजीच पुण्याय...।।४।।

**-प्रकाश दत्ताराम नायक**








# २३) हे गोमंत माते

हे गोमंत माते, हे पुण्य भुंये
आयलीं तुजेर विघ्नां माये
तरी सदांच तूं जैतीवंत गे
हे सवस्तकाये हे सोशीकताये
।।धृ।।

परकी गेले घरचे आयले
पावणेर तुका काडली गे
भुंयपूत खांबे रावले उबे
मान तुजो माते राखलो गे
हे गोमंत माते हे पुण्य भुंये....।।१।।

काडूंक उठले व्हडले व्हडले
पाट तुजो गे देवळांतलो
पूत धुवानी धुवन काडलो
कोचोप तुज्या आंगणातलो
हे गोमंत माते हे पुण्य भुंये..।।२।।

सिध्दनाथ, चंद्रनाथ जैतिवंत गे
जुवारी मांडवीचें व्हांवतें गीत गे
जळींमळीं ओंठार घोळटा
म्होंवाळ अभंग तीर्थ गे
हे गोमंत माते हे पुण्य भुंये..।।३।।

**-अशोक भोंसलो**



***



# २४) गोंयची माती



गोंयची माती भांगर माती
मातयेचीं सगळीं नातीं
मातयेंतल्यान किलल्ल्या
मनशांच्यो जाती-काती ।।धृ।।

हेच मातयेन जगाक दिला
मोगाचो दुदसागर
संस्कृतिंतल्यान घडला हांगा
भौसाचो व्हडलो जागोर
चिंता हुस्को पयस जावन
साखर न्हिदेंत दोळ्यांक पाती ।।१।।

उंचल्यो घांटी इगर्जेच्यो
अंतरमनांत घालता साद
देवळां आनी मशिदीनी
एकचाराची दिता याद
कुडी कुडींत आत्मो एक
मोगाच्यो पेट्टात वाती ।।२।।

भारताचो तूं कंठहार
इतली तुजी व्हडवीकाय
दोंगर आनी न्हंयो जाणात
गोंयां तुजी पुण्य सासाय
दरयाच्या पोशांत
चकचकता माणिक मोती ।।३।।

-माणिक प्रभू गावणेकार



***





## २५) गोवर्धन गोंय

गोंय आमचें गोवर्धन
न्हंयो दर्या निळे
गोंय आमचें बालांगण
गुलाब मोगरे कळे ।।धृ।।

सैम हांगचें संगीतमय
सैम हांगचें चैतन्यमय
माया मोग म्होवाळपणान
करता मनां आनंदमय
गोमन्त भूंय साळकां राज्य
शांतीकायेचें तळें ।।१।।

गुंथल्या वरी रस्मी धाग्यान
नंदता सगलीं माये मोगान
उक्तीं मनां उक्ते विचार
आपणावन घेता आपलेपणान
ताल सुरार धुलपद मांडे
गायतात हांगा गळे ।।२।।

मोगा खातीर मोग दिता
रंगा खातीर रंग दिता
देखणें हांगचें रुप पळोवंक
काळजांक नवी नदर येता
जुवारी आनी मांडवीचे
कितले सोबीत काजळी दोळे
।।३।।

**-दर्शन लोलयेकार**



***



## २६) दिगंत दिका



दिगंत दिको हुपल्यो सगळ्य।
सर नारे दुसऱ्या कोणा
भांगराचें गोंय म्हजें
मोतयांचीं फुलतीं बोणां ।।धृ।।

सोबीत ल्हारां कुळागरां
जैतिवंत घोळता शेतां
उदका ल्हारां दर्याल्हारां
नाचतीं वाजयत पांयजणां ।।१।।

इगर्ज आनी देवळा-घुडी
मेकळे घेता स्वास हांगा
खुशालभरीत जिणेविशी
दिवचीं हिंच उदारणां ।।२।।

पुण्यवान धतरिचीं
पुण्यवान मनशां हांगा
माणकुलेच भुयेंचेर
कितलीशींच मोठेपणां ।।३।।



-हनुमंत चोपडेकार

***



# २७) देखणी चाल



गोंय म्हजें देखणी चाल
दर्या ल्हारां घुंगरांची
दर्या गाज गर्जतना
धुंद रात चान्न्यांची ।।धृ।।

तांबशा खणी केंसांचें
पांचू-पोवळ्यां भेसाचें
फांतोडेचे तांबशेंतलें
नखेत्र आमच्या देशाचें
संस्कृतिचें बीज आनी
साटली गा ही कांतरांची ।।१।।

दुदसागराचो भांगतिळो
सुर्य लेगीत पडटा फिको
गिमाच्या सुक्या सड्यार
ओल्यो ओल्यो सगल्यो दिको
सैमातली निर्मळकाय
सासाय ही पूर्वजांची ।।२।।

मनशांमदीं भक्तीभाव
भक्ती रसांत मग्नताय
मातयेच्या कणाकणांत
दिसता हांगा नम्रताय
हीच खरी जल्मभूंय
कर्मभूंय रैताची ।।३।।

-दादू मांद्रेकार



***





# २८) गोंय आमचें व्हंकल

गोंय आमचें श्रावण शेसार
गोंय आमचें पवन गितार
गोंय आमचें व्हंकल कशें
रेंदरालें म्होंवाळ कांतार ।।धृ।।

दर्या ल्हारां गीत आसा
पावसाची प्रीत आसा
गिरेस्तकायेन भरलेले
तांबड्या काळजां दोंगर आसा
गोंयच्या मोगा मायपासान
ना गा अंत पार ।।१।।

समदिराचीं सोबीत रुपां
मन भुलोवणीं मळब कुपां
उजू वाट सांगचे खातीर
सकाळ सांज पेट्टीं दिपां
सकाळ पारा शेवणी आनी
सुर्याचीं पावलां दारार ।।२।।

कोंकणी भाशीक मनशांचे
मनीसपणां जाणवीकेचें
परशुरामान निर्मिलेलें
वृंदावन तें गोंयकारांचें
भांगरा वरी चकचकतें
दनपारच्या वताकडार ।।३।।

**-विजया नायक कोमरपंत**



***




# २९) दर्याल्हारां घुंघरांचें

गोंय म्हजें भांगराचें
दर्या ल्हारां घुंगरांचें
सैमा शालू न्हेसलेलें
उंच व्हडल्या दोंगरांचें ।।धृ।।

कुळागरां दर्या वेळो
मना स्फूर्त फुलयता
दीस रात धाय दिकानी
किर्त ताची पालेता
मांडवीचे मांडयेवेलें
भुरगें माणकां मोतयांचें ।।१।।

फुलां तशीं कांदळांमुळां
पणसांचे गोड गरे
थंड शितळ वखदा वरी
उदकाचे व्हांवते झरे
सुपुल्लें दिसलें तरी
पेट्रूल बऱ्या पोवंनांचें ।।२।।

माडयो माड तल्लीन जावन
धोलता कुळागरानी
संस्कृतायेचीं लोकगीतां
मांड आनी माटवानी
उत्सवानी गायता गीत
गोंयच्या देखण्या सैमाचें ।।३।।

-सुनील पालकार



***



# ३०) गोंयचे सोबीत भुंयेर



गोंयचे हे सोबीत भुंयेर
परत जल्म घेवचो
उद्यानाचे वेंगेंत आमी
मोगा पावस शिंपचो ।।धृ।।

परशुरामाचे मातयेंत जल्म जाता शौर्याचो
मना मनांत गाज आसा उचांबळ दर्याचो
कोनशा कोनशांत मंत्र जिवो
जैतिवंत झुजाऱ्यांचो ।।१।।

गोंयच्या ह्या सैमाचो इंद्रधोणू खुणयता
संवसाराच्या कपलाचेर तिकले वरी लिकलिकता
दुदसागर गायता अध्याय
प्रगतीच्या पर्वाचो ।।२।।

सुजलाम सुफलाम गोंयां म्हज्या
जल्म तुवें दिवचो आमकां कुसव्यांत तुज्या
धाय दिको रंगोवंक करचो
पुजारी तुजे व्हडवीकायेचो ।।३।।



-निलबा अ. खांडेकार

***

# ३१) गोंयकारपण

किर्तीवंत आमचें गोंय
व्हड तुजें नांव
खिणा खिणाक सादयतात
पाचवे गोंयचे गांव ।।धृ।।

एकचाराचो हावेस मनांत
हावेसांचें बळगें भुजार
फाटल्या रुवां यादिंची
आजून ताजी माव ।।१।।

उदरगतीक हात तुजो
मोख तुजी हिमालय
तुज्या बऱ्यां कर्तुपांक
आसा कितलो वाव ।।२।।

गोंयकारपण वळख तुजी
गांव तुजो शार तुजें
गोंयचे हे गोमटे भुंयेक
सदांच जपत राव ।।३।।

एक तुजी भुंय आनी
सगळीं भयणां भाव
एक एक पावल उडयत
मुखार वचत राव ।।४।।

-संतोष हरमलकार

***





# ३२) आमी गोंयचीं भुरगीं

आमी गोंयचीं हुशार भुरगीं
आमी गोंयचे राखणदार
गावया सगळीं गोंयचीं गीतां
सैमाच्या तालार ।।धृ।।

सात सुरांचे ओंठार उबे
खोशयेचे घेवन झेले
येयात सजोवया येयात नटोवया
भांगरा भुंये वांगडा खेळुया ।।१।।

गोंयच्या म्होंवाळ गोंयकारांनो
ल्हान-व्हड जाणकारांनो
येयात हाताक हात घालुया, खांदाक खांद
मेळोवया
गोंयचें देखणें सपन फुलोवया ।।२।।

ते दोंगर, दर्या, न्हंयों आमच्यो
तीं झाडां-फुलां-फळां आमचीं
आमी गोंयचें सैम फुलयतले, नवें नवें घडयतले
निमणें वचन आमी घेवया ।।३।।

**-नारायण य. खोर्जुवेंकार**



***



## ३३) मुक्तिदिन



मुक्तिदिन मुक्तिदिन आयज मुक्तिदिन
गोंयकारांचीं काळजां फुल्ल्यांत
आयजचे उमेदीन

काडलीं वर्सां बागोवन पिसां
तोपलीं कुसां सोसलीं तोसां
बंदेपण सोंपोवन आमची
मेकळी केली जीण

सोंपली दुखणीं सोंपलीं दुकां
बावलेलीं फुल्लीं मुखां
उमळशिकेन मारले शेंसार
उस्तून काडलें मीन

मारलो उलो सोडलो धाक
परकियांनी देखली तांक
एकवोटान घेतलो जिखून
सुवर्णाचो खीण

जुळ्ळे आतां सूर ताल
सोंपून गेले कश्ट हाल
आमचें राज्य जाल्लें आसा
आमचे सुवादीन

-उदय गुडे



***




# ३४) गोंय आमचें गोंय

गोंय आमचें गोंय
रत्नां माणकाचें गोंय
दर्या काळजाचें गोंय
दोगरां उंचायेचे गोंय ।।धृ।।

कुळागरांनी रत्नां
राना वनानी माणकां
बाळकां हांगचीं साळकां
सोबीत मोराचीं पांखां
सोबितकायेचें गोंय ।।१।।

शेता कुणग्यानी मोतयां
माडार कोगळा तांतयां
व्हडान हांबेतात गोरवां
कुळागाराच्या गा गांवां
सोबितकायेचें गोंय ।।२।।

जाया जुयांचे मळे
गोंयच्या एकचाराचे कळे
सुरंगी, कांदळी, ओंवळी
उब्यो संस्कृतायेच्यो ओळी
सोबितकायेचें गोंय ।।३।।

घुमट, समेळ, ताळ घोंटता
म्होंवाळ संगिताची लाळ
सूर ताल वांगडा चलता
व्हांवयत रागिणीचे व्हाळ
सोबितकायेचें गोंय ।।४।।

**-शैला प्र. प्रभुदेसाय**



***





# ३५) गीत तुजें

तरेक-तरा उतरांनी गीत रचयतां
देखण्या सैमरंगानी चित्र रंगयता
तुज्या दोळ्यानीं आमचें आमी रूप पळेता ।।धृ।।

राना वनांत चंवरा चंवरार
नदर थिरावता
आंबे, पणस, काजू पळोवन
जीव धादोसता
रानांतलीं शेवणी लेगीत
मोगान उलयता ।।१।।

सैम मोगी दर्या पळोवन
भान विसरता
मंद वारो गूण तुजे
गावन दाखयता
तारयो पळे आलतडीच्यान
पलतडी पावयता ।।२।।

कुळागरांत माड माडयो
आंगण सोबयता
पावसावेळार आळवा पानां
थेंब्यांक नाचयता
जळीमळी न्हंया व्हाळानी
वझरे उलयता ।।३।।

**-लाडको कुडतरकार**








## ३६) मोतयां पिकोवया

ह्या गोंयची उदरगतिचीं
धरणां आमच्या हातांत
कश्ट करूया घाम गळोवया
मोतयां पिकोवया शेतांत ॥धृ॥

अमृताचे कळशे भरल्यात
हांगच्या गोठ्या गोठ्यांनी
फुलां-फळांचोय भार जाता
दोंगर कुळागारांनी
तळया व्हाळांचोय उपेग करया
उदक पावोवया वाड्यांत ॥१॥

दर्यावयलें मोड सावरूंक
दर्या देवाक होरावया
मस्त्यां ल्हारांर खेळत नाचत
वेल्ल्यो सुंगटां पागुया
कणां कणांतलें भांगर सोदया
खोल भुंयेच्या पोटांत ॥२॥

मासाळ पिकाळ जमनीचें आमी
नंदनवन करया
बुदवंतांची बूद घेवन
नवी दुनया बसोवया
पडींग दोंगरार रोंपयो रोवया
माडूय लावया वोट्टांत

**-दिनानाथ बांदोडकार**







# ३७) दुदसागरा



दुदसागरा रे दुदसागरा
खंयसून तूं आयला
गोंयभुंयचे शिमेभितर
अमृत जावन रावला ।।धृ।।

सैमाचीं सगळीं रुपां
माथ्यार हुबती मळब कुपां
फेसाळ दुदाळ सागरा
मुळा मुळाक पावला ।।१।।

गोंयचो गाज तूंच गा
गोंयचें भुशण तूंच गा
गोंयचो साज गोंयचो नाद
तुज्याच मुखान गायला ।।२।।

वयर वयर दोंगरा माथ्यार
दिसता तुजी दुदाळ धार
शेतां पिकयत भाटां फुलयत
गायत गायत चल्ला ।।३।।

-उदय गांवकार



***



# ३८) काजळा तीळ



पाचव्या रानांचें दर्यविळांचें
सोबीत हें गोंय आमचें
गोंयकारांच्या खऱ्या मोगाचें
देखणें गोंय हें आमचें ।।धृ।।

गीत हांगचें रेंदरा सुरांचें
माड चुट्टांच्या संगितांचें
दात्यावेल्या व्होंवया-फालांचें
धोल ताशे घुमटां तालाचेर
धोलता मन हांगचें ।।१।।

काणयो हांगा कोल्या-वागांच्यो
हुंदीर माजर म्हातारेच्यो
पुराणांतल्या राजा राणयेच्यो
जाणटेल्यांच्या ओंठार चंवरलां
दायज हें गोंयचें ।।२।।

जल्म थळ हें कलाकारांचें
देशभक्त आनी म्हान मनशांचें
रण गाजोवपी झुजाऱ्यांचें
अस्मिताय भुजार खेळोवपी
कसपी खणपी कुणब्यांचें ।।३।।

गोंय आमचें म्होंवाळ मनाचें
मनीसपण मयपासाचें
सान तरी व्हड तोलाचें
भारत भुंयेच्या भव्य मुखार
काजळा तीळ सोबचे ।।४।।

**-श्रीकांत पालसरकार**



***

# ३९) देखण्यो दुरायो



माये मोगाच्या गोंया
जंय पयलो उदेता सुर्या
दामुल्या माटवांत वयता देखण्यो
तांकां पलतडी पायता तारया ।।धृ।।

हांगा कितलीं किल्लता नवरत्नां
कितले किल्लता वीर
कितले किल्लता ज्ञानी पंडीत
कितले किल्लता पीर
अभिमानान हड्डें फुलोवन
गाजता सदांच दर्या ।।१।।

सोबीत देखण्या रुपाक तुज्या
संवसार सगलो भुलता
मन भुलोवण्यां चालींक पळोवन
काळजां सगलीं हालता
सुपुल्ल्योश्यो देखण्यो दुरायो
जुव्यां आनी मयां ।।२।।

नाचयत आयज रोमटां तालगड्यो
स्वातंत्र्याच्यो घुडयो
धोल ताशे बडयत बडयत
मारतात कितले उडयो
विकास मार्गान गोंयां वांगडा
देशाक आमी घेवन या ।।३।।

**-सुनील पालकार**



***




# ४०) पावन जाली कूड म्हजी

पावन जाली कूड म्हजी
फळाक आयली चिंतनां तुजीं
धन्य हो जल्म म्हजो
गोंयां म्हज्या जय तुजी ।।धृ।।

पाचवो रंग पाचव्या पानांनी
न्हेसलां तू रानावनांनी
भांगराच्या कणाकणान
मूर्त आतां सजल्या तुजी ।।१।।

दर्या ल्हारां मंद चाल
मिना दोंगर तांबडे गाल
गेलीं वादळां माथ्यावेल्यान
हालेट आतां गाजय तुजी ।।२।।

कुशींत तुजे जल्म जालो
पुण्यायेन भरून न्हालो
अंतरांतल्यान अमृतवाणी
पावलांत आमच्या घटाय तुजी
।।३।।

सुर्याचीं गे किर्णां मनांत
उजवाडाचें राज्य वनांत
सशक्तांचें राज्य जावंक
उजू बियां रुजय तुजीं ।।४।।

घराघरांत देवळां जालीं
व्हडलीं व्हडलीं नवलां जालीं
खुशालभरीत सगलीं जाणां
जैता घुडी हुबयत तुजी ।।५।।

**-शीतल शेटगांवकार**



***



# ४१) गोंय म्हजी भूंय



गोंयकाराच्या शिरंतरांत
तांबडे कडयेचें रिगलां शीत
आगरांतल्या मिठाकणयेंत
मनिसकायेची देखल्या नीत
गोंय म्हजी भूंय सोबीत
गोंय म्हजी भूंय सोबीत ।।धृ।।

गोंयकाराच्या शिरंतरांत
कुळागारांतल्या वझऱ्याचें
नितळ निवळ उदक पीत
तरण्या कंवळ्या आडसराचें
म्होंवाळ उदक जालां गीत
गोंय म्हजी भूंय सोबीत ।।१।।

गोंयकाराच्या शिरंतरांत
उदेंतेच्या कीर्णांतल्यान
सत्धर्माची घोळटा रीत
देखून हांगचीं फुलां परमळीत
गोंय म्हजी भूंय सोबीत ।।२।।

गोंयकाराच्या शिरंतरांत
इतिहासाचें रचलां पान
शूर-विरांच्या बलीदानान
दिसता हांगा पाचवें रान
गोंय म्हजी भूंय म्हान ।।३।।

**सौ. शैला प्र. प्रभूदेसाय**








# ४२) प्रणाम तुकां गोंयां

प्रणाम प्रणाम तुका गोंया
ल्हारानी गाजतात तुजे दर्या
सोबीत तुज्या देखण्या रुपाची
व्हडवीक गायत चल्लो तारया ।।धृ।।

रुपाक तुज्या भुलून हांगा
येतात कितले परदेशी
परदेशांतल्यो पूत धुवो
परत येतात मायदेशी
अस्वस्थ मनाक थाकाय दिता
मिना खणिचें मयां ।।१।।

अर्दा माडार रावन रेंदेर
गायता वान्या सुराचेर
शेवणीं सुकणीं चोंबे करतात
मांडवी न्हंयच्या तिराचेर
प्रत्येक दिसा नवें घेवन
येता सुर्या राया ।।२।।

इत्सा उमेद घेवन फुलतात
कितलीं रंगीत फुलां
गोंयचे व्हंकलेच्या गालार सोबता
दोनूय सोबीत मिलां
कितले भावार्थी येवन पडटात
मंगेशाच्या पायां

-कांता धारगळकर







# ४३) धव्याफुल्ल ल्हारांचें



तांबशा तांबूस भुंयेचें
धव्याफुल्ल ल्हारांचें
पांचव्याचार रानाचें
आमचें गोंय आमचें गोंय ।।धृ।।

पांचव्याचार दोंगरानी
भाताच्या शेतांनी
रेंदेराच्या गितानी
सपन नवें फुलयलां तें आमचें गोंय ।।१।।

देवळाच्या घुमटांनी
इगर्जेच्या घांटीनी
मशिदींतल्या सादांनी
देवाक भुंयेर आपयला तें आमचें गोंय ।।२।।

अस्तमतेच्या रंगांनी
फुलाच्या गंधांनी
गोंयकाराच्या उतरांनी
खोस, मोग परमळला तें आमचें गोंय

**-आशा अ. माणगुतकर**



***





## ४४) जाग गोंयकारा ज

जाग गोंयकारा जाग
जाग गोंयकारा जाग
स्वाभिमाना गोंयच्या जाग
अभिमाना गोंयच्या जाग ।।धृ।।

पुण्य भूंय ही परशुरामाची
सुनापरान्त आनी अपरान्ताची
ऋशीमुनींच्या तपोफळांची
वीर पुरसांचो त्याग ।।१।।

उतरान उतर अमृतवाणी
एकवोटाचीं गावया गाणी
शितळ नितळ सैम आळयता
मेघमल्हार राग ।।२।।

कश्टकऱ्यांची कश्टी भुजां
घामान शिंपता मोतयां बिजा
दर्यादिगेर देखणी दुराय
सोबीतकायेची बाग ।।३।।

-अ. उ. नायक



***

## ४५) राखण

सान आमी बाळकां तुजीं
नांव तुजें राखतलीं
श्रमदान करतलीं
सुर्यावरी व्यापतलीं ।।धृ।।

पोरसांतलीं फुलां सगलीं
एकवटान रावतलीं
तुजे माये पदराखाला
रीत नीत शिकतलीं ।।१।।

मांडवी न्हंयचे मांडयेवेलें
गोंय जरी सुपुल्लें
किर्तीच्या चित्रांत तुज्या
रंग रंग भरतलीं ।।२।।

कितली म्होवाळ कोंकणी भास
परमळ तिचो फांकयतलीं
सुंदर सोबीत गोंयां तुका
आनीक सोबीत करतलीं ।।३।।

**-माया खरंगटे**

***



# ४६) गोंय हें नंदनवन



नंदनवन हें गोंय म्हजें
हांगा नवरत्नांच्यो खणी
दर मळार दर थळार
भुंयपूत तिचे गुणी ।।धृ।।

हांगा परशुरामाचीं वाजलीं पावलां
लोहियाचो सादूय गाजला
मायभुंयेचे मुक्तीखातीर
शूरवीर झुजले रणी
दर मळार दर थळार ।।१।।

हांगा वाजता घांट पावित्र्याची
मंदिर मसजीद इगर्जेची
कर्मवीरांचे शांतीदुतांचे
पुण्यभुंयचे आमी धनी
दर मळार दर थळार...।।२।।

हांगा गाज गाजयता दर्याल्हारां
सैमसर्गाचीं उक्तीं दारां
कुळागराचे माडमाडयेचे
हे भुंयचे आमी रुणी
दर मळार दर थळार...।।३।।

-नयना आडारकार



***





## ४७) माड धोलता

नुस्तें धरुंक जाळें घेवन
खारवी दरयांत देंवता
फांतोडेचेर उठून धनगर
गाये दूद काडटा
घरा आंगणात गोंयकारांच्या
उंच माड धोलता
गोंय आमचें सर्ग हांगा
दुदा वझरे व्हांवता ।।धृ।।

शेतकारांच्या पिकाळ शेतांत
भांगरा कणसां फुलतात
हिंदू, क्रिस्तांव, गावडा, कुणबी
एकचारान गा रावतात
मुंडकार आनी भाटकार
एका मांडार नाचतात
गोंय आमचें सर्ग हांगा
पारजात फुलता ।।१।।

परंतरांतल्यान आयले ताणी
राज्य आपले थापलें
मायभूंये खातीर आमी
जायतें जायतें सोसलें
ओंपलें बीं धादोसकायेचें
तशेंच किल्लून आयलें
गोंयची शान दिसान दीस
फांकत फांकत रावता ।।२।।

-बबन भगत



***





# ४८) गोयां तुजें गीत

खोशे भारान अभिमानान गंध फांकारता
गोंया तुजें गीत आयज मेकळेपणान गायता ।।धृ।।

वझऱ्यांचीं वज्रथिकां जगमगत रावता
दोंगुल्ल्यो दोळे मोडीत मुरगुटून हांसता
दर्याचें ल्हारान ल्हार मनां भुलयता
पाखें माथ्यार सैमाचें सैम फुलयता ।।१।।

देवळांचे कळसातुरे अभंग आळयता
इगर्जेच्यो घांटी हांगा मनां जागयता
मशिदी भावार्थान अल्लाची बांग दिता
शांततेचो एकवोटाचो संदेश पावयता ।।२।।

पाचवी व्हंकल माथेंभर सुरंगां माळिल्ली
कुशींत तिचे कितलीं आमी सपनां पळेलीं
उदेंतेचे तांबसाणेर भूंय चमकता
आंब्या तसो पणसांचो परमळ घमघमता ।।३।।

**-नीला तेलंग**



***



# ४९) आमची मायभूंय



गोंय आमची मायभूंय
आनी सर्गभूंय
हीच आमची धर्मभूंय
हीच आमची कर्मभूंय ।।धृ।।

रुपाक ना गा अंतपार
वेळो कितल्यो निळ्योशार
गिरेस्तकाय सैमांची
अस्मिताय दायजांची
गिन्यानाचे व्हडलें ल्हार
तीच आमची जल्मभूंय
हीच कर्मभूय...।।१।।

फेस्तां जात्रा ईद काले
एकचाराचे फुलता मळे
एकठांय येवन सौंगडी
मांडार नाचता तालगडी
कोगळाचे गोड गळे
तीच आमची मायभूंय
हीच कर्मभूंय....।।२।।

इगर्जीच्यो घांटीर घांटी
देवळांतल्यो पण्टेज्योती
सायबिणीचें पुरसांव येता
तेच वाटेन पालखी येता
जंय आमचीं जुळटा नातीं
तीच आमची धर्मभूंय
हीच कर्मभूंय...।।३।।



-अविनाश च्यारी

***



# ५०) माणकुलें गोंय



गोंयां म्हज्या माणकुल्या तूं
सामकें जरी ल्हान
तुका पळोवन धादोसकायेन
न्हिवता म्हजी तान ।।धृ।।

देखणे तुजें रूप तरणेपणातलें
गोरें गोमटें सुशील शिरवंत कुळांतलें
घराफुडलें वृंदावन तूं
व्हडलो तुका मान ।।१।।

शिरवंतांल्या कुळांत तू अपुर्बायेचें
दरएकल्याचे मायेचें काळजागोंड्याचें
जुवारी आनी मांडवी तुजे
सोबीतकायेक दान ।।२।।

पायांत तुज्या घुंगूर दर्यारायाले
धुडसा घालूंक आंगण मांडवीबायेलें
मोतयांनीच मंडला तुजे
पानायेदे कान ।।३।।

सभाव पळोवन भारावता लाखमोलाचो
तुकाच गावला खरो हो मंत्र जीणेचो
उकत्या मळार व्हांवत्या झऱ्यार
न्हावचें हांगा न्हाण ।।४।।

**-सुनील पालकार**







# ५१) मुळदेवी कुळदेवी



दरएकल्याच्या रगतांत आसा
एकूच आस एकूच ध्यास
खंयचेय दिकेक पावले तरी
सदांच वोंठार कोंकणी भास

कोंकण मायेचे मायेन वाडले
मतीन ज्ञानान सारके पिकले
मोग आनी मोगूच दिवपी
गोंयकारांची दिसता रास

शिकून सगलीं सुजाण जालीं
झाडां वालींकय म्हणटात आपलीं
बरे संस्कार बऱ्या गुणांनी
सगलेच घेतात मेकळो स्वास

तरनाट्यांचे तरनाटेपण
शांतीकायेचें आमचें धोरण
दुबळ्यां गणांक दान आमचें
रगत आनी मास

तूच आमची मूळ देवी
इश्ट आनी कूळ देवी
रंद्रारंद्रांत आसा आमच्या
तांबडे मातये वास

**-एडना वाझ**



***





# ५२) अप्सरेचें रूप

काळजाच्या खडपाचेर
मूर्त आमी कोरांतली
अप्सरेचें दिवन रूप
सरुपाय सजयली

पळोवन देखणे रुपणे तुजें
सगलें जग भुल्लूसलां
आतां तुज्या सरुपाचेर
नवी फांतोड उदेल्या
दरएकाच्या आंगणांत तुवें
दिव्य फुलां फुलयलीं

सोबीत सुंदर गोंया तुजे
उदरगतीक आयला नेट
वचतथंय पाचवेंचार
व्हंकले वरी दिसता झेत
कितलीं तरी संवसारांतलीं
मोगान मनां भिजयलीं

विधात्याचें धन तूं गो
गोंयां म्हज्या वसुंधरा
रैताची स्फूर्त तूं गो
दुर्गा तूंच तूंच मीरा
हावेस आमचे मजबूत आसात
जरी कितलेय आयले कली

**-पॅट्सी पेरेरा**



***



# ५३) वीर गा



शेतां भाटां वसयतल्यानो
गोंयचे तुमी वीर गा
तुमीच हांगचे संत आनी
तुमीच हांगचे पीर गा ।।धृ।।

तुमीच बरे शेजारी
तुमीच खरे झुजारी
तुमीच भुंयचे राखणे आनी
तुमीच चंद्र सुर्य गा ।।१।।

ज्ञानी आनी पंडीत तुमी
शांतीचे दूत तुमी
आपलें गीत आपले भाशेन
गावपी तुमी कीर गा ।।२।।

थंड शितळ प्रांताचीं
कुपां तुमी पावसाचीं
घसघशांतल्यान व्हांवतलें
अमृत आनी नीर गा ।।३।।

धतरिचें पाचवें तुमी
निसर्गांतलें आतवें तुमी
फुडाराची मोख तुमची
अर्जुनाचो तीर गा ।।४।।

-अतुल र. पंडित



***



# ५४) सुंदर गोंय



गोंयकारांनो म्हज्या गोंयकारांनो
उठात बेगीन उठात
भासभूंय काडूंक वयर
तुमचो हात दियात ।।धृ।।

गोंय आमचें माणकुलें
संस्कृतायेन भरलेलें
नितळकायेन सजलेलें
देखाव्यानी न्हेसलेलें
आमोरेचेर चान्नें शिंपीत
येता चंद्रकांत ।।१।।

सुपुल्लें गोंय गोंयकारांचें
दर्या आनी दोंगुल्ल्यांचें
झुजाऱ्यांचें खेळगड्यांचें
लेखकांचें गायकांचें
सुखा झेलीर झेलत रावता
सगळी मनीसजात ।।२।।

गाजता सूर दर्याचे
गीत हांसत्यां ल्हारांचें
कश्टी जिवीत खारव्यांचें
मनात भिरें पारव्यांचें
परमळाचीं फुलां शिंपीत
न्हेसून येता रात ।।३।।

मोरपाखां गोंया माथ्यांत
होंवयो गायता कणसां शेतांत
कीर्त जोडूंक संवसारांत
मारुया बुडी समुद्रांत
दिका दाखोवंक आमच्या मनांत
हजार सुर्यकांत ।।४।।

-शंकुतला भरणे



***



# ५५) गोंयचे फाटीर



वाट चुकिल्ल्यांक वाट दाखयता
हातांत ताचो घेवन हात
अनाशितांक आसरो दिता
आपलीच म्हूण मनीस जात
माये-मोगान संवसाराचो
गोंयचे फांटीर भोंवता हात ।।धृ।।

असले मायेस्त आत्मे हांगां
मनशा रूपान जल्मांक येता
पेजे निवळ मागलो जाल्यार
जेवणां ताट हाडून दिता
दुयेंत तशे पिडेस्तांक
मदत करूंक मुखार हात ।।१।।

सत्वगुणी मनशां हांगा
सत्याचीच धरता कास
आपुलकीचें नातें हांगा
काळजाभितर करता वास
वायटाकाराच्या उशाकडें
बसून सारता सगळी रात ।।२।।

आसूं खंयच्याय परदेसांतलो
आमच्या गोंयांत आमचो तो
दुस्मान जरी आसलो व्हड
आमगेर आमचो सोयरो तो
आसूं ताची आसली जाल्यार
काळी गोरी कात ।।३।।

**-सुनील पालकार**



***



# ५६) गोंयां येयात



गोंय आमचें गोंय आमचें
पाचव्या पाचव्या सैमाचे
वाऱ्यार धोलपी तालार चलपी
ताल-सुरांचे माचयेचें ।।१।।

ये ज्याल रे येरे ज्याल
कुलासालें शिंज्याल
दर्यविळेर तांबड्या माडाक
कळशायेदे नाल
व्हल्या व्हल्याक ताल सूर
तांडेल गितांचे ।।२।।

वेळेचेर बांदतात घरां
ल्हान तशीं धाकलीं पोरा
मंद चालीन वेळेर येवन
गायता गितां दर्या ल्हारां
जायत्यां जाणांक लागता पिशें
सुर्य न्हाणांचें ।।३।।

येयात येयात गोयांत येयात
नुस्त्या हुमणां सुवाद घेयात
निसर्गाचो आनंद घेवन
खावन जेवन तृप्त जायात
रुची खातीर घेवचें कोप
काजू फेणयेचें ।।४।।

-येली फर्नांडिस



***



## ५७) गोंय हें नांव गोड



गोंय, आमचें नांव गोड
आमच्या गोंयात पुण्याय चड
आमच्या गोंयची सासाय व्हड ।।धृ।।

न्हयो बांयों दर्या सागर
राखतात आमी आमचे आगर
कूड रचतल्याक दितात पड
गोंय आमचें नांव गोड....।।१।।

भाटकार मुंडकार जातात एक
कसतात शेतां दितात देख
खांडयां मुडयांनी आमची जोड
गोंय आमचें नांव गोड ...।।२।।

जाणटे-नेणटे बारीक मोटे
चंवराक हाडटात रानां खुंटे
बऱ्या कर्मान जातात व्हड
गोंय आमचें नांव गोड...।।३।।

सान आमी जातले म्हान
जाणट्यांक आमच्यां दितले मान
गिन्यान जोडूंक आमची मोड
गोंय आमचें नांव गोड...।।४।।

-सौ. शैला प्र. प्रभूदेसाय



***



## ५८) जय गोमंतका



जय गोमंतका जय गोमंतका
पयलें नमन आमचें तुका
किर्तीन तुवें व्यापल्यात दिका ।।धृ।।

मनभुलोवणे हांगचे देखाव
संवसाराचेर तुजो प्रभाव
फुलांफळानी चंवरल्यात गांव
चंवरल्यात त्यो चारूय दिका ।।१।।

पाचव्या पाचव्या दोंगुल्ल्यांचें
निळ्या निळ्या दर्यांचें
वांकड्या तिकड्यां वझऱ्यांचें
अप्रूप तुजें आमकां ।।२।।

भूंय गोंयची पुण्यायेची
शांतादुर्गा मंगेशाची
परशुरामाच्या घामाची
शांती दुता साळका ।।३।।

**-राखी म्हाळशी**



***



# ५९) आमी गोंयकार



गोंयकार गा आमी गोंयकार गा
पाशाणांत आमचे रुपकार गा
मनीसपणांचे भक्तीवंत आनी
अयुंसेचे आमी राखणे गा ।।धृ।।

पारतंत्र्यांत कांडले आमकां
संस्कृतायेंत पिडले आमकां
जायते जायते घडले विध्वंस
तरी पूण आमी तरले गा ।।१।।

आदर्शांतले आदर्श जावचे
आंगा-आंगान पावन जावचे
काळजा कुडींत पेटती आमचे
परमात्म्यांची जोत गा ।।२।।

व्हांवलें उदक अस्तीत्वाचें
पडले वांटे संस्कृतायेचे
एकचाराचें गीत आमी
समर्थपणान गायलें गा ।।३।।

आमच्या राज्यांत आमी राजा
सलाम तुका सलाम ध्वजा
सुपुल्ले हे भुंयेर आमी
आमचें दायज राखलें गा ।।४।।

**-प्रीती वसंत कांसार**



***



## ६०) संगम



पाचवें गोंय हें सितेचें
श्रीकृष्णाचे गितेचें
मांडवी आनी जुंवारीचे
मंद म्होंवाळ चालीचें ।।धृ।।

न्हंय व्हाळांचो संगम हांगा
उतरा पावलाक मंगल हांगा
स्वरूप सदां पळोवपाचें
मोग आनी त्यागाचें ।।१।।

सानुलें तें सैमा गोपांत
सुर्य चंद्र वयल्या कुपांत
दर्या वेळो निळ्यो न्हंयो
वझरे ल्हारां गितांचें ।।२।।

कश्टां पांवळ्यो घामांच्यो
भांगराच्या त्यो मोलाच्यो
मनीसपणान पायता रीण
आपले माये मातयेचें
।।३।।

शांतीचें राज्य हें
कीर्तीवंत तेज हें
कुबेराचें कूळ आनी
लक्ष्मीच्या धनाचें ।।४।।

**-विजय शेटगे**



***



# ६१) आमच्या गोंयात येयात



येयात आमच्या गोंयात येयात
दर्यविळो पळोवंक येयात
पाचवें पाचवें सैम आनी
भांगरा देवळां पळोवंक येयात ।।धृ।।

आमच्या गोंयात जायां मळे
आंब्या रुखार कोगळां गळे
रंगयाळे फुलां कळे
आमच्या गोंयात पळोवंक येयात
दोळे भरून पळोवन घेयात ।।१।।

आमच्या गोंयांत पाचवी शेतां
वाऱ्यार धोलता भाता कणसां
भात खायत गावपी शेवणी
गांवच्या शेतात पळोवंक येयात
गितां ती आयकूंक येयात ।।२।।

आमच्या गोंयांत चिंचेबोटां
आंबट गोड आंबलेगोटां
पिकलेल्या आंब्याफळार
चानयांची कोरीव कामां
आंबेवनात पळोवंक येयात ।।३।।

**-सुभाष परवार**



***



## ६२) मेकळीं मनां



व्हडविकायेन भरल्या आयज
गोंयकारांचीं मेकळीं मनां
जिवाक सुकून मेळटा पळोवन
वेळो तशी पाचवीं रानां ।।धृ।।

परक्यांचो शेक हांगा
जायतीं वर्सां घणघणलो
स्वातंत्र्याचो गळो तेन्ना
मंत्र जिवीं उलयलो
आयकूंक येता शेवणी रुखार
स्फूर्ती गितां गायतना ।।१।।

जांबावलेचो गुलाल हांगा
मनाक हाडटा उमेद व्हड
व्हडले गोंयच्या सायबा फेस्ताक
एकचाराचो घडटा मेळ
पळोवंक मेळटा धर्म जाती
हातांत हात घालतना ।।२।।

अठरा जुना दिसा सगळीं
काळजां वयता उचंबळून
इतिहासिक दिसान ह्या
जायतें आमकां दिलां हाडून
आयचो दीस दाखयतल्यांक
आमची मानवंदना ।।३।।

**-अमिता ग. गावणेकार**



***

## ६३) खण सोबीतकायेची



भूंय गोंयची भांगराची
खण ही सोबीतकायेची
माणकां मोतयां खोंटल्यानी
शेतां-भाटांचे पिकेची ।।धृ।।

गायत गायत व्हांवतात वझरे
भूंय व्हडल्या गर्भाची
मना मनांत चिंतना हांगा
चिंतना मोगान चलपाचीं ।।१।।

भूंय गोंयची कर्तृत्वाची
हावेस आनी उमाळ्यांची
गोंयकारांच्या वावरान आतां
शीम हुपल्या संवसाराची ।।२।।

शांती सवसकाय पुजतात सगळीं
भास हांगा काळजाची
पांयार तिच्या अर्पण करता
फुलां आमच्या मोगाचीं ।।३।।

**-महेश पारकार**



***





## ६४) गोंय

गोंय आमचें शांतीकायेचें
व्हडांचे व्हडवीकायेचें
मेकळें संयम मेकळी मनां
भाग्य हें गोंयकारांचें ।।धृ।।

गोंय जरी धाकटुलें
मांडवी कुशीक वसलेलें
सदांकाळ म्होंवें हांशें
दुदाळ फेसाळ ल्हारांचें ।।१।।

व्हंकले वरी न्हेसलेलें
सगुणानी भरलेलें
व्हांवता हांगा वारें सदां
मनिसपणां जैताचें ।।२।।

व्हडवीक आसा भाशेची
धालो मांडे देखणेची
संगीत आनी सुरांचे
सरस्वतीच्या भक्तांचें ।।३।।

-रुपा वी. जोशी



***



# ६५) भारतमाते पूत



भारतमाते पूत आमी
भारतमाते पूत
आमचे भुंयेची राखण करपाचो
घेतला आमी सोपूत
भारतमाते पूत आमी
भारतमाते पूत

हेच भुंयेंत आमी जल्मले
बरें वायट आमकां समजलें
भारत आमचें सूख
भारतमाते पूत आमी
भारतमाते पूत

महात्मा गांधी जवाहरलाल
देश उबारूंक सोंसले हाल
शांतीचे हे दूत
भारतमाते पूत आमी
भारतमाते पूत

देशाचे आमी भुरगे ल्हान
गरज पडल्यार दितले प्राण
ऊठ जणेका ऊठ
भारतमाते पूत आमी
भारतमाते पूत

**-भरत नायक**



***



# ६६) गीत येवकाराचें



येवकार आमी दितात
मायेमोगाचो आपुलकायेचो
येवकार आमी दितात ।।धृ।।

हिंदु ख्रिस्तांव मुसलमानाचो
एकवट हो आमचो
मनिसपणाचें गीत गावपी
सूर हो आमचो ।।१।।

संस्कृतायेची जीण आमची
जपून आमी दवरची
सैमाची रीत प्रितीची
तिगोवन आमी दवरची ।।२।।

पेटोवया मनांत आमच्या
वाती ह्यो प्रेमाच्यो
जळट्यो सदां दवरुया
जोती ह्यो भावनांच्यो ।।३।।

**-रेवणसिध्द नायक**



***



# ६७) अस्मितायेचें गोंय



सर्वय सैम न्हेसलेलें
व्हंकल सुंदरी गोंय
पाचव्या कोरान नटलेलें
सपन सुंदरी गोंय ।।धृ।।

दोंगर दोंगुल्ल्यो, शेवण्या भिरीं
न्हंयो बांयो तळयो झरी
नीर निरामय अमृत रसान
उपाट भरिल्लें गोंय ।।१।।

फुलां फळांचें, झाडां पेडांचें
जायो जुयो, शेंवत्या मोगऱ्यांचें
पाचवें निळशें पिंगशें तांबशें
रंगरगयाळें गोंय ।।२।।

मिना खणींचें, मिठागरांचें
खाजना मुशीचें, नुस्त्या मानशिंचें
भांगरा रेंव आनी मोतयां थिकांचें
दर्या वेळांचे गोंय ।।३।।

बुदवंतांचें कुळवंतांचें
संत कवी ऋषी मुनींचें
विज्ञान आनी सज्ञानाचें
सुनापरांत गोंय ।।४।।

-अशोक नायक



***



## ६८) एकचार भावचार



सुरांत सूर आमी मेळयला
एकचार भावचार वाडयला
सैमान दिल्लें सैम देणें
आजून आमी तगयलां ।।धृ।।

निसर्ग आमची देखणी नदर
निसर्ग आमची व्हडवीकाय
निसर्ग आमची निवळ मनाची
निवळ तनांची अप्रुपाय
तांबड्या तांबड्या दोंगरा मुळांतले
मातयेंत शेत पिकयलां ।।१।।

काळीज गोंयचें म्होंवाळ गंधीत
गंध फांकला दर्या पार
कीर्त गोंयच्या किर्तीवंतांची
पावल्या सात समुद्रांपार
मांडवी जुंवारी गोंयच्यो सुपुत्री
भिरंड रंगान रंगला ।।२।।

नदरेंत गोंयचे निवळ निळसर
कांयच ना गा दुशीतपण
मळां-मळांतल्यान फुडेंच चल्ले
पूत धुवो गाजयत रण
धतरिवयलें प्रत्येक झूज
मोगान आमी जिखलां ।।३।।



**-सुविना पालकार**

***



## ६९) मांडवीचे पाचवे देगेर



मांडवीचे पाचवे देगेर
आंब्याचे सावळे तळा
चानयांचे खेळ पळेत
पिकीं घोटां मेजीन हांव
केन्ना गोंया, केन्ना गोंया? ।।धृ।।

पोरण्यो यादी चाळीत चाळीत
खुंटित कंवळीं खावचीं पाना
कुळागरा-झरी उदकांत
दोनूच दुकां गळयन हांव
केन्ना गोंयां, केन्ना गोंया ।।१।।

दर्याचो फेणेर गोंडार
काळसांवळ्या झेलीत आंगार
हांसत, मोडत ल्हारां वांगडा
कुशींत तुजे रिगन हांव
केन्ना गोंयां केन्ना गोंया ।।२।।

उज्यावरी घाय गो तुजे
दूख तुजें धुंवरावरी
दसणी-फुलांवरी दुकां
काळजा-पडग्यांत वेंचीन हांव
केन्ना गोंयां केन्ना गोंया ।।३।।

सोपली रात, जागलो दिस
बंडाचो पेटलो सूर्य
पाचव्या तुज्या झुजामळार
केम्प कसो सोबन हांव
केन्ना गोंयां केन्ना गोंयां ।।४।।

**-डॉ. मनोहरराय सरदेसाय**



***





# ७०) सर्गांतलें राज

गोंय म्हजें तरणेपण
विलुदाचें पान कशें
गोंय म्हजें चकचकीत
सर्गांतलें राज कशें ।।धृ।।

काळीज गोंयच्या दोंगरांचें
फूल जशें दसणेचें
काळजा मळ्यांत पळोवचें
मनिसपण मनशांचें
भारताचे भुंये मदीं
तळ्यांतलें साळीक कशें ।।१।।

दर्याराया गाजयता
मृदंगांचे ताळ हांगां
सुर्या पळोवन तटासता
मांडवीची चाल हांगां
मिनाच्यो खणी ताचे
तांबडे तांबडे वोंठ कशे ।।२।।

परशुरामान निर्मिलेली
भूंय ही गा कलेची
संवसार सगळो भुलतात हीका
भूंय ही गा मोगाची
भारताचे कुशीतलें
सानुल्लें तें भुरगें कशें ।।३।।



**-सुनील पालकार**







# ७१) गोंयचें गीत गायन दिसता

सुरांवरी सूर जावन
दिस-रात वाजन दिसता
गायन दिसता गोंयचें
गीत गायन दिसता ।।धृ।।

भांगराचें कूप जावन
गोंयचें माथें सजयन दिसता
चुडटांचीं पाखां लावन
गोंयभर उडन दिसता
पुनवेचें चान्ने जावन
रांगोळ्यानी खेळन दिसता ।।१।।

उटंगरा पावस जावन
गोंयचे भुयेंत रिगन दिसता
विलोदाचे वेळेर लोळून
घुलयांवरी न्हायन दिसता
दर्या रेंव दर्यांत खिरोवन
घटाघटा पियेन दिसता ।।२।।

काळजाचो तासो करून
बरगड्यानी बडयन दिसता
शिरो सोडून ताणून बांदून
गिताराचेर वाजयन दिसता
गोंयच्या तालार गोंयच्या रागान
गोंयचें सैम धोलयन दिसता ।।३।।

-भरत नायक



***





# ७२) गोंय म्हजें मोगाचें

गोंय म्हजें मोगाचें
मळबा पोंदा नंदता
दुस्वासांचे स्वास हांगा
सदांच अंदतात ।।धृ।।

माड माडयो जावन येता
मळबिचे रे दूत
एकचाराक पुजता हांगा
गोंयचे धूव पूत
फुटून वचूं फूट
परजैत येंव अंता
गोंय म्हजें मोगाचें
मळबा पोंदा नंदता ।।१।।

गर्जतात इगर्जो रे
मोग सर्गिंचो
सगळीं सवळीं देवळां दिता
हात उर्बेचो
दुस्वासाचें दुयेंस हाडूं
मोगा ओघान अंता
गोंय म्हजें मोगाचें
मळबा पोंदा नंदता ।।२।।

-रमेश भगवंत वेळुस्कार



***



# ७३) तुजेंच गा



उक्त्या मळबार सुरेख तालार
खारव्यां गायन तुजेंच गा
ल्हारार ल्हार खेळटा तालगडी
रेंदरा गायनय तुजेंच गा ।।धृ।।

फांत्या पारारी कोंब्या सादारी
शेतकार हांगचे पावता बांदारी
पावसा वतांत धरता नांगर
तेवूय कश्ट तुजेच गा ।।१।।

मांडो धालानी कोंकणी गितां
कोगूळ साळोरीय कोंकणीन गायता
दोंगर शेतांनी म्हणटात होंवयो
तिवूंय गितां तुजींच गा ।।२।।

शिगमो काल्यानी चलतात नाच
काजरा माटवानी नाचतात दांस
जागरा मांड सोबयतात संवगां
तेंवूय नाचप तुजेंच गा ।।३।।

**-सुनील पालकार**



***



## ७४) सोबीत भांगरा फूल



गोंय आमचें गोंय आमचें गोंय भांगराचें
गोंय आमचें गोंय आमचें गोंय भांगराचें ।।धृ।।

धतरिच्या आंगावेलें सोबीत
भांगरा फूल
भारताच्या देगेवेली सोबीत
रुप्या धूळ
गोंय आमचें गोंय आमचें गोंय सासणाचें
गोंय आमचें गोंय आमचें गोंय भांगराचें ।।१।।

मायभुयेन भोगलें दूख
परकी सत्तेचें
मायभुयेन राखून धल्लें
सत्त्व आपणाचें
गोंय आमचें गोंय आमचें गोंय त्यागाचें
गोंय आमचें गोंय आमचें गोंय भांगराचें ।।२।।

पारतंत्र्य सोंपून गेलें
मुक्तताय जाली
आमचें राज्य आयलें आयलें
खोस परमळ्ळी
गोंय आमचें गोंय आमचें गोंय मोगाचें
गोंय आमचें गोंय आमचें गोंय भांगराचें ।।३।।

-आशा अ. माणगुतकर



***





## ७५) हे माये

हे माये अस्मिताये
तुका ही होरावणी
उर्बा दिणी अमृतवाणी
जैतीवंत कोंकणी ।।धृ।।

तुज्या शिरंतरां
शितळकाये कुळागरां
मांडवींत जुवारींत
चैतन्याचीं ल्हारां
धायदिकांक जागयता रे वसुंधरा ।।१।।

तुजे दिव्य सासायेन
जिणेक तेज दिलां
आत्मविस्वास जागयत
तना-मना घटाय दिल्या
तुजें संगीत खेळोवंक
घोळय गळ्यांत सात सुरा ।।२।।

आत्म्यांचें सत्व आमकां
तुजे कृपेन होलमलां
मना आंगणां परमळू
वंवशी फुलां
रिगय तुजी संजिवनी
जंय जंय पावल्यां तुजीं मुळां ।।३।।

-पुर्णानंद च्यारी



***





# ७६) व्हांवत्यो झरी

गोंयां तुज्या मळबा पोंदा, लोकवेदाच्यो व्हांवत्यो झरी
रुतूंचे पिकतात मळे, फेर धरून नाचतात नारी ।।धृ।।

शितळ गंधी चान्न्या लेपांत, धालांच्यो धोलतात पाती
अस्तुरेच्या काळजांत खोस, मांड जागयत रातीन राती
वसंताच्या परमळांत, धोल ताशे घणघणटात
ओऽऽऽसोयऽऽऽच्या धूंद तालार, पावंलांक मेळटा गती ।।१।।

आपालिपा श्रावण सरी, मळबा माचयेर रंग सारी
सप्तरंगी मना मनांत, फुगड्यो हांगा फेर धरी
दर्या गाजार धोलता माड, रेंदरा जिबलेर कांतरां
धुलपदां फुलता ओंठार, माड्यो घुमता वाठारी ।।२।।

जागरा मांडार घुमटां तालार, संवगांचीं गायता मुखां
रणमाल्याची जोत हांगा, सितेचींय पुसता दुकां
गोफ आनी तालगडी, तोणया मेळ लग्न गीतां
गोंयच्यां गांवा गांवानी, सुवाळ्यानी रकता सरी ।।३।।

**-प्रकाश पर्येकार**



***



# ७७) कोंकण



कोंकण आमचो देश
आवय कोंकणी भास
आमी सगलीं भुरगीं तीचीं
भाव-भयणां खास ।।धृ।।

चंद्र सुर्या लखलखता
दर्या गाज गाजयता
कोगीळेच्या म्होंवाळ सादान
गोपांत आपल्या आपयता
गांवा गांवांत शारा शारांत
चंदनाचो वास ।।१।।

भावपणांचो बोध हांगा
अस्तित्वाचो सोद हांगा
हात जोडून सदां उबो
अंतरांतलो अनंद हांगा
काळजा काळजांत मोग आनी
मनांत आसा ध्यास ।।२।।

वारो हांगचो शितळ नितळ
उदक तिर्था न्हाण
दुदसागर दूद वझऱ्यान
शिंपीत आसा प्राण
सगळीं आतां मेकळीं तोडून
बंधनाचे पास ।।३।।

एकाच तारवार सगलीं जाणां
सोदूंक नवी पात
गावया हेंच गीत आतां
हातांत घालून हात
मांडा मांडार खेळटा हांगा
कृष्ण राधा रास ।।४।।

**-बयाभाव**





# ७८) पांचव्या रुपाचें



पाचव्या पाचव्या रुपाचें
निर्मळ निर्मळ मनाचें
गोंय आमचें, गोंय आमचें, गोंय आमचें ।।धृ।।

गोंयांत आमच्या घुमटांचे ताल गा
गोंयांत आमच्या ल्हारांचे गाज गा
कोगळांच्या सादाचें, रेंदरांच्या कांतरांचें
हात्यावरी हातांचें, नर्तकीच्या पावलांचें
गोंय आमचें, गोंय आमचें, गोंय आमचें ।।१।।

गोंयांत आमच्या सुर्याचें तेज गा
गोंयांत आमच्या चान्न्याचो गंध गा
दोंगरांच्या काळजाचें, दर्याच्या ल्हारांचें
भांगराच्या वेळांचें घुंगरावरी घुलांचें
गोंय आमचें, गोंय आमचें, गोंय आमचें ।।२।।

तव्ळ्यांतल्या साळकांवरी शांततेचें
चान्न्याचे रातीवरी शितळतेचें
नागिणीचे चालीचें, भोंवरांच्या गितांचें
कवीच्या कवनांचें, कुबेराच्या धनाचें
गोंय आमचें, गोंय आमचें, गोंय आमचें ।।३।।

**-सुनील पालकार**



***



# ७९) भांगराळें नांव



गोमंतभूंय नामनां तुजीं गे भांगराळें हें नांव
नक्षत्रांचीं घरां उजळ तुजे सयेंतले गांव
दारांदारांनी चाफीं मोगरीं गुलाब फुलता पळय
माळेंत एके भौस रासवळ एकचाराची दुल्हय
दायजां आमचीं सैमभुयेचीं संस्कृतायेचो भाव ।।धृ।।

रुखारुखानी शेवणी गायतात खुशालकायेचें गान
कळयो हांगच्यो मोगरे हळयो इतिहासाचें पान
पेट्ट्यो दवरूंक पवित्र मशाली हात सानांचे म्हान
आवयभुंयेची माती उलयता देखीक पाचवें रान
सवाशिणीलो कपलातिबो सासवंत सदां जावं
गोमंतभूंय नामनां तुजीं गे... ।।१।।

निळी निळाय दर्या गाजता हांसयाळीं हीं ल्हारां
येवकार दितात मायेमोगाचो माडमाडयांचीं चंवरां
दुदा धारो दोंगर वझरे कुळागरांतलीं भोवरां
नितळ निवळ म्हालवजाचीं दाट सैमाचीं घुंगरां
रक्षूंक मोलादीक दायज राखण्याले हात सिध्द जावं
गोमंतभूंय नामनां तुजीं गे... ।।२।।

जोडी खातीर शिंपडून गेल्यात भुरगीबाळां शाणीं
भुजां फडां पर्वत-दोंगर तुजीं सैम गाणी
पाचवेपणाचो पाचवो शालू रसाळ तुजी गे वाणी
सौभाग्याचे कांकण-चुडे हे सासवंत तुका जावं
गोमंतभूंय नामनां तुजीं गे...।।३।।

-सौ. शैला प्र. प्रभूदेसाय



***





## ८०) नवें गोंय

आयज आमकां खोस जाता
वाचूंक बरोवंक शिकलीं आमी
फुडार परजळीत करूंक
आमीच आमचे गा धनी ।।धृ।।

एकवोटाचें गावया गीत
पोल्या पोल्यार फुलोवन प्रीत
उदरगतीचे वाटेर
दर एकलो राजा-राणी ।।१।।

शेतांभाटानी मोतयां पिकोवया
ल्हाराल्हारानी माणकां गरोवया
धुंद अशे जावन आमी
वोंठा वोंठार नवलां वाणी ।।२।।

सैमाक दिवंया येवकार
सपनां आमचीं करुंक साकार
नवें गोंय नवो भारत
फुल्ला आयज कणाकणानी ।।३।।

**-डॉ. भिकाजी घाणेकार**



***



# ८१) करात जयजयकार



लाख तोंडांनी लाख हातांनी
करात जयजयकार
स्वातंत्र्याची घुडी उबारली
करात जयजयकार ।।धृ।।

मुक्त गोंयची नबत वाजतना
निळें मळब हांसलें
मंद वारें कळीत करतना
केरवो नाच नाचलें ।।१।।

पुराणकाळांत हे भुंयेची
आसली भोव ख्याती
गौतम रुशीचो आश्रम हांगा
आसलो अशें म्हणटी ।।२।।

कोंकणी भाशीक गोंयकारानो
मेकळ्या ताळ्यान सांगात
गोंयमायेची व्हडवीक गावया
हातांत घालून हात ।।३।।

**-विजयाबाय सरमळकार**



***




# ८२) मोगाळ म्हज्या गोंयकारांनो

मोगाळ म्हज्या गोंयकारांनो
गोंयचें गीत गावया
भांगराच्या आयच्या दिसाक
नमन करुया ।।धृ।।

रगताचो घालून सडो
बरयलो उजू धडो
उपवासांचो पावस जावन
चंवरायलो वाड्यान वाडो
तकली बागोवन आयज तांचो
उगडास जागोवया ।।१।।

धर्म भेद जाती-पाती
तोडच्यो ह्यो नश्ट्यो रिती
गंगेच्या लोटावरी
मनीस जीणेक मेळची गती
सतारेच्या झंकारांतल्यान
सूर आळोवया ।।२।।

अपरान्त हें भांगराचें
रूप जशें व्हंकलेचें
आबोलेचे बोल आनी
मोगरेच्या वासाचें
परत परत ताका आमी
प्रणाम करुया ।।३।।

**-माया खरंगटे**





# ८३) युगांतरां नातीं



लोकवेदांचें वेदांग हांगच्या
पाचव्यां पाचव्यां दोंगरां
नर्तकीवरी दरया वेळो
नाचतात बांदून घुंगरां ।।धृ।।

कुडी कुडींतले दिव्या दिवलेंत
प्राणांच्यो पेट्ट्यो वाती
कितल्यां तरी जल्मांचीं
गोंयचे कुशींत आमचीं नातीं
पुण्यायेन पावन हांगा
सगले गांव सगलीं शारां ।।१।।

शिपाय आमी ह्या देशाचे
झूज आमचें सतकर्मांचें
दुसमानाकूय समज दिवपी
मनीस कायेचे मरयादेचें
जळींमळी मायपासाचीं
व्हांवतात हांगा ल्हारां ।।२।।

– दर्शन लोलयेकार



***





## ८४) नवचेतना

नवचेतना येता फुलून
नवकल्पना येता फळून ।।धृ।।

येतलो उदेवन भांगरा गुळो
शिंवरीत हो सगलो मळो
हो सुर्य-किरणां कळवळो
मनशाकुळा येवचो कळून ।।१।।

आसात हांगा वेगळीं जनां
हातांत हात जुळटा मनां
नीजधर्म हो ना अर्सना
वेगळेपणा वेता गळून ।।२।।

धांपून आसा जीं साळकां
बंदी आजून जीं बाळकां
कोण उरचोना ह्या काळखां
मंत्र नवो येता रुजून ।।३।।

**-पुंडलीक ना. नायक**



***




# ८५) तुजे मुखार

तुजे मुखार दुस्माना
नाच दिमी मोडचो ना
वटार दोळे, पेटय नळी
हावेस म्हजो मरचो ना! ।।धृ।।

हांगा म्हर्जी शेतां, भाटां
हांगा म्हर्जी गोरवां, जोतां
हांगाच म्हर्जी वार, मठी
अन्न, रांदन, आयदनां! ।।१।।

लागत तशे बांद पांय
तोंडाक केदोय गुड्डो लाय
हाणशी जाल्यार हाण उबो
तरीय दिमी मोडचो ना! ।।२।।

तुजे मुखार सुलताना
हांव रे पांयां पडचों ना
भूंय म्हजी, जीण म्हजी
तिका वाटावंक भिवंचो ना!
।।३।।

हुंवारी न्हंयेक आडायत कोण?
पेट्ट्या रानाक पालयत कोण?
रकली तांबशी, फांकलो दीस
गोंय रे आतां न्हिदचें ना! ।।४।।

-मनोहरराय सरदेसाय



***




# ८६) ल्हान जाले म्हान

गोंयचें नांव व्हड करून ल्हान जाले म्हान
बणखणिंचीं देवळां जालीं, लामणदिवे प्राण ।।धृ।।

रगताचें तेल करून रात जागयली
ताणीं रात जागयली
संवसाराची शांत करून तान भागयली
ताणी तान भागयली
धाय दिको गाजता तांचें फायचें यशोगान ।।१।।

जाण्ट्यांचें रीण फेडून स्राध्द चलयलें
ताणीं स्राध्द चलयलें
स्रध्देचे कोंब काडून दैव फळयलें
ताणीं दैव फळयलें
घटाय हाडली गरीब धाट्या अपंगुळा त्राण ।।२।।







कणकींतली माय आमची वयर उखल्ली
तांणी वयर उखल्ली
अवदिशेची सया सामकी पयस धुकल्ली
ताणी पयस धुकल्ली
सुटकेपयलीं जोडून दिलो घटकेवरी मान ।।३।।

जल्म उंवाळून सगळे वंश उजयले
ताणी वंश उजयले
मेल्ल्या बियांतल्यान जिवे वृक्ष रुजयले
ताणी वृक्ष रुजयले
तांचेवरी ल्हान आसून गोंय केलें म्हान ।।४।।

**-बाकीबाब बोरकार**



***



# ८७) गोवा



गोवा म्हज्या गोवा
दोंगरानी नटिल्ल्या गोवा
मिनानी भरिल्ल्या गोवा
शेतानी सजिल्ल्या गोवा ।।धृ।।

तळ्यातलें शितळ साळक
पाचव्या शेतांचें बाळक
दर्याच्यो भांगरा वेळो
कश्टी जीवांचें दवरणें
एकचाराचें पेणें
व्हकले माथ्यातले गोणे
सुख शांतीचीं बीयां
तुवें हांगाच ओंपल्या देवा ।।१।।

कामेऱ्यां मुखातल्यो व्होवयो
रेंदरा मामालें कांतार
चंद्रीम मोडटा दोळो
सुर्यान रकयल्ले भांगर
कुपांचे जाता गर्जन
जोगलांचो भरता बाजार
सुपुल्ले देखणे भुंयेर
तुजें दर्शन जाता देवा ।।२।।

कोंब्यान घातिल्ल्या सादार
साळोरी वाजयता सतार
पिंपळाचे सळसळीचेर
माडमाडयो झेलता झेतार
देखण्यो नाचता मांडार
शेतकार धोलता बांदार
सैमांतले नवरंग
गोयांत ओतल्या देवा ।।३।।

-सुनील पालकार







## ८८) प्रियतम राष्ट्रा सर्वोत्तमा



प्रियतम राष्ट्रा सर्वोत्तमा
अलौकीक महिमा
भारत-राष्ट्रा सर्वोत्तमा
यशोदीप विक्रमा ।।धृ।।

मंगल देशा वंदना
पवित्र देशा वंदना
अखंड देशा, अभिन्न देशा
सत्य अहिंसा धर्मा ।।१।।

विज्ञानाच्या शतमाना
शुध्द मानस प्रार्थना
तर्कनिष्ठतेचीं परिमाणां
भेदून वयता विणमा ।।२।।

सागर पर्वत रानां
हीमनग शेतां वनां
धनभांडारां कुबेर वैभव
जण एकल्या चंद्रमां ।।३।।

-पुंडलीक ना. नायक



***



# ८९) हिंद देवते



शांत दान्त वज्रकान्त वंद्य हिंददेवते
शक्तिवन्त दिप्तिवंत जय दिगंतकीर्ते

गगनी तुज्या पयली उषा घेवन आत्मतोष
पयलो तुज्या वनिं जननी दिव्य वेदघोष
पयलो जनी उदित तुज्या हृदयकमलकोश
भाग्यवंत पुण्यवंत तूं अशी समर्थे ।।१।।

तुकांच जालो मनशाचे दिव्यतायें भास
तुकांच लागलो मृत्युंजय सुकृताचो ध्यास
त्याच खातीर काळ तुज्यो सगळो वाग्विलास
तुकांच लागून त्राण जगा त्रिभुवनहितकर्ते
भाग्यवंत पुण्यवंत तूं अशी समर्थे ।।२।।

सगळे धर्म सगळे वंश घेतले तुवें होटी
अमृताये परस गोडी तुज्या दुदा घोटीं
देवय पसून लुब्ध जावन आयलो तुज्या पोटी
धन्य अशें स्तन्य तुजें संजीवन म्हुर्ते
भाग्यवंत पुण्यवंत तू अशी समर्थे ।।३।।

पुर्व तुजें दिव्य, दिव्य व्यायपरस फुडार
तो सचित्र गे आमच्या रथ दोळ्यांमुखार
तो घडोवंक सतत आमी जावं जिवार उदार
दी अशें अनंत धैर्य सदय वरदवन्ते
भाग्यवंत पुण्यवंत तूं अशी समर्थे ।।४।।



**-बाकीबाब बोरकार**





# ९०) मान तूं राख



ज्या देशांत तुजो जल्म जालो
जंय तूं ल्हानाचो व्हड जालो
जंय हावेस तुजो मारता उलो
त्या देशाचो मान तूं राख ।।धृ।।

जंय वावुरलो तूं समाजांत
समरस जालो वायट बऱ्यांत
वांटेकार दुसऱ्याच्या जिवितांत
त्या समाजाचो मान तूं राख ।।१।।

ज्या गुरुचो शिश्य तूं जालो
जाणे विज्ञानाचो वोतलो झरो
सदांकाळ बऱ्याक साद दिलो
त्या गुरुचो मान तूं राख ।।२।।

एकांत तुजो धतरिच्या गोपांत
फुलां फळां रुजल्यांत शेतांत
माती दिसता भांगराच्या रुपान
त्या धतरिचो मान तूं राख ।।३।।

**-डॉ. भिकाजी घाणेकार**



***



# ११) पवित्र देशा



पवित्र देशा मंगल देशा
शूरविरांच्या देशा
कोटि जनांचीं नामना घेवचीं
जय जय भारत देशा ।।धृ।।

रुशी मुनीच्या पयल्या मंत्रांत
मानवतेचीं उतरां
इतिहासाच्या पटार रेखलीं
स्वतंत्रतेचीं चित्रां
रणांगणाचेर सांगुन गेलो
भगवन उपदेशा ।।१।।

कला कलांचो चंद्रिम हांगा
किर्णा किर्णानि फुलता
महाकवीनीं महान रचलीं
तुज्या यशाचीं गीतां
कितले महात्मे दाखोवन गेले
उजवाडाची दिशा ।।२।।

वेगळ्यो वेगळ्यो भाशा हांगच्यो
वेगळीं वेगळीं रुपां
मशीद, मंदिर, इगर्ज हांगा
एकाच मळबाक तेंकता
भावभक्तिचे रस्ते पावतात
एकूच परमेशा ।।३।।

नव्या युगाची प्रभात हाडपाक
श्रमशक्तीचें दान
भारतभूंयचो एकचार घडपाक
ओंपू पांचूय प्राण
तिरंगी बावट्यार हालता धोलता
कोटि मनांची आशा ।।४।।

**-मनोहरराय सरदेसाय**



***

# १२) देश महान



देश महान देश विशाल भारत देश हो आमचो
ऋषी मुनी वीर गिन्यानी देश हो वेदांचो ।।धृ।।

अनेक पंथ अनेक बोली, अनेक हांगच्यो चाली
तरी मनान एक सगळे मानतात भूंय आपली
छत्र हिमालय माथ्यार उंच न्हंयो हांगच्यो पवित्र
सहस्त्र वर्सां इतिहास पोन्नो फुडारुय पर्जळीत ।।१।।

शूर वीर ज्ञानी विज्ञानी जागयतात नवी आस
रासवळ मळार उद्योग पिकावळ घडयतात नवो विकास
दरेक नागरीक देशाचो ह्या जावचो साक्षर सुबुध्द
उजू नितीचो बरे रितीचो धरचो सत्य पंथ ।।२।।

जाग भारता, उठ भारता कर खाशेलें तुजें कार्य
गरज तुजी सगळ्या संवसाराक मेळोवंक सवसकाय
उद्योग विकास समभाव मैत्री होच घेवन आतां मंत्र
तन-मन-धनान आयज परतंत्र कर तांकां स्वतंत्र ।।३।।



**-रामकृष्ण जुवारकार**

***



# १३) सुवर्ण भारती



सुवर्ण भारतांत सुवर्ण भारती
सवन भारतांत घडूं सुवर्ण जागृती ।।धृ।।

लोक लोक एक जावन
झडून वचूं वेरो
वायटपणा, दुस्वासाच्यो
नाळां नाकां मेरो
तायट मानेन, आयट फुलत घडूं रे जागृती
सुवर्ण भारतांत सुवर्ण भारती ।।१।।

वेद हांगा मंत्र हांगा
सुवर्ण रोयताले
सुर्य परजळान आपल्या
लोकांक आपयताले
आयले तशे लोक, गेल्यो घडून जागृती
सुवर्ण भारतांत सुवर्ण भारती ।।२।।

विंगड विंगड धर्म जरी
मर्म एक जावं
समर्थ कर्तुबान काडूं
भारताचें नांव
फळत वचूं, खेळत वचूं सुवर्ण संस्कृती
सुवर्ण भारतांत सुवर्ण भारती ।।३।।

**-रमेश भगवंत वेळुस्कार**



***





# १४) भारत भूमी

भारत भूमी धर्तरी माता
जल्म भूंय ही इष्ट देवता
तिकाच आमी वंदन करुया
गूण गान तिगेलें, सदांच
गावया ।।धृ।।

वंश वर्ण नी धर्म पंथ गा
भास भेस नी चाली रितींची
विविध रंगी-विविध ढंगी
प्रयोगशाळा जाती कातींची
संवसाराकूय देख दिवया,
गूण गान...।।१।।

साधू संतानी रुशी मुनीचें
पूर्व पुरातन नित्य सनातन
अजरंवर हें दायज आमगेलें
सोयऱ्यां धायऱ्यांक नितळ दवरुया,
गूण गान..।।२।।

हिमशिखरांचो हावेस आमचो
सागरा वरी हृदय विशाळ
मनीस कुळयेन जगपा सारकें
जग हें आमचें आमी करुया,
गूण गान....।।३।।

सोबीत सुंदर पोरसूं आमगेलें
पवित्र जिवन शिपीत वता
अदींमदी ही कंपीत जाता
भारतीयांची जिवीत गाथा
घुस्पल्ले धागे आतां
परते आमी गुंथुया,
गूण गान...।।४।।

-शंकर भांडारी



***



# ९५) सरळ मार्गान चल



वांकडे वाटेन नाका वचूं
सरळ मार्गान चल
मुखार येतलीं आडमेळीं
पयस करीत चल ।।धृ।।

नाका आनीक उजो आनी
नाका आगट्यां धग
आमचेलागीं जायतो आसा
काळीज भरून मोग
जिणेचो अभ्यास आमचो
काळजा इतलो खोल ।।१।।

कोणूय येत फुडले वाटेन
करीत काळोख दाट
सरळ उजू दोळ्यांच्या
मुखावेली वाट
मोगी त्यागी जाणांत आपले
मायभुंयेचें मोल ।।२।।

पायांत आसा बळ आनी
काळजांत व्हांवतो झरो
विश्व अख्खें जिंखूंक आमचें
अंतस्कर्ण पुरो
सैमान पोशे भरून दिलां
बुध्द आनी बळ ।।३।।

ध्येय गाठूंक अहिंसेचें
वाट आमची संवकळीची
हेच वाटेन चलत रावता
पालखी जैताची
ब्रह्मांडाचेर भोंवदी रे
मयपासाची वाल ।।४।।

**-भरत नायक**



***



# ९६) भारत भुंयचे शिपाय आमी



भारत भुंयचे शिपाय आमी
राखण आमचें काम
तिरंगी बावटो वयर उबारुन
कोटी कोटी प्रणाम
जय भारता- जय भारता- जय भारता ।।धृ।।

सुजलम् सुफलम् धर्तरी आमची
हिमालयाची शान
हिंद समुद्र गाज आयकून
शिंवरता पानान पान ।।१।।

हुतात्म्यांनी त्या जिवीत ओंपलें
जाले अमर जवान
भूंय कसतना हूम गळोवपी
हांगचे कश्टी किसान ।।२।।

मातृभुंयेचें दायज राखतना
एकूच आमकां आस
किर्त फांकची तिची संवसारांत
इतलोच आमचो ध्यास ।।३।।

**-विजयाबाय सरमळकार**



***



# ९७) शुभंकरा



हे भारताSSS जय जय भारता
शुभंकरा तूं हे जय भारता ।।धृ।।

तुजें प्रेम रे बंधुत्वाचें
तुजें तत्व रे स्वातंत्र्याचें
तुजें चित्त रे समानतेचें
लोकशायेच्या ह्या पांवड्यार
जैतिवंत तूं हे जय भारता ।।१।।

अहं ब्रह्मास्मी तुजोच नाद
विश्वशांतीचो तुजोच साद
एक ब्रह्म हें सत्य चिरंतर
ब्रह्मकार विश्व निरंतर
ॐकारा तूं हे जय भारता ।।२।।

इतिहासाचीं पानां गायता
कर्मयोगाची श्रीकृष्ण गिता
साधुसंतांच्यो भक्तीगाथा
शाहीरानी गायली शिवकथा
स्वतंत्रता तूं हे जय भारता
।।३।।

**-आशा अ. माणगुतकार**



***



## ९८) हिन्द देश



निळे नदरे मळबाचो
समींदरा काळजाचो
हो हिन्द देश आमचो ।।धृ।।

हांगा रामायण आदर्श किल्लें
हांगा महाभारतान स्पुरण फुकलें
हांगा कृष्णाचें गोकूळ नंदलें
म्हान म्हान दायजांचो
दायजांच्या स्फुर्तिचो
स्फुर्तिवंत इतिहासाचो
हो हिन्द देश आमचो ।।१।।

हांगा सप्त सिन्धूंचो संगम
हांगा हिमालया चुंबीती अंबरम्
हांगा खिणा-खिणा चैतन्याचो उगम
पाचव्याचार दोंगरांचो
दोंगरांतल्या दुदाचो
दुदांतल्या सादाचो
हो हिन्द देश आमचो ।।२।।

हांगा जैताची झुजां जालीं
हांगा त्यागाच्या रगतांत भूंय न्हाली
हांगा हाडांची सर्त जाली
हांगा प्राणांची चूड जाली
मुक्तीच्या संग्रामाचो
स्वातंत्र्याच्या भेसाचो
हो हिन्द देश आमचो ।।३।।

-पुर्णानंद च्यारी



***



# ९९) पुराय स्वतंत्रताय



भारतभुंयेचो सुवर्ण इतिहास पुर्वजांची सासाय
स्वतंत्रताय, स्वतंत्रताय पुराय स्वतंत्रताय ।।धृ।।

जल्मभूंय ही, कर्मभूंय ही युगपुरुशांची
शास्त्रभूंय ही, धर्मभूंय ही आदर्श त्रिकाळाची
गणतंत्र जंय बीजमंत्र, सार्थ पवित्रताय
पुराय स्वतंत्रताय.....।।१।।

बंदखणीची होमखणां, जिबोळ्यांचे उजे
अखंड बंड करीत पेटले असंख्य देश दिवे
धरती आनी सर्गामदें एक मळब दुराय
पुराय स्वतंत्रताय....।।२।।

शेताशेतांत भांगरा नांगर पात्रताय पूर्णताय
कोट किल्ले भावार्थ निश्ठा सत्याची गवाय
धनुर्धराचो असूर संहार एकचाराची बडाय
पुराय स्वतंत्रताय....।।३।।

-भरत नायक





# १००) निर्मळ थारो



जंय पांय म्हजे रुतल्यात, तो निर्मळ थारो म्हजो
जंय शांती अहिंसा नांदता, तो भारत देश म्हजो ।।धृ।।

सत्यवादी निश्टावंतानी सत्य रुजवणेक घडलां
सत्यम् शिवम् सुंदरम्‌चो अर्थय हांगाच लागला
जंय सत्याची जतनाय करता तो भारत देश म्हजो ।।१।।

हिमालयाच्या शिराशिरांतल्यान दुदाचे वझरे देंवता
कश्टाचीं फळां दिवपाक शेतां वाऱ्यार धोलता
जंय भांगराचीं कणसां पिकता तो भारत देश म्हजो ।।२।।

क्रांतीवीरानी घरां-गावांनी ओंपल्या बियां स्फूर्तीचीं
पाशाणवीरानी मनामनांनी रोयल्यां रोंपां वीरतेचीं
जंय विरांचो सन्मान करता तो भारत देश म्हजो ।।३।।

रैतान हांगच्या खिणाकणकणी जपला मंत्र शांतिचो
अहिंसेच्या बावट्या खाला रस्तो धल्ला झुजपाचो
जंय अहिंसा जल्म घेता तो भारत देश म्हजो ।।४।।

**-सुनील पालकार**



***



# १०१) म्हेटल्या जंय



म्हेटल्या जंय तिश्प्र ल्हारां
थंयच मन पावन जालां ।।धृ।।

हिंदी अरबी बंगाली ल्हारां
एकचारान गा भल्ल्या घरां
भावपणाच्या तत्वाचीं
घडटात हांगा गांव शारां ।।१।।

सत्याचो उजू दोळो
तेजवंत सूर्य गुळो
सांजवेळार कपलाचेर
वसुंदरेचो विश्व तिळो ।।२।।

सद्भावनेची भगवी घुडी
फांकीत उजवाड धोलता जळी
कोण बंगाली कोण मल्याळी
एकूच आमची मनीसकुळी ।।३।।

कित्याक बेणचीं मनशा रानां
इतिहासाचीं चाळचीं पानां
जाग रे भारता जाग आतां
परतून मोगान बांदूक मनां ।।४।।

**-संजीव वेरेंकार**



***



# १०२) दूद वझरे



भारत मातेच्या दूद वझऱ्यांची
लागल्या आमकां तान
एकमुखान करात गर्जना
भारत आमचो म्हान ।।धृ।।

वायट शक्त भेदूंक सोदता
आमचे मदली एकी
करुंक तांचेर मात
राखचीं भावपणाचीं नातीं
तन मन धन ओंपून
राखचो भुंयेचो मान ।।१।।

पूण्यभूंय ही भौ धर्मांची
विंगड भासो जातिकातींची
साधू मौलावी ऋशिमुनींची
अहिंसेची शिकवण तांची
संवसार सगलो गायता हांगचे
संस्कृतीचें गान ।।२।।

पचोवंक सगले षडरिपू
शक्त अपरंपार
मनीसपण घेवंक रावता हांगा
दुबळ्यांचो कैवार
सदांच आमी मनांत राखचें
वास्तवाचें भान ।।३।।

-अभयकुमार



***



# १०३) करात जयजयकार



करात जयजयकार तुमी करात जयजयकार
जल्मभुंयेचो मायभुंयेचो करात जयजयकार ।।धृ।।

बारीक मोटे जाण्टे नेण्टे, भाटकार मुंडकार जणएकटे
देशा खातीर विसरूं तंटे, व्हड उबारूंक भार
करात जयजयकार...।।१।।

वेगळ्यो भासो भेस जाती, एकूच माता एकूच माती
घेवया सगळे हात हातीं, दिवंक मायेक आदार
करात जयजयकार....।।२।।

सासाय भुंयेची सामकी व्हड, कीर्त व्हड मान व्हड
भारतमाता नांव गोड, व्हड तिचे उपकार
करात जयजयकार...।।३।।

**-पंढरीनाथ लोटलीकार**



***

# १०४) देशाची काणी



आयकात भुरग्यानो सांगतां तुमकां
आमच्या देशाची काणी
गांधीजी ज्या देशांत जल्मलो
जल्मली झाशी राणी ।।धृ।।

आवय भुरग्याक शिकयता
फोटवाक बोट दाखयता
कंठांतल्यान स्वताच तिच्या
सुभाषबाबू उलयता
लक्तुबायेन आयकत रावता
म्होंवाळ तिची काणी ।।१।।

आसा एक लाल किल्लो
ताजमहल मोगाचो
येता उगडास वीर शिवाजी
जालीयनवाले बागेचो
हिमालयाच्या जठाजठांतल्यान
देंवता अमृत पाणी ।।२।।

पळयात आमचो तिरंगी बावटो
वाऱ्यार उंच धोलता
सलाम करीत करीत आमचे
सैनिक स्फूर्तीन चलता
झुजा विमानां मारता भोंवाड्यो
भोंवतात दिसता घोणी ।।३।।

**-सुनील पालकार**



***



# १०५) राष्ट्राचो रथ विराट



राष्ट्राचो रथ विराट, एकवटान धुकलतले
हर हर हर महादेव, एक मुखान गायतले ।।धृ।।

लोकतंत्र राज्य जंय, फुलता जंय स्वतंत्रताय
हे भुंयेर जगतल्याक, मेळटली समानताय
हातांत हात घेवन वाट एकपणान चलतले ।।१।।

ना दुकां दोळ्यां कोणा, ना परावलंबना
प्राप्त करतले भलाय, नुरतली विवंचना
धाय दिकां उदरगतीन लक्षदीप लायतले ।।२।।

देह झंजळायत करतले, स्वदेश शक्तिमान
गीत रूप धरतलें, जय जवान जय किसान
सपन सौख्य-शांतिचें, हे भुंयेर पळयतले ।।३।।

**-हरदत्त खांडेपारकार**



***




## १०६) सोबीत सुंदर भारत देश

सोबीत सुंदर भारत, मोगाळ आमचो देश ।
मुकुट हिमाद्री जगांत, नंदता आमचो देश ।।धृ।।

वेगळीं रुपां रंगय वेगळे, काळीज पूण एकूच सगळें ।
एकचाराचो सदैव हांगा, उरचो जागो हावेस ।।१।।

सैम हांगचें तरेकतरांचें, किरां मोरां सुकण्या सुरांचें ।
न्हंयां जळांचे नाद, म्होवाळो उरचो हो विशेष ।।२।।

व्हडा व्हडांची पुण्याय हांगा, विराशुरांची सासाय हांगा ।
उज्वळ तेजाळ ध्यासान, भरचो आमचो भेस ।।३।।

कला शिल्प धनाची भूंय, ही गिन्यान विद्येची भूंय ।
पवित्र हिची सेवा, जावची आमचो उद्‌देश ।।४।।

वाडचें बळगें जावचें नांव, भरून वचचे सुखान गांव ।
वाट सदांच जैताची, मनांत मोगाळ संदेश ।।५।।

**-नागेश करमली**



***



# १०७) आत्मो आमचो एक



तरांतरांच्यो जाती काती
तरांतरांचो भेस
भारतीय सगले आमी
आत्मो आमचो एक! ।।धृ।।

कितलीं कितलीं झुजां आयलीं
जीव घेणी मोडां आयलीं
फिंरगी आयले, दुस्मान आयले
संकष्टाचें तुफान आयलें
आत्मबळाचें बळगें घेवन
सदांच आमी जोडलां जैत
भारतीय सगले आमी
आत्मो आमचो एक! ।।१।।

पांडवांची शक्त हांगा
झुजा मळार झुजली
स्फूर्त दिवपी महाभारतान
काळखा वणत मोडली
अत्याचारा संव्हार करून
विचारवंता घेतल्या देख
भारतीय सगले आमी
आत्मो आमचो एक! ।।२।।

तरांतरांची धर्म निष्ठा
तरां तरांच्यो भासो
सर्व धर्म समभावी
देश आमचो! लक्क हारसो
अल्लाहु अक्बर! अल्लाहु अक्बर
झुजा मळार जोडचें जैत
भारतीय सगले आमी
आत्मो आमचो एक! ।।३।।



-युसूफ अ. शेख





## १०८) नव्या युगाचें गीत



नव्या युगाचीं सांगाती सगलीं
मनीसपणाचो बावटो हुबयतलीं
आहाSSS आहाSSS ओहोSSS ओहोSSS ।।धृ।।

आंगांत आमच्या रगत घोळटा
मनांत मोगाचो झरो व्हांवता
वाव हड्ड्यांत प्राण फुंकता
उदक शीतळ कूड पोसता ।।१।।

शेतां भाटांनी चंवरां दिसतलीं
धर्तरी माता सुफलाम जातली
नव्या पर्वाचें गीत गायतलीं
विश्व आमचें घर करतलीं ।।२।।

करतलीं आमी नवेंच करतलीं
दुशीत पुसून धवेंच करतलीं
हातांत हात घालून धांवतलीं
फाटीं उरिल्ल्यांक मुखार व्हरतलीं ।।३।।

-तुकाराम शेट



***



## १०९) पेटली वात



वीर गेले शूर गेले
अमर जाले संवसारांत
उबंतरा पडलीं घरां
चोंयवशीन काळखी रात
काळजाच्या स्वातंत्र्याची
दिके दिकेन पेटली वात ।।धृ।।

पडली कीट जेन्ना हांगा
जागी जालीं पोरां-तारां
खवदळलेल्या दर्याचीं
उसळ्यो मारीत आयलां ल्हारां
एक जाली जात-पात
पेटली घरांत पण्टी-वात ।।१।।

पेटलें होमखण स्वातंत्र्यांचें
तीर जालीं उतरां-उतरां
लासपाचें तें लासून गेलें
तुटपाचीं ती तुटलीं दोरां
दिवज पेटलें गर्भकुडींत
नदरो जाल्यो मशाल जोत ।।२।।

आयज मेकळ्या मांडार आमी
गीत गावया एकचाराचें
आयज मेकळ्या मांडार आमी
गीत गावया भावचाराचें
नाका आमकां जात-पात
एका मेकाक दिवया हात ।।३।।



-मीलन वायंगणकार

***



# १९०) जिखून दितां



मन दितां धन दितां
जिविताची शान दितां
सोबीत सुंदर देशाक म्हज्या
लाख मोलाचो प्राण दितां ।।धृ।।

सवसकाये पावस घालूंक
तुजो माये मोग दीप
पडींग मळां पिकाळ करूंक
तगता तसलें बीं दी
तगता तसलें बीं दिल्यार
परजळावंक जगार तुका
हजारानी सुर्य दितां ।।१।।

काळा वांगडा झुजचे खातीर
पाशाणाची छाती जाय
झुजता झुजता शहीद जावंक
त्यागाचें गिन्यान जाय
इतलें शाणें मन दिल्यार
संवसाराचेर लावंक घुडी
पृथ्वी सगली जिखून दितां ।।२।।

जल्मांक येवपी सशक्त जावंक
दुदाचे वझरे जाय
रोग पिडा पयस करुंक
विज्ञानाचें गिन्यान जाय
असलें गिन्यान मेळ्ळें जाल्यार
पालखेक तुजे वज्रखांद
राखणे खातीर रैत दितां ।।३।।



-सुनील पालकार

***



# १११) सलाम



तुमकां हो सलाम
आमचो तुमकां हो सलाम
तुमच्या रगतान तुमींच बरयलें
म्हान इतिहासाचें पान
आमचो तुमकां हो सलाम ।।धृ।।

मरणांतल्यान तुमी जीण जागयली
स्वातंत्र्याचीं फुलां फुलयलीं
तुमीं रोयिल्ल्या वालफुलांक
आमचें राखणेचें काम
आमचो तुमकां हो सलाम ।।१।।

फातरा भितर देव सोदलो
तसोच तुमी देश घडयलो
गांधीजीच्या बलिदानांतल्यान
मेळ्ळो आमकां राम
आमचो तुमकां हो सलाम ।।२।।

तुमींच सांगलें पावल घालतना
साद अहिंसेचो घालचो
जातिपातिचीं सोपोवन बियां
गावचें एकचाराचें गान
आमचो तुमकां हो सलाम ।।३।।

**-सोयरू वर्दे**



***



# ११२ ) एकचाराचें गीत



हिन्द भुंयेचीं भुरगीं आमी
सैम आमचो गुरू
सैमा मदल्या एकचाराची
पावला पावलाक कुरु ।।धृ।।

इंद्रधोणूंचें बिंब मळबार
सोबीत रंगा खेळ
चित्र सोबीत निळशा लुगटांत
सत रंगी मेळ
सात रंगांच्यां किरणांतल्यान
एकठांय जावन येवचें
भुंयमातेचें जागतें सपन
मनशा नदरेक दिसचें ।।१।।

तरेकतरांचीं रुखशा रोपां
दोंगरा आंगार रान
पाचवी म्होवसार चादर जाता
मेळून पानान पान
मनीसपणा धर्म हांगा
श्वासांत उस्वास भरसता
मायपासाच्या उत्सवाक
मळब कुपां गर्जता ।।२।।

**-रमेश लाड**



***



# ११३) जैताची घुडी



जैताची लावंक घुडी
होंमखणांत आमची उडी ।।धृ।।

चाळीस कोटी लोक पेटलो
वांटो युध्दात घेवंक लोटलो
आवय पुताक युध्दाक धाडी ।।१।।

भांगर-शिंगर आमकां नाका
व्हर सगले देशाक दिवंका
बायलां भांगरार उदक सोडी ।।२।।

एकवट आमी धल्ला रे
जैत आमकां मेळटलें रे
हें सांगूंक नाका रे घाडी ।।३।।

**-सुहास य. दलाल**



***



## ११४) नबत आतां झडूं दी



नबत आतां झडूं दी
उंच उंच स्वर चडूं दी
जय जय भारत विजयघोष हो
मळबामाचयेर घुमूं दी ।।धृ।।

जात-पात आमी मानीनात
धर्मभेद आमी करीनात
तेज आमच्या काळजांतलें
काळखाचेर पडूं दी ।।१।।

गरिबी हांगची ना करुया
समतेचो आमी मंत्र फुंकुया
अन्यायाच्या आड आमचीं
बळिशट मनगटां झगडूं दी ।।२।।

भंय ना आमकां श्रमाचो
साद आयकतात पराक्रमाचो
नव्या जगाची नवी मुर्ती
ह्या हातांनी घडूं दी ।।३।।

देवावयली आमची भक्ती
मनीसपण हीच शक्ती
भिवून गेल्लीं सगलीं सुकणीं
निर्भय जावन उडूं दी ।।४।।



**-सौ. माधवी सु. चव्हाण**

***



# ११५) आश्रयदाता



सुंदर देखणों देश आमचो
समृध्दीचो हावेस हांगचो
मनांत ध्यास शांतिकायेचो
देश आमचो अपुर्बायेचो ।।धृ।।

गिन्यानाचो हो आश्रयदाता
विज्ञानाक तो मुखार व्हरता
खगोल, भुगोल, गणित शिकयता
सगळ्यांक अक्षरज्ञानी करता
देश आमचो अपुर्बायेचो...।।१।।

कला, संगीत संस्कृताय घेवन
ऋशी मुनीची वाट चलता
दया धर्म भावकी आपणायत
त्याग प्रेम पुण्य जागयता
देश आमचो अपुर्बायेचो....।।२।।

पवित्रतायेन उपाट भरला
पुण्यायेंतल्यान पावन जाला
सर्जनांतल्यान घडून आयला
सृजनी संवसार तरून रावला
देश आमचो अपुर्बायेचो...।।३।।

रतनां कोईनूर माणिक मोती
जायत्यो खणी अवती भोंवती
आयुर्वेद वखदांचे सांठे
सगळ्या जगाक पावती
देश आमचो अपुर्बायेचो...।।४।।

**-व्यंकटेश नाईक**







## ११६) व्रत घेतलां तेंच चलय



पावल फुडें घाल तुजें
निर्भयपणान युवका
व्रत घेतलां तेंच चलय
फाटी सरू नाका ।।धृ।।

झुज पेटलां सगल्या मळार
शस्त्र भायर काड
सीमेवयल्या दुस्मानाक
पैल तिराक धाड
जशाक तशें उत्तर दी
नमतें घेव नाका ।।१।।

बकासूर हेर असूर
एक जावन आयल्या
संस्कृतायेक गिळपाचो
बेत ताणी आंखला
कर्तुपांक तुज्या उलो
मारता धाय दिका ।।२।।

देवभूंय भारत माता
घालता सादार साद
एकमतान फुडें सरूंक
सांगता मिटोवन वाद
शंखनाद जावचो आसा
बेसावध नाका ।।३।।

-दत्ता भि. नाईक



***



# ११७) भुंयेचें सपन



हे भुंयेचो रंग वेगळो
मनश्या मनश्यांचो ढंग वेगळ्।
मन सुमनां प्रसन्न जातात
ते भुंयेचो सुगंध वेगळो ।।धृ।।

हे भुंयेचें सपन वेगळें
त्या सपनाचें रूप वेगळें
गांवा गांवाच्या मळबांतुलें
दाटून येवपी कूप वेगळें ।।१।।

हे भुंयेचीं रानां वेगळी
पावसांतली सर वेगळी
सह्याद्रीच्या कुशींत व्हांवपी
न्हय वझऱ्यांची सतार वेगळी ।।२।।

हे भुंयेची भास वेगळी
उतरा उतरांतली गोडसाण वेगळी
मना मनांत चंवरां परमळ
प्रत्येकाची प्रीत वेगळी ।।३।।

**-डॉ. अर्चना गांवकार**



***



# ११८) विशाल देश



देश हो आमचो विशाल
देश हो आमचो म्हान
पुण्य भूंय ही भारताची आमच्या
जंय जल्मले संत म्हान ।।धृ।।

शूरवीरांचीय पुण्य भूंय ही
जय जल्मले वीर महान
दिली ताणी शिकवण संवसाराक
दुसऱ्याक सगळें करुंक दान
वांकडे वाटेन चलतल्यांचे
सानपणारुच पिळटा कान ।।१।।

सुपीक शेतांचें भाटां-बेसांचें
शितळ वाऱ्यांचें तिरथस्थान
हुतात्म्यांची सपन भूंय ही
जंय जल्मले भक्त महान
वंदे मातरम मंत्र जपांतल्यान
भरता शिरांनी त्राण ।।२।।

वर्षा राणी शिंपता हांगा
मळबांतुल्यान निर्मळ नीर
प्रत्येक बाळक तयार हांगचो
सत्या खातीर ओंपूंक शीर
मोनजात तशे सर्प वालींची
जतनाय करता मनीसपणान ।।३।।

-विजय शेटगे



***



# ११९) म्हज्या भारता



मान तुजी सदां ताठ रावूं भारता ।
सार्वभौम देशा जगां तूंच वंदीता ।। धृ।।

शूर वीर पूत सगळे, जावचेनात केन्ना वेगळे ।
वचन आमचें हेंच पळे, वंदूं भारता...।।१।।

स्वतंत्रताये फळ गोड, मनशा परस देश व्हड ।
झुजूं आमी वायटा आड, म्हज्या भारता...।।२।।

हाडांचो दोंगर जावूं, रगताची न्हंय व्हावूं ।
प्राणाची जोत पेटूं, तुका भारता.... ।।३।।

-सुरेश पै



***



## १२०) रावले अमर जावन



स्वतंत्रतायेचो भोवमानाचो
भारत देश म्हान
उदेंतेच्या म्हान देशाचें
गावया गौरव गान ।।धृ।।

देशा खातीर शूरवीरानी
प्राण केलें दान
प्राण आपले दान करून
ल्हान जाले म्हान
स्वदेशाचो बावटो लावन
रावले अमर जवान ।।१।।

गितेचे ते शिकवणेंतल्यान
पयस केलां अज्ञान
अज्ञानांचेर जैत जोडून
कितले जाले सज्ञान
गिन्यानांचे वझरे पळोवन
न्हिवता भूक तान ।।२।।

देशाक करचो महान रूख
विज्ञानाची लावन घुडी
तुफानांतल्यान काडया वाट
समुद्रांतूय मारून बुडी
धरतरेच्या कणानकण आयज
भरला गौरवान ।।३।।

**-विजया नायक कोमरपंत**



***



# १२१) महद्भारता दिगंत देशा



महद्भारता दिगंत देशा
नांव तुजें व्हड जावं
राशीन राशी भौस भरसूं
रासवळ हें जयी जावं ।।धृ।।

काश्मीर, शिक्कीम शिरो उत्तरे
अंदमान उदेंते
म्हा दिष्टाच्या शैल दक्षिणे
गोंय हें अस्तंगते
रक्षूंक ही म्हादायजां
भुजां फडां उबी रावं...।।१।।

सह्य हिमालय, विंध्य, तिरुमल
वागेरी, पंच, सिद्ध
गंगा, ब्रह्मा, मांडवी, क्रीशणा
कावेरी, पंचतीर्थ
सयेंत शिव हें विश्व उसवलां
नक्षत्रांचे गांव...।।२।।

नीळ हर्याळी हंसाळ दिखणी
वीज मोगऱ्यो कळयो
पितृरुखां उजु सयेंत फुल्ल्यो
हिरव्यो शीर पाकळ्यो
पेट्टो दवरुंक धग हो सदां
जळव जिवा ह्या जावं...।।३।।



**-वामन सरदेसाय**





# १२२) राष्ट्रगीत



तिन रंगांची घुडी आयज हुबता वाऱ्याचेर
जन गण मन राष्ट्रगीत गायता सूर तालाचेर ।।धृ।।

मळबा माथ्यार दिसता तुरे स्वातंत्र्याच्यां घुडयांचे
वीर गेले बरोवन नांवा धव्या फुल्ल कोराचेर ।।१।।

अभिमानान देशभर हड्डीं आयज सरता फुडें
हो दीस हाडूंक मीठ घांसून घेतलां घायाचेर ।।२।।

कितलीं तरी जिखलीं झुजां इश्टागतीक सदांच फुडें
ईश्वरान बरोवन धाडलां जैत ताच्या हाताचेर ।।३।।

सुजलाम ही धर्तरी भाग्यवंत सगळीं आमी
भावार्थ आनी श्रध्दा व्हड गणतंत्र देशाचेर ।।४।।

-दुर्गादास गावडे



***



# १२३) सुपूत



भारत भूंयचे सुपूत आमी
देश नवो घडोवया
मना मनांत मानवतेची
मुळां रुजोवया ।।धृ।।

जाती काती धर्म नातीं
कित्याक जागोवया
रगत तांबडें शिरंतरांतलें
कित्याक व्हांवोवया
कित्याक आमी मनीसकायेची
होळी पेटोवया ।।१।।

अहिंसेचो मार्ग आमचो
मोख राखूया
सुवार्थ नाका स्वत्व राखून
मोग वाडोवया
एक एक फूल गुंथून
माळ घडोवया ।।२।।

गिरेस्त काळजां व्हड मनांचीं
राखण करुया
एकेच मठयेत वांगडा रावन
आंगण सोबोवया
एकवोटाचो मंत्र सगळ्या
जगांत पावोवया ।।३।।

**-अ. उ. नायक**



***



# १२४) गुलाबाच्या फुला



सकाळच्या वेळार
बागेत हांव वेतोच
गुलाबाच्या फुलाचेर
नदर म्हजी पडतकच
तुमची म्हाका याद येता
पंडीतजींचो उघडास येता

भुरग्यांच्या हांसण्यांचो
हय तांच्या रडण्यांचो
मनात नियाळ येता
खेळ आनी शिक्षणांचो
तरनाट्यां फुडाराचो
काळजाक संतोष दिता
नदरेक तूं पडतकच म्हजे,
उघडास हो म्हाका जाला
कितलें म्हूण तूं सभागी,
गुलाबाच्या फुला

लोकशाय लोकांचें राज्य
पोरजेन घडयल्लों राज्य
हुकूमशाय नाका
तरेकवार धर्मांचो
वेगवेगळ्यां जातींचो
एकचार दिसता म्हाका
नदरेक तूं पडतकच म्हजे,
उघडास हो म्हाका जाला
कितलें म्हूण तूं सभागी,
गुलाबाच्या फुला

समाजांत भुख नाका
भलायकी जाय पीडा नाका
दादोसपण उरुंदी
कुटूंबांत झगडीं नाका
देशांमधीं झुजां नाका
संवसार शांतीन अरुंदी
नदरेक तूं पडतकच म्हजे,
उघडास हो म्हाका जाला
कितलें म्हूण तूं सभागी,
गुलाबाच्या फुला

-तोमाझीन कार्दोज



***



# १२५) मार्ग सोदूया



धीर धरुया आमी नेट धरुया
तुफानांतल्यान दर्या
आमी पार करुया ।।धृ।।

शेणल्या काळखा रानांत
तरी वाट सोदूया
उजवाडाचें एक तरी
किर्ण पळोवया
पांय वाटेचो माग दिसना
आमी साद घालुया ।।१।।

तरणाट्यांचो साद आमचो
चोंय दिकांनी सादोवया
काळजाचो गाज आमच्या
दर्या वरी गाजोवया
रगताचो करुन घाम
कुणगेन कुंणगी शिंपूया ।।२।।

आसूं खंयचोय कोणूय
मनशा काळजां जोडूया
उपासमार सोसतल्यांक
कश्ट आमी शिकोवया
घेवन मशाल अहिंसेची
जिणे मार्ग दाखवया ।।३।।

दिव्यत्वाच्या गिन्यानान
काळोख आमी सोंपोवया
हिंदभुंयचे सुर्य जावन
संवसार सगळो व्यापुया
घेवन पनेळ वास्तव्याचो
पयले तिरार वचूया ।।४।।

**-अजितसिंग राणे**



***

## १२६) व्हडवीक

विंगड रंगांचो विंगड आंगांचो
विंगडतायेचो देश आमचो
देश आमचो देश आमचो
हिंदूस्थान आमचो ।।धृ।।

ह्या स्थानाचें गीत गावया
एकचाराचो मंत्र दिवया
विंगड भासो न्ही संस्कृतिची
जतनाय आमी घेवया ।।१।।

विंगड राज्यां विंगड गांव
हिंदुस्थान हें एक नांव
ह्या सुमनांचो सुगंध
सगळीं मेळून घेवया ।।२।।

विंगड धर्म विंगड जाती
तेच दीस त्योच राती
सगळ्यांक माती हीच अंती
व्हडवीक तिची गावया ।।३।।

-मंगलदास भट

***



# १२७) हिन्द जवानो



हिन्द जवानो नव युवकानो
भारत भूंय ही घालता साद
गर्भखोलायेन घाल्ल्या सादाचो
चारूया दिकांनी घुमता नाद ।।धृ।।

धाय दिकांनी अस्तित्वाक
हाडूंक सोदतात अस्थिरताय
जाती कातिच्या सुरींग फारान
भूंय दुभंगून वचचे आदीं
अस्मितायेक येवंदी जाग ।।१।।

उदेंतेचो दाखोवन सुर्या
निराधारांचो आदार जावया
वादळ वाऱ्यान, भुंयच्या कंपान
हुमटून पडच्या आदीं रुक्षा
अस्मितायेक येवंदी जाग ।।२।।

जना जनांचें मना मनांचें
राम-रहीम गुरू-येशूंचें
मंदीर एकूच काळीज आमचें
पवित्रताय राखचे खातीर
अस्मितायेक येवंदी जाग ।।३।।

**-श्रीकांत पालसरकार**



***

## १२८) सरात मुखार

अभिमानान हुबता वाऱ्यार
सैमाच्या उगत्या मळार
नमन करून तिरंग्याक
सरात मुखार वचात मुखार ।।धृ।।

उबारलेलो तो महात्मा गांधीन
चाचा नेहरु टिळक शास्त्रीन
सलाम करात नमन करात
नमन करून तिरंग्याक
सरात मुखार वचात मुखार ।।२।।

साद हो आजाद हिंदाचो
साद हो देशभक्तांचो
सलाम करात नमन करात
नमन करून तिरंग्याक
सरात मुखार वचात मुखार ।।३।।



-पी. जी. कामत

***



# १२९) होळी खेळय



होळी खेळय होळी झुजय
एकचाराचो मंत्र जागय
सप्तरंगी गुलाल शिंवरून
मना-मनांत प्रीत रुजय ।।धृ।।

उत्साहाची धोलार तोणी
एकठांय जाले संवगडी
सैमाच्या गालार पापून
उमेदीची पडल्या खळी
सैमा तुज्या वोंटांतल्यान
खोशयेचीं चंवरां झडय ।।१।।

रंगांत रंग भरसून गा
दुराचार गा हुलपलो
भावकेच्या आंगणांत ह्या
मनीस धर्म परमळ्ळो
परजळाच्यां रंग रंगानी
अशींच मन आंगणां सारय ।।२।।

वरसान वर्स येवन होळी
मोगान मोग किल्लयता
उत्सवाच्या रुखा रुखार
कोगळां गळे उलयता
सगळ्यांच्या काळजा कुडींत
सत्याचें तेज रकय ।।३।।

**-प्रकाश पर्येकार**







## १३०) गर्भ घरांत



भारताचे हे पुण्य भुंयेंत
मायभुंयेच्या गर्भ घरांत
मनीसपणां धर्मांची
जळटा जोत जळटा जोत ।।धृ।।

आसली भूंय बंदेपणांत
परक्यांचे जुलूम सोशीत
असंख्य तिच्यो धुवो-पूत
गेलीं तेन्ना प्राण ओंपीत ।।१।।

नशीब मेळ्ळां भाग्याचें
सार्थक करूंक जल्माचें
वेदचें ठिकाण हें
आमच्या आदर्श दायजाचें ।।२।।

मेकळें आतां सगळें आंग
उदेंतेक माल्ल्यां दांग
आध्यात्मातल्यान विज्ञानाचे
उक्ते केले सर्वय मार्ग ।।३।।

आसले तरी केदेय नामी
मायभुंयेच्या रिणांत आमी
परत जल्म हांगाच मेळूं
मागतात आमी घालून दिमी ।।४।।

**-उमेश शिरोडकार**



***



# १३१) सुर्याचे पूत



सुर्याचे पूत आमी
उजवाडाचे पुजारी
संवसाराचें दायज आनी
मनीसकुळा आदारी ।।धृ।।

उंच व्हड पर्वत आमी
न्हंयो आमच्या शिरांनी
रगत आमचें धांवत नेटान
चोंयवशीनच्या दिकांनी
तरसाद आमच्या कमराक तरी
शांती आसा मनांनी ।।१।।

झुजाचेय गडे आमी
वीजय आमच्यां हातानी
रैताचें चैतन्न्य राया
स्फूर्त भरल्या मनांनी
जोगला वरी चमकता
फोलेर आमच्या दोळ्यांनी ।।२।।

भुंयचे हे चिरे खरे
आसन आमचें मठयानी
बुनयादिचो बुलंदकायेक
एकचार आमचो मनांनी
पाळां मुळां धर्तरींत
नदर उंच कळसांनी ।।३।।

**-जेश फेर्नान्डीस**



***

## १३२) एकूच देश



संवसारांत ह्या साबार देश
तांतूंत आमचो भारत देश
इतिहासाचें दायज ताचें
राज्या राज्यांत वेगळे भेस ।।धृ।।

दायज ताचें आदर्शांचें
एकचार आनी महात्म्यांचें
सत्य आनी अहिंसेचें
नित्य आनी निर्वाणेचें
शांती सवस्काय दिवपी
सत्याचो जयघोष ।।१।।

भूंय ताची सासायेची
व्हडवीकेक पावलेल्यांची
संगीत आनी गायकांची
धंदे आनी मिनकारांची
मातयेचें हे व्हडपण हांगा
दैवाचोय लवलेश ।।२।।

हिमालयाची राखण आसा
कुपांतलें शिपण आसा
विज्ञानाचें गिन्यान आसा
सज्ञानाची शान आसा
पावला पावलाक गवाय
तिरंग्याचो गणभेस ।।३।।

-महेश पारकार



***



# १३३) आमची एक संस्कृताय



आमची एक संस्कृताय
आमची एक संस्कृताय
भारत भुंयचीं फुलां आमी
भारतीय आमची अस्मिताय ।।धृ।।

भारतांत आसा जायते धर्म
जायत्यो भाशा पंथ-वर्ण
एकवोटान जियेवपाक
सुपीक सैम संद सुवर्ण
माये तुजी आसूं सासाय ।।१।।

माये तुज्या खातीर म्हजो
घाम आनी रगत घे
संवसारांत भोंवता लावन
नाव तुजें अनादी गे
वर्सां लाख उरूंक जाय ।।२।।

हीच एक आस्त मनां
ध्यास होच सासणाचो
दिगंतांत नांव तुजें
जैतिवंत करपाचो
हातांत हात मेळोवन गाय ।।३।।

-गजानन जोग



***

## १३४) भांगराचो देश

भांगराचो देश म्हजो
भांगराचीं हीं शेवणीं
सांज सकाळ गायता बसून
गोड म्हींवाळ गाणी ।।धृ।।

पाचवो शालू न्हेसून बाये
शेतां पिकाळ हांसता
वाऱ्यावांगडा गायत गायत
मोतयां कणसां धोलता
संवसाराचो पेलता भार
घरा-घरांत न्हिवणीं ।।१।।

साबार लोकगीतांतल्यान
साबार सवंगां नाचता
देव आनी देवस्पणान
संस्कृताय जागता
माथ्यावेलीं वर्जी जाता
दवरण्यांचेर पेणीं ।।२।।

देव जंयसर जल्म घेता
आनीक ना देश खंयचो
राष्ट्रभिमान जागयत आसा
इतिहास आमचो
गीता कुराण बायबलाची
अमृताची वाणी ।।३।।

**दिनानाथ बांदोडकार**

***



# १३५) मनिसपणाचीं रोपलीं



देश आमचो हिंदुस्थान
देशाची ह्या किर्त म्हान
उजू नितीची बरे रितीची
सुवर्ण भुंयेची कितली शान ।।धृ।।

हिंदुस्थानान संवसाराक
दिला शांतीचो सुसंदेश
मेळून मिसळून रावंक सगलीं
एकवोटाचो केला उपदेश
मनिसकायेच्या मनीसपणाचीं
रोपलीं किल्लून जावंदी रान ।।१।।

विसरून वचया आमच्या भितर
घडलें कितें अजाणपणान
बुध्द गांधीची शिकवण
शिकून विसरता जायतेजाण
म्हणया वन्दे मातरम्
अभिमानान एका सुरान ।।२।।

**-दर्शन लोलयेकार**





## १३६) विविधताय

भारतमाता आमची आमकां
प्रिय कितली कितली
संवसारांत ह्या ना गा दुसरी
भूंय सोबीत इतली ।।धृ।।

पोरसांत दरवळ फुलां-फळांचो
जीण परमळीत करता
एक संस्कृताय सांगोड भासांचो
गोडसाण आपली ओंपता
आमच्या मदल्यो आमीच
मिटयतात
बारीक मोठ्यो दंगली ।।१।।

अंत्राळांतल्या ताऱ्यांवरी
अनंत आमचे जवान
धन्य ते वीर जाणीं
पणाक लायले प्राण
पूत धुवांच्या कश्ट न्हाणान
वसुंधरा ओली ।।२।।

व्हड आमची परंपरा
व्हड आमची संस्कृताय
देश आमचो आमी देशाचे
व्हड ताची व्हडवीकाय
तुजेच खातीर जीण आनी
शक्त आमची सगली ।।३।।

**-कमलादेवी राव देशपांडे**

***



# १३७) विज्ञानाच्या युगांत



भुरग्यांच्या सांगातान जाणट्यांच्या आदारान
घालुया पावंलां मुखार
अख्ख्या ह्या संवसारांत विज्ञानाच्या युगांत
करुया सपनां साकार ।।धृ।।

एकमेकाची संगत आमी लावया वाडीक
जैताचें व्हडें वलयत हाडूया तडीक
एकाचे दोन दोनाचे चार करून
दाखोवया समृध्द आमी करून फुडार ।।१।।

विकसीत करूंक आयचीं तंत्रन्यानां
शिकून सज्ञान जावया सगलींजाणां
रातिचो दीस दिसाची रात करून
विकास मार्गाक नवो दिवया आकार ।।२।।

दिव्य रुपकार आसा आमच्या मुखार
असंख्य आव्हानां नदरे सामकार
लावची आसा घोणीचीं पाखां
पावचे आसा वयल्या तेंगसार ।।३।।

**-प्रेमानंद शिरोडकार**



***



## १३८) आंगान आंग पेटून आमी



आंगान आंग पेटून आमी रातवाट चलतले
रे एक मूठ जावन आमी दिसरात झुजतले ।।धृ।।

गिराणअस्त्र सोडून तुमी हांगा सुर्य लिपयलो
काळोखगान गावन तुमी हांगा सर्प खेळयलो
आमचें रक्त खतखतून उजो आमी ओंकतले ।।१।।

पानगळाचें वारें हाडून तुमी रुख झडयले
रुख रुख झडोवन तुमी सैमदूख घडयलें
घामातल्यान मीर्ग ओतून सर्ग आमी हाडटले ।।२।।

मायमाऊली आमची भूंय मोल तिचें करचेनात
आमची भूंय आमकां जाय, आमी माय सोडचेनात
चलात तुमी चलात तुमी, जीव आमी ओंपतले ।।३।।

हुंवार तुमी, सांवार तुमी, थंडीमंडीं सजयतात
ज़्वाला, लाव्हा, खाटीक तुमी नंदनवन जळयतात
रे शींग मुक्ते फुकून आमी शांतमुक्त जगतले ।।४।।

**-आर रामनाथ**



***



# १३९) रुशीमुनीचें दायज



रुशीमुनीचें दायज लाबलां
ती भारतभूंय आमची
मनीसपणांची सांगड घालता
मायभूंय ही आमची ।।धृ ।।

रविरायाची किर्णां पालखी
चंद्रिमाय ही चान्न्यें शिंवरती
न्हंय वझऱ्यांची समिंदरांची
सैमगर्भिणी ही धरती
ती भारतभूंय आमची ।।१।।

हिमशिखराचो किरीट माथ्यार
सागरकन्या ल्हारेती पांयार
आंगा-खांद्यार गंगा-यमुना
पिकाळ हांगची माती
ती भारतभूंय आमची ।।२।।

भारत-देशा प्रणाम तुकां
सत्य अहिंसा वंदन तुकां
तुज्याच पांयार अर्पण करतां
आमच्यो सगळ्यो अस्ती
ती भारतभूंय आमची ।।३।।

**-नयना आडारकार**



***



# १४०) करुया जयजयकार



करुया जयजयकार आमी
करुया जयजयकार
भारतभुंयचो आमचे आमी
करुया जयजयकार ।।धृ।।

देश आमचो भौच सोबीत
नवलकायेन नटलेलो
वेगवेगळ्यां जरी फुलांचो
एकेच माळेंत गुंथलेलो
इंद्रधनुष्या वरी हे माळेंत
एकठांय रंग साबार ।।१।।

कितले भुंयपूत येवन जलमाक
देशाक आपलें ओंपलें जिवीत
दीवन मोल आपल्या प्राणांचें
सर्वय रैताचें राखलें हीत
अभिमानाचो स्वाभिमानाचो
लायलो तुरो माथ्यार ।।२।।

व्हडवीकाय ह्या म्हान देशाची
गायतना काळीज येता फुलून
हिमालयाची उंचाय ताची
थंयच्यान गंगा येता चलून
स्वर्ग जठांतल्यान पवित्र शिंपण्यान
शिंपता सर्वय वांठार ।।३।।

**-माया खरंगटे**



***



# १४१) हिन्दुस्थान हिन्दुस्थान



हिन्दुस्थान हिन्दुस्थान
देश आमचो हिन्दुस्थान
पयलो मान दिवन ताका
गावया ताचें गौरवगान ।।धृ।।

आयले कितले गेले कितले
तांतले थोडे जाले अमर
देशबांधणे खातीर ताणीं
मनशा काळजांत बांदलें घर
तांच्या म्हान कायी मुखार
अभिमानान झुकता मान ।।१।।

वेद कितले मंत्र कितले
कितलीं शास्त्रां पुराणां
कितल्यों जाती कितले धर्म
एका धाग्यान गुंथल्या मनां
आमच्या मुखार आदर्श जावन
रावलां तांचे बलिदान ।।२।।

इल्ल्या इल्ल्या त्यागांतल्यान
देश आमचो जातलो व्हड
सद्भाव वाडीक लागलो तर
फुडार आपशींच जातलो गोड
हिन्दुस्थानाक संवसारांत
झगमग करपी येतली शान ।।३।।

**-जॉन आगियार**



***



# १४२) जय जवान



जय जवान तुमकां आमचें नमन
जय जवान तुमकां आमचें नमन।।धृ।।

जंगलानी शिमांचेर तुमची जीण
दुस्मानांक हरोवपाक एक एक खिण
देशाक नामना जोडून, देशाची राखण करूंक
कशें घडत तुमचेविण
जय जवान तुमकां आमचें नमन...।।१।।

बुडटी येयत सुकाड येयत तुमीच आदार
कॉमुजल झगड्यांचोय तुमचेर भार
पावस जोगलावणीं वतांत, जीवित घालून संकश्टांत
सुखी करता आमचो फुडार
जय जवान तुमकां आमचें नमन...।।२।।

आकांतवाद आडावच्याक येता तुमी
पोरजेचे राखणदार जाता तुमी
पोरजेक राखण दवरूंक, आकांतवाद्यांचो नाश करूंक
जीव पसून तुमचो दिता तुमी
जय जवान तुमकां आमचें नमन ।।३।।

-तोमाझीन कार्दोज



***



# १४३) प्राण अर्पण



जय भारता जय भारता
लाख प्रणाम तुकां अर्पितां
भास भेसांनी विंगड जरी
वांगडाच सगळीं नांदता ।।धृ।।

राष्ट्र व्हड हें लोकशायेचें
एकचार आनी शांतिकायेचें
कितलेंय व्हडलें कठीण गणीत
बुध्दीमतेन सोडयता ।।१।।

एकचार आनी शांतीकायेचो
जगाक संदेश दिता
लोकतंत्राच्या एका मंत्राच्या
भारत देशाचें नांव गाजता ।।२।।

तिरंगी बावट्याक रंग तीन
संरक्षणाकय दळां तीन
तंत्रज्ञान मुखार व्हरुन
आपली शक्त वाडयता ।।३।।

**-बालमोहन प्रभूदेसाय**



***



## १४४) येवकाराची दिवली



भारत देशा मुक्त देशा, गायन तुजें गायतां
शौर्य देशा स्फूर्ती देशा, नमन तुकां करता ।।धृ।।

प्राणपणाक लायले जाणी तांची आरती गायतां
तांचे सेवक जाले तांकां हळद कुकुम लायता
एकचाराची ज्योत पेटोवन मान तुकां ओंपता ।।१।।

बुद्दिवंत विचारवंत सगळ्यांक एकठांय हाडटा
अरिशटांतल्यान वाट सोदित फुडेंच फुडें सरता
एक हावेस घेवन मनांत भारतीय म्हण जगतां ।।२।।

मळब तारे चंद्र सुर्या माथ्यार तुज्या चमकता
झाडां मळां फुलां फळां तान भूक न्हिवयता
उदरगतीचीं पावलां तुजीं नवे दिकेन पडटात ।।३।।

उदेंतेच्या दोंगरा माथ्यार न्हंयो व्हाळ घोगेता
अरबी दर्या हजार सोयरे दारांत तुज्या पावता
तोखणायेचीं फुलां भेटोवन नांदि आमी गायता ।।४।।

**पॉब्र एफ. फेर्नांडिस**



***



# १४५) राखणे



आमी भारताचे भारताचे
राखणदार व्हय
भारताचे शिमेर बांदया
चैतन्याची वंय ।।धृ।।

भुजाक भुजां तेंकतात पळय
रगताक रगत मेळटा पळय
एक रंग एक हावेस
एक एक पावली उडय ।।१।।

हातींत हात गुंथल्यात पळय
मुठींत मूठ मेळटात पळय
एक कीट एक हुलोप
दुस्वासपण हांगाच सोंपय ।।२।।

पेटल्या सगल्याक दिपज्योती
स्वातंत्र्याच्यो उजवाती
आमची भूंय आमचो प्राण
संवसाराक कळय ।।३।।

-हनुमंत चोपडेकार



***



# १४६) आई हे भारती



वंदन तुका आई हे भारती
गायता शौर्य तुजें हे भगवती ।।धृ।।

धर्म-धर्माचीं हुपून बंधना
जीण खर्चिली स्वतंत्रताये
एकवट आमी घडयलो गे
विविधतायेंतल्यान संस्कृताये
गायता तुजी गे आरती
वंदन तुका आई हे भारती ।।१।।

जैत रगताचें गायलें आमी
उंचल्या सुरान तिरंग्याचें
आडोवन परकी आक्रमणां
हड्डें केलें पाषाणाचें
गायता तुजी गे आरती
वंदन तुका आई हे भारती ।।२।।

जाली हांगसर पावन जीण
तुज्या उदरी हिंद देवते
विश्वांत उबी अखंड तूं
भाग्यवंत अशी समर्थे
गायता तुजी गे आरती
वंदन तुका आई हे भारती ।।३।।

रुशी मुनींच्या तपोवनांचे
गायत तूं वेदघोष गे
रण झुजाऱ्यांच्या कर्तुत्वाचे
फुलय रुदया कमलकोश गे
गायता तुजी गे आरती
वंदन तुका आई हे भारती ।।४।।

**-निलबा अ. खांडेकार**



***



# १४७) त्याग



बंदखणीच्यो बेडयो तोडून
भारत देश सोडयला
अहिंसेच्या बळग्या नेटार
इतिहास नवो घडयला ।।धृ।।

दिवन रगत सुटके खातीर
दायज जोडून घेतलां
आवय बापायक सांडून
योगदान आपलें ओतलां
जीण सगली ओंपल्या ।।१।।

कपलांचे तिळे पुसून
भारत मातेक सजयल्या
फासार चडच्या वेळारूय
कीर्त तुजी गाजयल्या
मरणांक लेगीत भुजयला ।।२।।

एकवोटान रावन आतां
गावया आमी नवें गीत
भेदभाव कुशीक सारून
एकमेकांची करची प्रीत
हेंच आमी शिकल्यात ।।३।।

-ग्वादालूप डायस



***

## १४८) फाल्यांचो भारत

मनसुमनां एकठांय गुंथून भारत सजवया
प्रेम आनी भावपणांचो समेळ घडोवया ।।धृ।।

बंदपासाचें बांद हुपून जाले मुक्तीवंत
भाग्यवंत भारत गडे जाले जैतिवंत
जल्मभुंयचेर समानतेचें राज्य हाड्डया ।।१।।

मुक्ततायेचीं मेकळीं गीतां भोंवर गळ्यानी
जिवरसांचे व्हांवते वझरे ताल सुरानी
विज्ञानाचो गाज दिगंतांत पावोवया ।।२।।

विंगड विंगड नांदती हांगा धर्म-पंथ-जाती
एकचाराच्यो भावपणांच्यो पेट्ट्यो आसात वाती
मनीसकायेचो धायदिकानी सुगंध फांकवया ।।३।।

युगानयुगां फुलचें पोरसूं परमळ फुलांचें
एकान एक फूल आसचें बऱ्या गुणांचें
माय देशाची भविश्यवाणी आतांच उलोवया ।।४।।

-विजयकान्त गावडे

***



# १४९) सुपूत



शिंपून सगळें पाचवेंच करीन, उदक जावन न्हंयचें
देशाचें ह्या नांव राखतले, सुपूत्र भारत भुंयचे ।।धृ।।

घेवं कितलींय नावां आमी, एकूच आमचो देव
काळजा काळजांत मायपासाचो, किल्लून येता रोव
सगळे रूख चंवरा येता, शार तशे गांवचे ।।१।।

प्रत्येक कवीन शिंपला हांगा, शिंपणें गिन्यानाचें
संवसाराचेर पडला शेंसार, भारतीय भावनांचें
फुडली जीण विज्ञानाच्या पालवान आमी जगचे ।।२।।

तीन रंगी बावटो पळे आमकां खुणयता
फुडें वचूंक एकचारान आमकां शिकयता
ताच्या माथ्यार वजें आसा सगळ्या गणांचें ।।३।।



-कांता धारगळकर

***

## १५०) कर्म भूंय

जल्म भूंय ही कर्म भूंय ही
भारत भूंय आमची
हिचें व्हडपण आमचें व्हडपण
शान जिणेची

सुर्य पुरातन जावन नवेळो
मनोवंक येता दिसा सुंवाळो
संस्कृतायेचे विविधतायेंत झर एकचाराची

एकमेकांत भरसून हांगा
धर्माधर्मांची व्हांवता गंगा
देवा-दिकांच्या पुण्य राबित्या भूंय भारतमातेची

आंगार भेस आसूं तरेक
जिबेर भासो एकार एक
एकामेकाक समजून घेवंक नदर एक काळजाची

धर्मा नांवान कितली नसाय
जातिकातींची लटकी पिसाय
आमच्या भितल्लीं अवघड गणितां आमीच सोडोवचीं

हे भूंयेचें भाग्य फळादीक
येयत आसा नररत्ना पीक भूंय परजळची

-प्रकाश पाडगांवकार

***



# १५१) सुजलाम् सुफलाम्



भारत भूंय आमची भूंय
पवित्र भूंय सुपीक भूंय
देवादिकांची नितिमूल्ल्यांची
सोबीत भूंय सुंदर भूंय ।।धृ।।

शितळ नितळ गंगा यमुना
हिमालयाची उतूंग सपनां
काश्मीर सावन कन्याकुमारी
कितल्यो न्हंयो कितली रानां ।।१।।

सुजलाम् सुफलाम् भारतमाता
संस्कृतायेची महानता
देवांदिकांचींय मनां भुलयलीं
इतली ताची विशाळता ।।२।।

जय जवान जय किसान
तंत्रज्ञान जय विज्ञान
भारत रूख सरता उंच
आपल्या कश्ट कर्तुत्वान ।।३।।



**अमिता नायक सलत्री**







# १५२) सोपूत

राष्ट्राचो मान राखचो सोपूत आमी घेवया
एकवटान रावपाचें उतर आमी दिवया ।।धृ।।

काश्मीर ते कन्याकुमारी लांबाय आमच्या देशाची
गुजराती पंजाबी बंगाली सगळीं भुरगीं भारताचीं ।।१।।

हिन्दू मुस्लीम क्रिस्ती सगळे आमी भावभाव
एकवटान रावपी आमी भारती आमचें नांव ।।२।।

गंगा यमुना गोदावरी परी व्हांवता आमची अस्मिता
हिमालयाच्या माथ्यार सासाय आमची लकलकता ।।३।।

तीन रंगांचो बावटो आमचो उंचउंच धरुया
संवसाराक तीन रंगांची व्हडवीक आमी सांगुया ।।४।।

-एन. शिवदास



***



# १५३) अमृताची झर



निळ्या निळ्या मळबातळा
सुपुल्लीच भूंय गा ही
पाचवींचार कुळागरां
पाचवीचार भूंय गा ही ।।धृ।।

निळ्या निळ्या मळबातळा
परमळाचें फूल गा हें
संवसारभरच्यां फूलां मदलें
सोबीत सुंदर फूल गा हें
मनीस कुळाक सैमान दिल्ली
सोबितकायेची देण गा ही ।।१।।

जैतिवंत भुंये माथ्यार
मुकूट जावन दोंगर उबे
चोंयवशीन करता राखण
पावस-वतांत वज्र खांबे
दोनूय पान्यानी पाजयता ती
कामधेनू गाय गा ही ।।२।।

निळ्या निळ्या मळबातळा
भूंयचाफ्यांचें हें वृंदावन
मनशांच्या मन-आत्म्यांचें
शांतिकायेचें नंदनवन
पुर्वज तशी दायजांची
लाबिल्ली पुण्याय ही ।।३।।

**अरुणा चोडणकार-वाघ**



***

## १५४) भारत देश आमगेलो

पुण्यवंत हो भाग्यवंत हो
भारत देश आमगेलो
राम कृष्ण रुशीमुनी
कुशीत ताचे गांधी जल्मलो ।।धृ।।

साबार भासो साबार जाती
प्रत्येकाचो धर्म वेगळो
वेंगेत ताणें राखलें आमकां
म्हारूख हो मळबा तेंकलो ।।१।।

परकियांचीं आयलीं भिरीं
पुराय ताका लुटलो
वाटोवंक ताका झिलग्यानी
प्राण आपलो ओंपलो ।।२।।

हेच भुंये राखणे खातीर
जाण्टो नेण्टो पेटून उठलो
आवय भुंयेचो राखपाक मान
सोपूत आमी घेतलो ।।३।।

**-संतोष जगन्नाथ महाले**

***



# १५५) जयहिन्द



भुरगीं आमी धाकटुलीं
देशाखातीर झुजतलीं
आमच्या वांगडा म्हणात
जयहिन्द, जयहिन्द, जयहिन्द...।।धृ।।

गरज पडल्यार जमनिची माती
करीन आरती परती
दर्याक आमी आव्हान दिवन
थांबयन सुकती भरती
तिरंगी बावट्याक काळजांत पुजून
शिकयन ताच्यो आरती ।।१।।

मुखार वतले फाटीं सरचेनात
पायांक तोपल्यार कांटे
बळिश्ट ताकदीन मोडून काडटले
अरिश्ट आयल्यार मोठें
भारत मायेचीं भुरगीं
तिचे करुंक दिवचेनात वांटे ।।२।।

शेतां कसून बियां ओंपून
उपाट धान्य पिकयतले
खेड्यां-पाड्यानी घरा-घरांनी
सगळ्यांक सारकें पावयतले
जय जवान- जय किसान
जय विज्ञान गायतले ।।३।।

**-सुविना पालकार**



***



# १५६) बळिश्ट देशा



जय जय देशा स्वतंत्र देशा
भारत आमच्या देशा
तुजीं माणकुलीं भुरगीं आमी
तुजीच रे ही आशा ।।धृ।।

हे मातयेंतल्यान वयर सरलीं
कितलीं कितलीं मोतयां
तांचो आदर्श सन्मान करून
मेळून मिसळून रावया
निस्वार्थान झुजले झुजारी
ओंपलें सगळें ह्या देशा ।।१।।

आवयभूंय ही पुण्यभूंय ह्या
संवसारात ना मेळची
शूर विरांची सत्य धर्मांची
गाथा गायत रावची
दिव्य तुजें गा दिपकायत वयता
चारय वाटांच्यो दिशा ।।२।।

आयचीं माणकुलीं फायचीं तरनाटीं
घेतात भुजार भार
पिळग्यान पिळग्यांक कळून आयल्या
तुज्या भितरलो सार
शांती तुजी भंगूक दिवचेना
अनर्थाच्या विध्वंसा ।।३।।

-डॉ. उदय गांवकार



***



## १५७) नमस्कार भारता



नमस्कार भारता तुकां नमस्कार
बुदवंतांचे पुण्यभूये तुकां नमस्कार
नमस्कार, नमस्कार, नमस्कार ।।धृ।।

जल्मभूंय, कर्मभूंय, मायभूंय आमची
गंगा, सिंधू, सरस्वतीची तिर्थभूंय आमची
व्हडविकायेक तुजे हांगा ना गा अंतपार ।।१।।

भाग्यवंत पुण्यवंत आदीनंत देशा
कर्मफळ धर्मफळ फळाफुलांच्या देशा
सकाळ सांज व्हांवतें आसा चैतन्याचें ल्हार ।।२।।

तुज्या खातीर करता माये जिविताचें रान
नांव तुजें म्हान करुंक जीवन तुका दान
हांगाच आमची पुरल्या मठी हांगाच पुरल्या वार ।।३।।

-जेश फर्नांडीस



***



# १५८) गिता



ासा आमचो देश म्हान
ेद्वानांतलो विद्वान
ह्या गंगा गोदावरी
जेवितांचे तिर्थ न्हाण ।।धृ।।

हंयो व्हाळ झरे मेळून
ाला व्हड दरया
ाथ्यावयर चकचकता
देव्य दिश्टी सुर्या
ायस पयस जुवें आमचे
नेकोबार आनी अंदमान ।।१।।

हिंदभुंयेक तारचे खातीर
श्रीकृष्णान गायली गिता
अस्वस्थताये वेळार गिता
याद केल्यार स्फूर्त दिता
विज्ञानाचे वाटेर हांगा
परजळ शिंपता आत्मज्ञान ।।२।।

कितले येवन संत भुंयेर
धुवन काडल्यो अबरगती
कितले कितले आयले कवी
रोयलीं शेतां कवन गितां
मेघमल्हार गायता तेन्ना
वसुंधरेची भागता तान ।।३।।



**-माणिक प्रभू गावणेकार**

***



# १५९) देशप्रेम



सगळ्या दुखांतल्यान मुक्ती दितले
अबला सबलांची शक्ती जातले
निश्पाप जनांक भक्ती शिकयतले
जगपाची नवी युक्ती दितले ।।धृ।।

मनीस जिणेचें प्रतीक जातले
पारस मणी हाडून दितले
मानवांच्या मन मंदिरांत
परमात्म्यांची मूर्त दाखयतले ।।१।।

जिवीत जागृत करचें आसा
हांसत वीख पिवचें आसा
कांट्या खुंट्यांतल्यान सतत चलून
होमखण जावन पेट्टले ।।२।।

बापूजींची आमी उमेद जातले
जितें जागतें जिवीत जातले
अन्याया पासून पयस राविल्ल्या
भारताक आमी भारत दितले ।।३।।

गुन्यांव करतल्यांक समज दितले
बऱ्यांतले बरे नागरीक जातले
देशप्रेम सेवे खातीर
प्राणूय आमी दान करतले ।।४।।

**-अरविंद अविनाश**



***

# १६०) चैतन्य भारत



हांसून खेळून रावया आमी
मेळून मिसळून रावया
हिंद भुंयेचे व्हडवीकायेचें
गीत आमी गावया ।।धृ।।

उदरगतीचे नवे वाटेचो
सकाळ पाराच्या भांगरा किर्णांचो
समतेचो सुर्य प्रकाश
ज्योतीक ज्योत लावया
जिवाक जीव दिवया ।।१।।

चैतन्याची पेटल्या ज्योत
भारत मातेचो सजला रथ
व्हडवीकायेन उंचावन मान
मोगा रोंपली रोवया
मनिसपणान रावया ।।२।।

दिगंतरां कीर्त जाची
शांती सद्भाव अहिंसेची
देशप्रेमाचो मंत्र जपीत
घुडी घेवन चलया
शेंकडे हुंपीत रावया ।।३।।

-रुपा वि. जोशी



***



# १६१) भारत भुंयचे पूत



भारत भुंयचे पूत आमी
भारत भुंयचे प्राण
भारत आमचो देश आमी
भारताची शान ।।धृ।।

शेतां भाटां दोंगर न्हंयो
देश फुल्ला सजला हो
राग ताल रंग ढंग
नवरसानी भरला हो
सोबीत सुंदर देशांत
संस्कृतायेक मान ।।१।।

हे भुंयेर जल्म मेळून
जीण जाली रसाळलेली
घरा-घरांत शारा-शारांत
मनशां सगलीं मनशाळलेलीं
आपआपले हिकमतीन
ल्हान जाले म्हान ।।२।।

घामाचे व्हांवते झरे
दर्या व्हडलो विद्येचो
धर्म जाती विसरून
संगम जाता न्हयांचो
सत्याखातीर फुंकता सदां
सानुल्यांचे कान ।।३।।

देशाखातीर धरला आमी
विज्ञानाची वाट
एकवोटान चलचे खातीर
सज्ञानाचो हात
मंत्र तुजो गायतलीं
आस मेरेन त्राण ।।४।।

**-चंद्रिका चंद्रमोहन पाडगांवकार**



***



# १६२) धनुष्य



शेवणी एके खांदयेवेलीं, एकच आमचें स्थान
पैसावल्यार आमी जालीच सांज, एकठांय चल्लयार त्राण ।।धृ।।

मळबांत आमी वयर उडले
थोडें मेळयलें थोडें शेणयलें
जिणेच्या गा आंगणांत आमी
अणभवाचें बीं रूजयलें
आमच्याच बळग्यान खिणाखिणांक, काळचक्रांत फुकले प्राण ।।१।।

आदी गिन्यानाचे गायक आमी
नटराजय गा पयले आमी
गजर केलो- सोऽहं, सोऽहं
अंतर्मनांत वचून आमी
सगलीं आमी ताचींच रुपां, ताचींच रे भुरगीं सान ।।२।।

आमी सगलीं कुटूंब व्हडलें
विश्वाचें सदां बरेंच चिंतलें
सगले सगले जाले आर्य
शाश्वत रूप हेंच आमगेलें
म्हणूनच रामान धनुष्य धरलें, कृष्णान सुदर्शन ।।३।।

**-राजेंद्र अरुण**



***



# १६३) आजादी



मायभुंयेर जल्मला आयज
आजादीचें बाळक बाय
जल्मदीस ताचो आमी
व्हडा थाटान मनोवंक जाय ।।धृ।।

येवकाराक सैम गीत
कोगूळ खाशें गांवक जाय
रानां वनां पाचवीं पानां
राखून आमी दवरुंक जाय ।।१।।

कोंब्यान साद घालचें पयली
पडींग भूंय नागरूंक जाय
गोड गोड मिठाय वाटूंक
शेंतां भाटां पिकोवंक जाय ।।२।।

विपरीत पळोवन मुखार
आंग आमी काडचें न्हय
वागमामाक शक्त खर
हात पाशाणी बळगें जाय ।।३।।

हावेस आमचो भुरग्यांचो
दर्या ल्हारार खेळपाचो
जन-गण-मन तीन रंगी
बावट्याचो मान राखूंक जाय ।।४।।

**-शाणू ये. गावडे**



***

# १६४) उदेंत



उदेंत घेवन जागले ते एक चूल पेटयली
चिड्डल्ल्यां सुप्त मनांक उखलून दाखयली ।।धृ।।

धगधगताले आपल्या भितर उतरां मोनी जावन
बंदखणीतल्या प्राण्यां वरी उश्टी भाकर खावन
तापिल्ल्या तव्यार ताणी कीट झडयली ।।१।।

हाडलें झोमून गेल्ले त्राण जोडलो मान दिवन प्राण
आपले माये मायभुंयेची मायभाशेची राखली शान
तांच्या कंठान गोमन्त देवी शारदा उलयली ।।२।।

आमच्या खांदार दिला भार मुखार व्हरुंक जैता गुडी
सुशेगादी सभाव त्यागून नव्या ताशार घालूंक बडी
उदरगत कर पुता म्हूण आवय उलयली ।।३।।

आजून खंय कितें जालां खूब खूब जावचें आसा
मेळ्ळां तेंवय वचत म्हूण रात-रात जागचें आसा
अशेंच केल्यार आमची भूंय आमची उरतली ।।४।।

**-अतुल र. पंडित**



***



# १६५) जाग रे बेगीन जाग



भारताच्या ध्वजा म्हज्या
जाग रे बेगीन जाग
वन्दे मातरम हो
गावया मंत्र राग ।।धृ।।

परकियांच्या जुलमा तळा
कितलीं वर्सा चिड्‌डले
वर्तुळांत दात्या तळा
नाचण्यावरी भड्‌डले
छातयेची करुन ढाल
जाग रे बेगीन जाग ।।१।।

आमच्या मुखार आव्हान नवें
सपन नवें भविश्याचें
सूर तेच बोल नवे
गीत नवें मनिसकायेचें
मनिसकायेचे मांडणे खातीर
जाग रे बेगीन जाग ।।२।।

चारूय दिको नदरे दिवे
पेटोवंक उबे रावतले
गरज पडल्यार होमखणांत
उडी लेगीत मारतले
सुपीक माये-मातये खातीर
जाग रे बेगीन जाग ।।३।।

**-रोहिदास ना. मंगेशकार**



***



# १६६) वाजय तुतारी

वाजय तुतारी सैमा तुजी
जागी जांवदी भूंय म्हजी ।।धृ।।

निळ्या मळबाचो दिवो पेटला
किर्णांचो संदेश आयला
उदरगतिची उजवाडल्या ही
काळी सावळी फांतोड अशी ।।१।।

तुजे तुतारेचो नाद गाजला
चरांचरांचीं काळजां पेटल्यांत
नव्या दमाच्या तरणाट्यानी
नवें सपन उखलून धल्लां ।।२।।

वारो धांवता घेवन खबर
तुजे तुतारेचो जागय जागर
मनाक आयला आयज रे मोड
दिता आमी तुका मान रे व्हड

**-नारायण य. खोर्जुवेंकार**



***



# १६७) एका सुरान गायतलीं



ल्हान व्हड सगळीं मेळून
एका सुरान गायतलीं
भुंयमाते खातीर आमी
प्राण दान करतलीं ।।धृ।।

देशाक आसा गरज आमची
उबीं रावंक मानेन तायट
गरीब दुबळ्यांक हात दिवन
चडचे आसात व्हडले घाट
भारत आमचो आमी ताचीं
अभिमानान सांगतलीं ।।१।।

दुस्मानाकूय इश्ट मानचे
शिकयल्या आमच्या देशान
हिंसे बगर झूज जिखून
पुण्य देशान जोडला मान
मनिसपणाची देख शिकोवन
सर्ग भुंयेर हाडटलीं ।।२।।

येता तितलीं येंवदी मोडां
काळजांत आमच्या त्राण आसा
अरिश्टांतल्यान वाट काडूंक
आमचे पांचूय प्राण आसा
वनांतलीं शेवणीं पिसार
आंगा खांदार बसतलीं ।।३।।

**-स्नेहलता शरेशचंद्र**



***

## १६८) जागृत



जागृत आमकां रावचें आसा
नवे चैतन्य घडचें आसा
देशा खातीर एकचाराची
मजबूत म्हेड पुरची आसा ।।धृ।।

भारतभूंय ही माता आमची
ल्हान व्हडलीं भुरगीं तिचीं
सद्भावनेची गुंथून साखळ
देशाक वयर काडचो आसा ।।१।।

भासो जायत्यो शैलीय जायत्यो
गितां जायतीं चालीय जायत्यो
बेसूर सुर हुमटून काडून
निस्वार्थपणान जगचें आसा ।।२।।

गंगा, सिंधू, मांडवी न्हंयो
शेंवतीं, मोगरी, गुलाब, जायो
निसर्ग रायान दिल्ल्या धनाची
राखण आमकां करची आसा ।।३।।

-आर. एस. भास्कर



***




## १६९) गावचें आमी गीत

भारत भुंयेचें अस्मितायेचें
गावचें आमी गीत
सोबीत सैमाच्या शिमे-शिमेंतल्यान
व्हांवचें हें संगीत ।।धृ।।

हे मायेचे वीर पूत ते
व्हडली तांची प्रीत
नवें युग घडपाक आमकां
घालून दिली नीत
उतरा उतराक पावला पावलाक
शिकयत गेले रीत ।।१।।

याद करात तें तरणें रगत
ते बलिदानाचे दीस
मनांत नवो हावेस धरून
जागोवया दरएक नीस
कणान कण गायलो हांगचो
अमर जालें गीत ।।२।।

खिणा खिणाक जोत जागोवया
काडून मनांतलो शीण
मना मनांत सुर्य पळोवया
करया सोबीत जीण
प्राणा प्राणांत वाजत रांव दी
स्फूर्तीचें संगीत ।।३।।



-डॉ. अर्चना गांवकार





# १७०) सुंदर भारत देश



बरोवया भांगरा अक्षरान
इतिहासाचें पानान पान
कोटी जनता एकठांय नंदता
गांव शारांत आनंदान
भारत देश महान,
आमचो भारत देश महान ।।धृ।।

व्हांवात जंयसर गंगा यमुना
पवित्र भूंय ही भारताची
उतरा पावलाक याद जाता
श्रीकृष्णाचे गितेची
गितगंगेतलें अमृत घेवन
गेले कितले अमर जावन ।।१।।

जंयसर खाणी हिऱ्या मोतयांच्यो
थंय जल्मले ऋशी मुनी
शोध लावन अमरत्वाचो
जगाक पाजयलो मंत्र ताणी
मनीस आत्म्यांक अमर करता
मातयेतले हे वेद पुराण ।।२।।

सगळ्यान सुंदर भारत देशा
वाखाणल्यात तुका सगळ्यांनी
शांती उदरगत शौर्य भरल्या
बावट्या भितल्ल्या रंगानी
आसलीं जरी ज्ञानी अडाणी
तुजींच आमी भुरगीं सान ।।३।।

-अमिता ग. गावणेकार



***



# १७१) पावलार पावल



पावलार पावल घालून आतां
एकचारान सरया फुडें
फुडल्या आमच्या भारताचें
हाडया चित्र नदरेफुडें ।।धृ।।

क्रांतिकारी जावन जाणी
पोटाफाटीर सोसले मार
बागयल्योनात मानो आपल्यो
दिसलो तरी अंधकार
वर्सां शेंकडे हुपतना
घेवया आमी तांचे धडे ।।१।।

टिळक, भगत दोळ्यांमुखार
धीर मनांत जागतलो
शूर वीर फुडाऱ्यांचो
जयघोश ओंठार फुलतलो
तिरंग्याचें स्मरण करुन
काडया हड्डें झेतान फुडें ।।२।।

म्हासत्ता जावपाचें
सपन पुराय करुया
एकनिश्ट एक जीव
जावन जगाक दाखवया
हातांत हात घालूंक आसा
पावला गणीक पंदरा गडे ।।३।।

**लाडको कुडतरकार**





## १७२) जय जय हिन्दुस्तान

जय जय हिन्दुस्तान म्हणा रे
जय जय हिन्दुस्तान
भयणी भावानो गावया
देशाचें गुणगान ।।धृ।।

उत्तर दिकेन हिमगिरी रावला
दक्षिणेत सागरु तो
पुर्व पश्चिमेंत जलनिदीत ते
मातेक मेळ्ळा वरु तो
वझरे न्हंयो झरे तळीं
शिंपीत रावल्या प्राण ।।१।।

हिन्दू मुसलमान सिख पंजाबी
विविध जातिमत भरल्या
सुन्दर सुमधुर भासांचें भाण्डार
देशाक आमच्या लाभल्या
म्हान आत्मे साधू संत
करीत गेल्यात दान ।।२।।

अनेक जातिमतांचे लोक
अनेक भाशाभाशी
तन, मन, धन देशाक ओंपपी
विजयाचे अभिलाशी
शांतीदूत न्हाणोवन वयता
शांतीकायेचें न्हाण ।।३।।

स्वतंत्र भुंयेक हे ऋशीमुनीचे
जालीं अनेक युगां
उदरगतीचे वाटेन मुखार
वचचें आसा आमकां
कांट्या खुट्यांतल्यान
माड्डयत रान ।।४।।

-के. अनंत भट

***



## १७३) जयहिंद भारत देशा



सत्धर्म देशा सत्कर्म देशा
मंगल देशा पवित्र देशा
जय जय भारत देशा
जयहिंद भारत देशा ।।धृ।।

गंगा यमुना सरस्वती
श्रमा पांवळ्यो दिस-राती
अस्मितायेच्या संस्कृतायेच्या
अनादि अखंड देशा
जयहिंद भारत देशा ।।१।।

फुलता हांगा सुरंगी ओंवळी
तांचीं जाता माणकां पोवळीं
नितीमूल्यांच्या शांतीकायेच्या
गार्गी-दुर्गेच्या देशा
जयहिंद भारत देशा ।।२।।

किल्लले हांगा वीर शिवाजी
विवेकानंद आनी बापूजी
रुशी मुनीच्या शूरवीरांच्या
म्हान महंत देशा
जयहिंद भारत देशा ।।३।।

विंगड जाती विंगड काती
एकूच नातें आमी भारती
एकचाराच्या एकवटाच्या
अभंग अखंड देशा
जयहिंद भारत देशा ।।४।।

**-सौ. शैला प्र. प्रभूदेसाय**



***



# १७४) भारतवर्ष म्हान



उत्तरेक धवलगिरी हिमाचल
दक्षिणेक शितळ सागरजल
सुपीक आमची सावळी माती
आमकां मातेसमान
भारतवर्ष म्हान ।।धृ।।

धरणी आमची संतजनांची
गोडी आमकां हरिभजनांची
सर्वधर्म समभाव ही तर
ह्या देशाची शान
भारतवर्ष म्हान ।।१।।

परचक्रां तीं गेलीं येवन
रगत कितलें गेलें व्हांवन
अखंड आमी उबे धरुया
देशाचो अभिमान
भारतवर्ष म्हान ।।२।।

सकलजनांक करुया शिक्षीत
राष्ट्र करुया आमी विकसीत
ज्ञानदीप तो सदां तेवूं जगांत
आमचो मान
भारतवर्ष म्हान ।।३।।

पक्ष पक्ष अनेक विवीध दल
निर्मळ आमी जशें कमलदल
एकसंघ ह्या राष्ट्राखातीर
श्रेश्ठ तें बलिदान
भारतवर्ष म्हान ।।४।।

शंकू रेगे



***



# १७५) रोंपलीं



हातांत हात आमी घालूया
सुरांत सुर मेळोवया
जाती कातींचे सोपोवन भेद
नवीं रोंपलीं किल्लोवया ।।धृ।।

घडोवन आयचे नवीन वीर
जिखून घेवया सगलीं मळां
थकलेल्यांक थाकाय मेळूंक
शांतीरसाळ करुया थळां
एकठांय करुन सौंगड्यांक
पडींग जमीन कसुया ।।१।।

मारुन बुडी मळब गंगेंत
नखेत्रांचे गुंथया झेले
संवसार यात्रींक भुलोवन वयतले
मांडवीचे तांबशे पोले
भूंय माता फळीत जावंक
पावस मायेचो झडोवया ।।२।।

गिरेस्त दायजां भुंयेंत
आपुलकीचे व्हांवता झरे
आपल्या बळग्यार झळकत रावले
ल्हान व्हड कितले तारे
सवस्तकायेच्या अफाट दर्यांत
प्रत्येक जीण न्हाणोवया ।।३।।

-नुतन उस्कैकार



***



## १७६) राखणदार



स्वातंत्र्याचे हुबले बावटे
पायांत आयलें त्राण
जळटे इंगळे खावन ताणीं
हातांत धरले बाण
दर्या राया न्हिवयत रावला
उचंबळिल्ले प्राण ।।धृ।।

दवरून बाणीर संवसार आपले
जिखून घेतलें रण
आयचो दीस दाखोवंक आपल्या
काळजार घेतले घण
हुमटून काडलें शेता-शेतांतलें
परतंत्राचें तण ।।१।।

परकी गेले आयलें राज्य
लागल्यो जंय थंय घुडयो
रुखा रुखाचेर वानर सैन्य
मारुंक लागलें उडयो
मेकळ्या राज्यांत मेकळे भुंयेचे
तकलेर कित्याक ताण ।।२।।

स्वातंत्र्याच्या व्हडल्या मळार
कश्टांक व्हडलो वाव
शिडा बगर चलूंक लागली
एकचाराची नाव
हुसक्या मेकळी व्हांवता धरतरी
मेघमल्हारी न्हाण ।।३।।

-राजतिलक नायक



***



# १७७) भारतगीत



भारताचे भुंयचेर जल्मल्लीं आमी धन्य गा
भास, भेस, वर्ण, धर्म, कितली विविधताय गा
भाताशेत, भाट आनी रान पाचवेंचार गा
भागीरथी, कावेरी संस्कृताय आमची गा ।।धृ।।

रगत भारतीयांचें एक म्हूण वळख गा
रडणे आनी हांस लेगीत सारखे सारखे वांटे गा
रस्तो म्हजो तुजो एक, लक्ष्य तेंय एक गा
रत्न तुजे भितर आसा, सोब ताजी कळय गा ।।१।।

तत्व बरें धर गा, हाताहात जोड गा
तरणे आमी पोरण्यांचो उगडास करचो गा
तळमळून मेकळेपण घेतलें जिखून ताणी गा
तनमनधन ओंपून राज्य राखलें ताणी गा ।।२।।

देश म्हणचें घर गा! साळ गा! देवूळ गा!
देशभक्ति म्हणची देशगावांकडलो मोग गा!
देहांभितर देही जे मेरेन तुजी बसची गा
देशभक्ति भारताची ते मेरेन घरची गा ।।३।।

शत्रू आमचे भितर गा, शक्त तीय भितर गा
शस्त्रां सोडून शास्त्र जोडची बुध्द तीय भितर गा!
शतसहस्त्र वर्सांची गाथा भारताची गा
शतसहस्त्र वर्सांक एकमेळीन गावंची गा ।।४।।

-**शरतचंद्र शेणै**



***



# १७८) आरती



मुक्ती देवते तुज्या नमन पावलां
विश्व पंचारती घेवन रावलां ।।धृ।।

शांती तूं क्रांति तूं
आत्मउत्क्रांती तूं
सगळ्यो वेदश्रृति गायति नवलां ।।१।।

जागृति नित्य तूं
सास्वती सत्य तूं
त्वर्दुपी पुण्यधन आमकां पावलां ।।२।।

सायबिणी तुज्याविणे
सुख उणे दुख दुणें
फुलचेलें जनजिणें सामकें बावलां ।।३।।

गे तुजी बिबूत दी
गे तुजें तीर्थ दी
सार्थ जांवदी तुवें दिल्लीं कौलां ।।४।।

-बाकीबाब बोरकार



***




# १७९) तूं शांतीचो शुभ्र हिमालय

तूं शांतीचो शुभ्र हिमालय
तूंच भक्तिचची गंगा
तुजो भेस वेस सर जावपाचो
इंद्रधणूच्या रंगा ।।धृ।।

पुण्य, पुरातन वेदमंत्र तूं
तूं यंत्रांची शक्ती
सुंदरतेची सैम म्हूर्त तूं
शुरांविरांची स्फूर्ती ।।१।।

सत्य अहिंसा कठीण मार्गांत
रुशी-मुनींची दिक्षा
तुफान मळबांत ध्रूव-तारो तूं
संवसाराची आशा ।।२।।

तूं क्रांतिचो जाळ उज्याचो
तूंच प्रितिचो झरो
तूं नितीचो कळो पर्मळीत
तूं हर्षाचो तुरो ।।३।।

जल्मोजल्मी तुजेच उरचे
मेळचें हें वरदान
तुज्याच पायांर आमी ओंपतात
पांचूय आमचे प्राण

-मनोहरराय सरदेसाय



***



## १८०) हे माये मायभुंये



हे माये मायभूंये मोग केळय गे
दुस्वासाचीं कापून रोपां द्वेस जळय गे
हे माये मायभुंये मोग केळय गे ।।धृ।।

पळय हांगा वडा-झाडां सावळी खेळयता
हुनता तापान तापतल्यांची ताप शेळयता
असल्या वेळा पळयना तीं जात धर्म गे
हे माये मायभुंये मोग केळय गे ।।१।।

चोया हिमालयाक लयाक वयतलो रे राग
मनीसपण शिकोवन पुसून काडटलो रे दाग
हिमगिरी हो गाजयत येता मोगा उलो गे
हे माये मायभुंये मोग केळय गे ।।२।।

बुध्दानूच शुध्द केलो भेद हांगाचो
गंगा दिता असंगाक संग सुसंगाचो
हांगच्यो न्हंयो वंयो व्हांवोवन मुक्तिबळय गे
हे माये मायभुंये मोग केळय गे ।।३।।

लासून वचूं सुवार्थ हांगा लसलसूं गे मोग
सुस्मितांक तांक येवन भुंगूं मगे भोग
मोग पेल्याचो गे हांगा रुजून येंव गे
हे माये मायभुंये मोग केळय गे ।।४।।

**-रमेश भगवंत वेळुस्कार**



***



# १८१) मागणें



भारत आमचो देश
गोंय आमचें राज्य
भुरगीं जरी आमी
गिरेस्त आमचें दायज ।।धृ।।

सगळे भारतीय म्हजे
भाव आनी भयणां
आमचे इतलो मोग
दुसऱ्या कोणाक मेळना ।।१।।

जाणट्या नेणट्या परक्यांक
दितले खूब मान
आवय बापूय गुरुजन
हांकां सदांच भोवमान ।।२।।

वयर सरचे आमी
देश आनी देशभाव
हेंच आमचें मागणें
सगल्यांचें बरें जावं ।।३।।

**-भरत नायक**



***



# १८२) भारत देश



नक्षत्रांपरस परजळीत असो फुडार
आयज आमच्या भारत देशा मुखार ।।धृ।।

उर्बेभरीत आमचें जिवीत
अप्रूप अशी संवसारा रीत
खिणाखिणांत रंगता कवीत
दर एकलो हांगा उबो आपापल्या पायांर ।।१।।

देवादिकांची हांगा सासाय
दिता भक्तिभावाची गवाय
सुखदुखासयत सगळें जाय
केद्याय वेळार हांगा हावेसाचें उगतें दार ।।२।।

शूर वीरांची ही भूंय
रगतान भिजलेली ही भूंय
कोणाचो खंय कसलो भंय
दिसरात जागता हांगा ल्हारार ल्हार ।।३।।



**-डॉ. भिकाजी घाणेकर**

***



# १८३) भारत आमचो म्हान



भारत आमचो म्हान रे
भारत आमचो म्हान
एकचाराच्या बळार आमी
राखूं ताची शान ।।धृ।।

मुकूट जाचो ऊंच हिमालय
पवीत्र जाची गंगा
दिमाखान तो मळबार हुबला
भारत भुंयचो तिरंगा
त्याग शांतीचो उत्कर्शाचो
मंत्र उरचो जुवान ।।१।।

स्वातंत्र्याचें झूज भुंयेचें
स्फूर्त रिगयता प्राणा
सलाम आमचो राष्ट्रबाळकांचो
संग्रामाच्या होमखणा
अस्तित्वाचे राखणे तांचे
बांदूया संदान ।।२।।

हांगा गांधिजिचो अहिंसावाद
आनी भगतसिंगालो हिंसावाद
फांसार वतना घुमलो साद
बोलो इन्कलाब झिंदाबाद
दर काळजानी सदांच उरचो
तांचो रे अभिमान ।।३।।

**-पुर्णानंद च्यारी**



***





## १८४) स्वातंत्र्यदेवी आयली घरा

खुशालकायेन उपाट भरल्या आयज भारतभुंय
नवी उमेद, मूर्त चैतन्य दिसता जंय-थंय ।।धृ।।

स्वातंत्र्यदेवी आयली घरा
मंगल तेज पसरलें दारां
उज्वल, पवित्र तेजान त्या
जाली भुंय आयज सुवर्णमय ।।१।।

रगततेलान पेटल्यो वाती
सोंपल्यात काळखेल्यो राती
उजळ्ळी आयज कणकण माती
भंय सरलें, तेज उरलें ज्योतिर्मय ।।२।।

परवशतेचें कांकण फुटलें
भारतमायेचें नशीब फुल्लें
ध्येय, शौर्य साकारलें
उदेलो लखख चंद्र-सुर्य ।।३।।

**-पंढरीनाथ लोटलीकार**



***



## १८५) भारताच्या पुत्रा



जय भारता सुजलाम सुफलाम देशा
तुजी अशी कशी रे जावंक लागल्या दशा ।।धृ।।

संवसाराचो आदर्श तूं
वाट चुकिल्ल्याचो मार्ग तूं
आतां तुजीच कशी रे शेणूंक लागल्या दिशा ।।१।।

शांततायेचे प्रतीक तूं
एकचारांचे गीत तूं
आयज देवूंक लागल्या देशाभिमानी नशा ।।२।।

हे भारताच्या पुत्रा
हीं मतींत घे रे उतरां
आतां न्हिदूं नाका रे घालून हात उशा ।।३।।

रे स्वाभिमान तूं सोदून हाड
घरभेद्याक भेदून काड
आनी पुसून उडय रे अस्पृश्य रेशा ।।४।।

तूं विज्ञानाचीं लावन पाखां
वयर उड रे भिवूं नाका
आपसूक येतलें म्हानपण महेशा ।।५।।

**मीलन वायंगणकर**



***



## १८६) मानवताये देश म्हान



मानवताये देश म्हान
शांती सनातन देश म्हान
देशा आमच्या थोरा मोठ्यांच्या
आमकां रे अभिमान ।।धृ।।

ब्रह्मा विष्णू महेश मेळून
दत्तात्रय घडलो
सत्य अहिंसा पुजून आमी
देश केलो व्हडलो
ईद क्रिसमस दिवाळी
धर्म नितीची शान ।।१।।

ह्या देशाचें वैभव मोठें
ना कसले भेदभाव
सोपोवंक हांगचो काळोख अज्ञान
पेटून उठल्यात गांव
विज्ञानाच्या मळार जोडल्या
पूत धुवानी मान ।।२।।

हिन्यावरी मजबूत आमचो
एकवट भारतियांचो
माये मोगान शिंपला आमी
चिरो बुन्यादिचो
मागल्यार कोणेय मेळटा हांगा
प्राणाचेंय गा दान ।।३।।



**-कमलादेवी राव देशपांडे**

***



## १८७) जय भारत जयजयकार



स्वतंत्र आमच्या भारत देशा
माथें दवरतां तुज्या पांयार
तुज्या पांयाचो तिबो मस्तका
जय भारत जयजयकार ।।धृ।।

चैतन्याचीं फांकीत किर्णां
सूर्य उदेलो दोंगरा माथ्यार
काळोख लिपला उजवाड फांकला
प्रकाशमय सगलो वाठार ।।१।।

तिरंगी बावटो भोवमानाचो
उबारलो आमी आमच्या भुजांर
गुळयो झेलतले मळब पेलतले
रगत शिंपतले घराघरार ।।२।।

येवंदी कितले येतात तितले
देंवतले आमी झुजामळार
रगत आमचें सळसळटा
करूंक ताचो जयजयकार ।।३।।

**-संतोष जगन्नाथ महाले**



***



# १८८) परजळीत प्रकाश



परजळीत प्रकाशाचो
चंद्राचे शितळतेचो
हिमालयाचे उंचायेचो
भारत देश आमचो ।।धृ।।

दोंगरा माथ्यार फुल्लो चंवर
फांतोड पारार हुबलो धुंवर
अंतकाळ आयलो फळून
आयलो फळून अर्भकांचो ।।१।।

सगळेकडें चंवरां वास
मना-मनांत एकूच ध्यास
एकूच ध्यास एकूच आस
वसुंधरा फुलपाचो ।।२।।

सपनेलीं सगलीं मनां
जतनाय करुंक आजादवना
उजवाडाचे लावन दिपक
आत्मो सोदूंक आनंदाचो ।।३।।

आनंदाचें आयलें ल्हार
सर्गांतल्यान पडलो शेंसार
उजवाडट्यार गाजलो नाद
आयलो साद तिरंग्याचो ।।४।।

-सुनील पालकार



***



## १८९) स्वातंत्रताये नमन तुका



स्वातंत्रताये नमन तुकां
तूं होमखणांतल्यान आयल्या
त्या होमखणांत पितर आमचे
इंगळ्या वरी रसरसल्यात ।।धृ।।

हुतात्म्यांच्या त्यागांतल्यान गा
भूंय आमची पिकाळ जाली
न्हयों आनी वझऱ्यांनी गा
सुरुप आनी सुंदर केली
अहिंसेच्या बिजांतुल्यान
एकचाराचे रूख रुजल्यात ।।१।।

एकवोटाच्या बळार तांच्या
हावेस आमचे फुल्ले
राना वनांतले शिकून सवरून
जायत आसा व्हडले
बुन्यादीचे म्हान चीरे
बलिदानान अमर जाल्यात ।।२।।

तुरे आमच्या स्वातंत्र्याचे
आमचे मठये कळसार
कोरांतला मोग तांचो
धतरिच्या काळजार
परजळीत प्रकाश जावन
दोळ्यांमुखार रावल्यात ।।३।।



**-अशोक भोंसलो**





# १९०) युवकानो

नवे पिळगेक जागोवया
स्फूर्ती मनांत फुंकया
काळजाच्या सुपीक शेतांत
नवें चैतन्य ओंपया ।।धृ।।

आमच्या गांवाक आमच्या भावांक
आमीच आसा जागोवचे
निरक्षरांक साक्षर करुंक
आमकांच आसा वावुरचे
न्हीदकुन्यांक चिमटे काडून
न्हिदेंतल्यान उठवया ।।१।।

उजवाडाची जोडची मिरास
काळखाचें चिरून पोट
अन्यायाची धरुंक गची
सत्याचो बांदचो मठ
वेगळेचारा वण्टी मोडून
बरी देख दाखवया ।।२।।

सादूर आसच्यो नदरो आतां
पावला पावलाक त्राण जाय
मुखार पावल घालचे खातीर
आत्म्यांतलें सत्य जाय
नवें युग आमच्या हातांत
आमीच खांद दिवया ।।३।।



-श्रीकांत पालसरकार

***



# १९१) सोपूत घेयात



माय भुंये कितलो तुजो
आमकां व्हड आलशिरो
आपूण भोंवन दुसऱ्या गिऱ्याक
मारता तूं सदां फेरो ।।धृ।।

सगळे गिरे चंद्र तारे
नियाळीती गोमटो चेरो
सोडटी मनीस अग्निबाण
तुका पळोवन वता तोरो ।।१।।

शूर वीर धीर करून
पार करती तुज्यो सीमों
हुतात्म्यांच्या वळेरेंत
तांचो आसूं सदां नामो ।।२।।

कितल्यो पिळग्यो सोसले त्रास
जिवा कश्ट सर्वनाश
जायत्या गिऱ्यां सोद मेळूं
आनी फळूं तांचे त्रास ।।३।।

बंदखणीच्या काळ्या कुडींत
कोणा घडला बंदीवास
सपनां आशो तांच्यो खऱ्यो
जावं म्हणून धरतां आस ।।४।।

सोपूत घेवन स्वदेशाचो
व्हडली नामना तुमी करात
पोन्ने नवे चंद्रवीर
कानमंत्र मनात घरात ।।५।।

तांच्यो करण्यो शांती हाडूं
आमकां सगल्यांक सूख मेळूं
तांची कूड मनासयत
विश्व-आंगण मेकळें खेळूं ।।६।।

**-राम बा. प्रभू चोडणेकार**



***



# १९२) जय जय भारतमाता



जय जय भारतमाता की जय
म्हणात भारतमाता की जय
जय जय भारतमाता
जय जय भारतमाता की जय ।।धृ।।

भारतमाता आमची हिंददेवता
हिंददेवता हिंददेवता हिंददेवता
न्हंयांचे जंय असंख्य संगम
भैरवी रागान गायता
सांबाळून सुरेख लय ।।१।।

भारतमाता ही माती न्हय
भारतमाता ही रेती न्हय
जाणकार जाण्टो अनेक युगां
जंय उबो आसा हिमालय
कोणांक ना कसलो भंय ।।२।।

गर्भांत जिच्या जल्मांक येता
तिकाच म्हणटा भुंयमाता
दरेकाच्या शिरंत्रानी गा
तिचेंच रगत व्हांवता
आमची आवय आमचें सर्वय ।।३।।

-पी. जी. कामत



***





# १९३) सर्ग हांगाच पळोवया

सेवा देशाची करया
मान भुंयेचो राखया
गायत गायत सगळीं
माळ हातांची गुंथया ।।धृ।।

बुध्द मुसलमान पारशी भाव
हिंदू जावं शीख क्रिस्तांव
काळजाक काळीज दिवन
माये मोगान रावया ।।१।।

मोग मनानी किल्लोवया
दया मायेन जागोवया
दुबळ्यांचीं दुकां पुसून आमी
सर्ग हांगाच पळोवया ।।२।।

विज्ञानाच्या संवसारांत
आबादिच्या झंजाळांत
जाती काती भेदभाव
फाटीं घालून मुखार या ।।३।।

जिवीत सगलें झरोवया
नवें नवें बरोवया
विज्ञानाचें विणून जाळें
सगल्यो दिको व्यापूया

**-स्नेहलता शरश्चंद्र**



***



# १९४) आमी शांतीदूत



शांतीकायेचे दूत आमी
शांतीकायेचे दूत
भारतमातेचे पूत आमी
भारतमातेचे पूत
विश्वाकडें आसा आमचें
इश्टागतीचें सूत ।।धृ।।

जगांत शांती पातळावचो
एकूच आमचो हेत
द्वेश मत्सर सोंपोवचो
आंखला आमी बेत
ज्येष्ठ आनी श्रेष्ठांची
गायता संवसार तुस्त ।।१।।

चिड्डून माड्डून राज्य नाका
विद्वंसाची देख नाका
नागोवण्यांनी पुंजायलेलें
कुबेराचें धन नाका
सदांकाळ शिकयत रावचे
माणसुकेची रीत ।।२।।

दर एका मनांत आमी
मनीसपण जागोवया
संस्कृताय हीच आमची
व्हडल्या आदरान तगवया
हीच आमची नीत
हीच आमची प्रीत ।।३।।

**अभयकुमार**



***





# १९५) आत्मवंदना

फांतोडेच्या उजवाडट्यार करता जग प्रार्थना
सुर्याचीं भांगरा किर्णा वसुंधरेर पडटना ।।धृ।।

जैताची घेवन घुडी खेळटा गडे तालगडी
जळीमळीं शिंपडलेले एकठांय जाता संवगडी
पडली जरी कूड खाला कोणा एका पर्वा ना ।।१।।

पोशे भरून जायतें दिलां हिंददेवतेन
सगलीं मळां उक्तीं केल्यां मुक्तिदेवतेन
सर्गसूख भोगता मना नमन तुकां करतना ।।२।।

तुजेखातीर भारता श्रम म्हजें दान
तुजेच खातीर जिवन आनी तुजेच खातीर प्राण
स्विकार माये सर्वयांचीं आत्मवंदना ।।३।।

**जेस फेर्नान्डीस**



***

# १९६) व्हंकल सुंदरी

पाचवी पाचवी धर्तरी माता
मनां सगलीं भुलयता
ल्हान व्हडांची जीण जगपाची
इत्सा उमेद वाडयता ।।धृ।।

वसुंधरेचें रूप अपरूप
रचलां खंयच्या रचणाऱ्यान
स्वरूप सुंदर व्हंकल सुंदरेक
तांबशी ओंपल्या फांत्यापारान
पावसा रुपान निसर्गराया
जिवन अमृत रकयता ।।१।।

न्हंय वझऱ्यांच्यो दर्या मुशींच्यो
कितल्यो सोबीत रचना
दोंगर रुखांची झिली झोपांची
करचीं कशीं वर्णना
प्रसन्नतेचीं पुर्णतायेचीं
साळकां मनात फुलता ।।२।।

कितलीं किल्लता माणकां मोतयां
सैम झडीचीं दिव्य रुपां
चांद नखेत्रां मळब फुलयता
कुशीक सारीत काळखी कुपां
निसर्ग निर्मळ शाम सुंदरेक
व्हंकलेवरी रंगयता ।।३।।



**-सुविना पालकार**

***




# १९७) करची उदरगत राष्ट्राची

सात सुरांचें संगीत ओंठार, गावचें ताल सुरानी
करची उदरगत ह्या राष्ट्राची, आमी मन भुलोवणी ।।धृ।।

तूं पारशी हांव मुसलमान, ते हिंदू तो इसाई
शीख आसूं वा बुद्द मनाचो, आमी भाई भाई
राष्ट्र उदरगत आस आमची, जागोवया मनामनाची
साद घालचो दिवट्यांक आयच्यां, करूंक सोबीतकाय ही ।।१।।

खांदाक खांद लावन आमी, गुंथचो हात हातांन
हड्डें फुलोवन चलचे आमी, जागोवन स्वाभिमान
दुखी कश्टी पिडितांक, आदार दिवचो जिवितांत
नवीं सपनां मूर्त रुपाक, हाडचीं ह्या देशांत ।।२।।

धरतरेच्या गोपांत उदक तें मळबाच्या पृथ्वीम गोपांत
सुर्य चंद्र नकेत्रांचो गुंथला सांगात निसर्गान
तसोच एकवट आसचो आमचो, वावरूंक एकवोटान
करचें उर्बेन आमी काम फायच्या सुखाक नेटान ।।३।।



**-नारायण य. खोर्जुवेंकार**

***

## १९८) हिमालयाचो किरीट

हिमालयाचो किरीट घालून भारतमाता उबी
सागराच्या निळ्याच उदकांत भारतमाता उबी
भारतमाता उबी, भारतमाता उबी ।।धृ।।

धवो फुल्ल तो रंग त्यागाचो
धवो फुल्ल तो रंग शुभाचो
धवो फुल्ल तो रंग रुप्याचो
शिरार धरुन ती पवित्रताय भारतमाता उबी ।।१।।

निळो रंग तो परब्रह्माचो
निळो रंग तो निळ्या मळबाचो
निळो रंग तो श्रीकृष्णाचो
अनंताच्या निळ्याच दर्यांत भारतमाता उबी ।।२।।

पाचवो रंग तो शेतांचो
पाचवो रंग तो कोंकणाचो
पाचवो रंग तो दोंगर-न्हंयांचो
अस्तमतेची सोबीतकाय घेवन भारतमाता उबी ।।३।।

तांबसो रंग तो क्रांतीचो
तांबसो रंग तो रगताचो
तांबसो रंग तो उदेंतेचो
क्रांती-शांतीचें गंगेउदक घेवन भारतमाता उबी ।।४।।

-आशा अ. मणगुतकार





# १९९) एकवटाचो संदेश

शुरवीरांचो कामगारांचो
भारत आमचो देश
शंबर कोटी लोक दितात
एकवटाचो संदेश
भारत आमचो देश... ||धृ||

अनेक धर्म अनेक भाशा
आसले जरी वेगळे भेस
न्हंयो दोंगुल्ल्यो वेगळे प्रांत
अखंड एक प्रदेश
भारत आमचो देश... ||१||

मायभुंयेची राखण करची
दुस्मानाक ना दिवंचो केंस
तिरंगी बावटो उंच उबोवचो
होच एक हावेस
भारत आमचो देश... ||२||

स्वातंत्र्याची देख दिता
गांधिजींचो लडो
जगाक अख्ख्या भारत दिता
मनीसपणाचो धडो ||३||

-तुकाराम शेट



## २००) उजळ करात जीण

हिंदवीच्या शूर पूतांनो
गळसायले कित्याक हात
मायभुंयेचे राखणे तुमी
झुजपी दीस-रात ।।धृ।।

भरवंसो कसलो उल्लो ना
भारतमाता मारता उले
सिंहगर्जना मंदावली रे
कोले घालती कुल्यार कुले ।।१।।

भश्टकाराच्यो वण्टी आडायती
निर्मळ पवित्र वाट
शांततायेचे वझरे आटले
व्हांवती रगता पाट ।।२।।

लखलखतीं शस्त्रां अस्त्रां
मुणोवन गेली धार
न्यायनितीकय लागलां गिराण
धत्रीक जाला भार ।।३।।

पुरुशार्थाच्या निर्धाराचो
आयज आयला खीण
सत्य अहिंसेक आपणावन आतां
उजळ करात जीण

-विजयाबाय सरमळकार



# २०१) आयचो दीस जैताचो



आयचो दीस जैताचो
ह्या देशांतल्या रैताचो
भांगरा वरी लख्ख उजवाड
तेज गर्भीत सुर्याचो ।।धृ।।

उत्सव आसा मनोवपाचो
बांदून बांद मोयपासाचो
दायजांचे चरण स्मरुन
आमीय धडो गिरोवंचो ।।१।।

राम कृष्णाचे पुण्य भुंयेर
जावं दिश्टावो सत्याचो
अहिंसेची कीट जावन
दिव्यार दिवो पेटोवंचो ।।२।।

उजवाडाचो जावन उपाडो
मनशा मनशांत परजळचो
शांततायेचो लामणदिवो
असोच पेटोवन दवरचो ।।३।।

येवन सदां सुर्य हांगा
दिता मंत्र प्रकाशाचो
आराखडो करया आमी
भविशाच्या नकाशाचो ।।४।।

-अजितसिंग राणे





## २०२) देश आमचो आमी देशाचे



हो देश आमचो आमी देशाचे
जयघोष तांचो गावया
एकठांय आमी जावन सगळे
नमन तांकां करया ।।धृ।।

देश आमचो शिवरायाचो
झांशीचे ते रणराणयेचो
हांगा दिल्ल्या बलिदानाचो
शेतकारांचो कामगारांचो
उदरगतीचें जूं आतां
खांदार आमी घेवया ।।१।।

करया आमी कश्ट खर
मेळूक सगळ्यांक वस्त्र भाकर
रावपाखातीर मेळचें घर
मनीसपणाचो विणया दोर
जरी वेगळे धर्म जाती
भाव-भयणां वरी नांदया ।।२।।

शेतांत कश्टता शेतकार तशे
शिपाय सिमेर झुजता
जो जगता तो देशाखातीर
देशाखातीर मरता
ध्येय एक धरुन मनांत
घुडी हातांत घेवया ।।३।।

-नैधृव धनविजय





## २०३) सार्वभौम गणराज्य



सार्वभौम गणराज्य उदेलें
पूर्वदिशे गर्वान
त्या भाग्याचे तुमीच वारस
भारतीय संतान ।।धृ।।

वेदभूमि ही जनजागृतेची
उगम सूरसंवाद
मानवतेची राखणदारीण
संस्कृतिची बुनयाद
हे मातयेच्या मुळांत दवरलां
प्रतिभेचें वरदान ।।१।।

जनसत्तेचें अधिष्ठान हें
ना तग ना अन्याय
बुध्द गांधिजी गेले दवरून
तांची म्हापुण्याय
ह्या अभिमानाचें बळ जोडा
करा देश बलवान ।।२।।

पुण्यहिन्द देशी भावानो
स्मरा राष्ट्रवीरां
अपूर्व तांच्या संकल्पाची
करा करात त्वरा
परिश्रमाचे जाया भगिरथ
करुया नवनिर्माण ।।३।।

**-हरदत्त खांडेपारकार**







# २०४) स्वतंत्र भारत देश

स्वतंत्र भारत देश आमचो, स्वतंत्र भारत देश
तंत्रज्ञाच्या ज्ञानपिठाचो, आमचो सुवर्ण देश ।।धृ।।

वेगळीं नातीं आसा जायतीं, तरी सगळ्यांचें एक रगत
उलयले जरी विविध भासो, तरी सगळ्यांचें एकूच मत ।।१।।

रुचीक फळांची भूंय भारताची, सजल्या पाचव्या न्हेसणान
मधूर म्होंवाळ गीत सैमाचें, गायतात मेकळ्या कंठान
विज्ञानाचे विशाळकायेचो, आमचो सुवर्ण देश ।।२।।

प्राणाय परस प्रिय आमकां, बरे देखिची संस्कृताय
बऱ्या गुणांची तुस्त तोखणाय, बऱ्या गुणांची व्हडवीकाय
दानशुरांचो किर्तीवंतांचो आमचो सुवर्ण देश ।।३।।

**-विजया नायक कोमरपंत**





# २०५) शहीद



असंख्य भासो असंख्य जाती
असंख्य आमचे भेस
भारत आमचो देश म्हान
भारत आमचो देश ।।धृ।।

रणांगणाचेर रगत व्हांवयलें
झुजामळाचेर शहीद जाले
यादीन तांचे मनांत आयजूय
दु:खाचो लवलेश
भारत आमचो देश.. ।।१।।

बापूजींचे विचार जागयले
गरीब दुबळ्यांक वयर काडचेले
आंबेडकरांच्या चिंतन फळांचो
अभिमानांचो देश
भारत आमचो देश...।।२।।

भारतमातेचें नांव राखतले
दुस्मानांकूय समज दाखयतले
देशाखातीर शहीद जाल्ल्यांचो
आमकां हो आदेश
भारत आमचो देश...।।३।।

**-बालमोहन प्रभूदेसाय**





## २०६) पवित्र धर्तरी आमची



सोपूत घेवया सोपूत घेवया
पवित्रांतल्यान पावन जावया
प्रत्येकाच्या काळजा मळार
देशप्रेमाचीं रोपां लावया ।।धृ।।

पिकाळ शेतां पिकाळ भाटां
भांगरा कणसां अणसां हांगासर
भांगरा कणसां अणसां
संस्कृतायेचीं फुलयता साळकां
खेड्या खेड्यांतलीं उव्वां हांगासर
खेड्या खेड्यांतलीं उव्वां
शेतकामत्यांच्या दोंगरकारांच्यां
कश्टांक मान आमी दिवया ।।१।।

स्वतंत्रतायेचीं स्वतंत्र गीतां
मनामनांतल्यान गायता हांगासर
मनामनांतल्यान गायता
निती धर्म भाव एकचार
पराक्रमाचीं गीतां गावया
पराक्रमाचीं गीतां
सगलें फटकळ कुशीक सारुन
मुखली वाट चलया ।।२।।

क्रांतीपुत्र शूर वीर
असंख्य त्यागी हांगा जलमले
असंख्य त्यागी हांगा
रुशीमुनी आनी ज्ञानी विज्ञानी
युगायुगानी आयले हांगा
युगायुगानी आयले
पावला कणकणी इतिहास घडयल्यात
तांचीं गीतां गावया ।।३।।

**-दिनानाथ बांदोडकार**







## २०७) देश म्हजो भाग्याचो

देश म्हजो भाग्याचो, शूरवीरांच्या त्यागाचो
गंगा यमुना सरस्वतीच्या पुण्य पवित्र तिर्थांचो ।।धृ।।

फांदये फांदयेर बांदतात हांगा, शेवणीं घोंटेर आपले
त्या घोटेरांत शेवण्यां पिलानी कितले अभंग रचले
इंद्रधणूच्या रंगानी न्हाता अभिमान हो आमचो ।।१।।

प्रेमान उपाट व्हांवतात वझरे पळोवन तान भूक न्हिवता
शांती अहिंसा दरएक दिसा मंत्र तंत्रांनी गायता
शांती धनांचे राखणेखातीर प्राण अर्पण आमचो ।।२।।

सुर्या सगळ्यान पयलो येवन, लायता प्रकाश ज्योती
शेतां भाटानी खेड्या-पाड्यानी, कितली सुपीक माती
सुपीक भुंयेची राखण करचेलो निजी धर्म हो आमचो ।।३।।

एका सुरान न्हंयों हांगच्यो, गायतात अभंग कवनां
उमळशिकेन उंच सरतात, हिमालयाचीं सपनां
त्यां सपनातलो भारत आमचो, सर्गासमान जावंचो ।।४।।

**-सुनील पालकार**







## २०८) माये मोगाचे झेले

नमन करु गे धर्तरी भुंये
पान विड्यार तिळो लायतां माये
माये मोगान भेटयतां झेले
तुपारत ओवाळटां माये ।।धृ।।

भौमान दितां पिकाळ शेतांचो
माथ्यार शिंपोळ गंगा मातेचो
दिका दिकानी पिकांच पिकां
तृप्त तुजे रैत गे माये ।।१।।

शिपाय शिमेर करता राखण
आसूं थंडी वा उबाळ होमखण
सवस्तकाये मारुन शेंसार
जाणट्यानी रोंपली रोयल्या माये ।।२।।

सूर्य चंद्र दोनूय दोळे
दरएक भुरगें मोगरे कळे
कीर्त तुजी करुंक म्हान
परतून जल्म मेळचो माये ।।३।।

-प्रेमानंद शिरोडकार





# २०९) अंधकार



स्वातंत्र्याचो आयला काळ
चडला बावटो घराघरार
उजवाड नवो आयलो तरी
म्हज्या दारांत अंधकार ।।धृ।।

कितलीं तपां देखलीं पापां
घेतलो मार, पेटले फार
रग्त-तेल जळ्ळे तरी
म्हज्या घरांत अंधकार ।।१।।

संवसाराचे तोडून पास
कितले जाले हद्दपार
तेज तांचे फांकलें तरी
म्हज्या घरांत अंधकार ।।२।।

फोडून म्हज्या देवा मूर्त
दैंवचारान घेतला भार
चंद्र-सुर्या गिराण देखून
म्हज्या दारांत अंधकार ।।३।।

आज कोंब्या धांपलो तरी
उजवाडटलें फांत्या पारार
सूर्य चंद्र येतले लासूंक
म्हज्या घरांत अंधकार ।।४।।

**-उदय भेंब्रे**





# २१०) भारत भुंयचे पूत



भारतीय आमी सगळे
हे भारत भुंयचे पूत
संदेश हाडला एकचाराचो
शांतीकायेचे दूत ।।धृ।।

व्हांवता जंय गंगा यमुना
थंयसर आमचो जल्म जाला
सबका मालिक एक है म्हूण
संत साईनी दिक्षा दिल्या
कोटी कोटी जनतेची ही
भौवच वजनांची मूठ ।।१।।

गौतम बुध्द शिकयता आमकां
मनिसपण हो धर्म खरो
मनिसपणाचें राज्य आसा जंय
संवसारांत तो देश बरो
कित्याक जाय अधर्म आनी
कित्याक जाय ती लूट ।।२।।

युगां युगां सावन एकठांय आसात
गिता बायबल आनी कुराण
भारत भुंयचेर तिनय फुलां
एकमेकाच्या रावता धिरान
विस्वास आमचो दृड आसल्यार
पडूंक पावचीना फूट ।।३।।

**-अमिता ग. गावणेकार**







## २११) शत जल्म पुण्यतायेन

शतजल्म पुण्यतायेन नरजल्म भारतांत
वेद श्रृती पुराणां हर्सून वर्णितात ।।धृ।।

गगनाय परस उंचेले हावेस हे भुंयेचे
गंगेयपरस घोगेले हुटके हिचे दयेचे
ध्यासान हिच्या गिमांतय वरमेघ बर्सतात
शतजल्म पुण्यतायेन नरजल्म भारतांत ।।१।।

उद्दिष्ट हे जिणेचें पयलीं हिणेंच मोखलें
प्राणीं चराचराच्या आपलेंच रुप देखलें
तप फळटलें हिचें हें फायच्या जगायुगांत
शतजल्म पुण्यतायेन नरजल्म भारतांत ।।२।।

काळजांत आसची प्रीत चलपांत सत्य नीत
उत्तुंग कर्तुपान रेखचें हिचें चरीत
स्त्रय हें अपूर्व जोडचें हांगाच्याच जिवितांत
शतजल्म पुण्यतायेन नरजल्म भारतांत ।।३।।

**-बाकीबाब बोरकार**





# २१२) जय पुण्यभूंय जय भारता



कितले तुजे रंग आनी
अप्रुपार्ची तुर्जी रुपां
कितर्ली झुजां देखर्ली तुवें
कितर्ली मोडां कितर्ली कुपां
जय पुण्यभूंय जय भारता ।।धृ।।

वर्सांच्या बेडयांचे
कितले तुवें सोसले लडे
सालती तुटून व्हांवलें रगत
थंयच नवे फुल्ले कळे
शेकान शेक आंगार तुज्या
आंकरी सदांच लसलसता ।।१।।

फांतोडेच्या नितळ मळांत
मंत्राची सोडली मिरी
यज्ञांतल्या उज्याभितर
गेल्यो जळून आमच्यो नडी
काळखांतल्या उजवाडाची
वाट तुजी झगझगता ।।२।।

रोयणीतली काळखी फोडून
आयोध्येचो राम दिलो
बंदखणीच्या वण्टीभितर
गवळ्या पोराक कृष्ण दिलो
जिविताच्या झुजा मळार
कर्तुपांची सांगली गिता ।।३।।

**-मनोहरराय सरदेसाय**







# २१३) जिवीत आमचें अशें

येवन हांगा पळय मनशा जिवीत आमचें अशें
उदक मागल्यार निवळ दितात शाण्या भशेन पिशे ।।धृ।।

खावपा जेवपाक कोण करीना तुजें आनी म्हजें
चौग जाण उखलून घेतात माथ्यावयलें वजें ।।१।।

आजी नातवाक रुचीन सांगता पुराणांतल्यो काणयो
मास्तर शाळेंत चलोवंक शिकयतात एकचाराच्यो लिखण्यो ।।२।।

थोंटे पांगळे चलूंक लागतात कुड्ड्याक मेळटा नदर
दैत्य आसले देव जातात काळे सावळे फातर ।।३।।

जाल्लें भुरगें लुडबें उलयता जयहिंदाची भाशा
भारत भुंयेचें भांगर करपाक तीच व्हडली आशा ।।४।।

**-भरत नायक**





# २१४) आयली जाग



काळख्यो राती सोपत्या काळार
कोंबल्याबाबान घातलो साद
फांतोडेच्या तांबशा वेळार
धतरिक आयली जाग ।।धृ।।

शेतकारान नांगर घेवन
शेतांत वचची धरली वाट
मानशे तोंड उक्तें केलें
कुणगे कुणगेंत व्हांवले पाट
मेरे बांदार किल्लले
थंयच जिरले जायते वाद ।।१।।

अस्त्रां शस्त्रां घेवन जवान
शिमेर वचूंक चडटा घाट
जिविताच्या संवसाराचें
धनया देवाक ओंपून भाट
आयज मेरेन जिखल्या आमी
आड येतल्यांक करून बाद ।।२।।

आजून आमी आसा फाटीं
जिखूंकना तें जिखूंक जाय
आयचो मनीस भायर-भितर
बुदवंतकायेन पिकूंक जाय
पालखी मुखार व्हरुंक आतां
एकान एक जाय खांद ।।३।।

**-सुनील पालकार**





## २१५) साळकांतलो भारत



भारत आमचो देश जशें
साळीक तळ्यांत फुलता
एकचाराचें गीत हांगा
कोगळां गळे गायता ।।धृ।।

स्वतंत्रतेचें वारें आतां
हुसक्या मेकळें धांवता
संस्कारांचे झरे हांगा
हांसत हांसत व्हांवता
नाचत नाचत व्हांवता ।।१।।

पाचवीचार शेतां दोंगर
तिरंग्यांक भरतात कोर
जवानांच्या रगतान पडल्या
बावट्याचेर केसरी मोहर
केसरी मोहर रसरसता ।।२।।

मदलें आंग धवें फुल्ल
झगमगती दर्या झालर
जय हिंद जय भारत
भान सोडून नाचता मोर
सैमा धून वाजता ।।३।।

**-ग्वादालूप डायस**





# २१६) पुण्य हिन्द देश



पुण्य हिन्द देश स्वदेश तुज्या मोगान
दिसा दिसान वतां पिसावन तुजेंच ध्यान ।।धृ।।
कवळीं किर्णां सांज सकाळ
तुजेर उधळटा अंतराळ
नांव जिबेर तुजें त्रिकाळ
नाचयत व्हांवता व्हाळ दुदाळ
सर्ग ल्हान म्हाका दिसूंक तुज्या म्हऱ्यान ।।१।।
खेळटा जंय स्वतंत्रताय
पुनव फुलयती उक्तताय
शक्त स्फूर्त परगटायत
गिन्यान शिकयता मुक्तताय
तीर्थ तूं, तुजे सुपूत सत्यवान ।।२।।
जल्म हे भुंयेर तुज्या
मेळूंक मनीस देवांत झुजां
धर्म जंय न्हिवोवन उज्या
शिंपीत वयता मोगाबीजां
धन्य हिन्द देश म्हजो अमोल प्राण ।।३।।
घेवन हातांत तुजें निशाण
मिरयत वयतां जागयत रान
रिणाक तुज्या सोबतशें दान
पांयार तुज्या हे पंचप्राण
उंच उरू युगान युगां अशीच मान ।।४।।

**-हरदत्त खांडेपारकार**





# २१७) हावेस



भारत देश होच हावेस आमच्या मुखार
आमचीं मनां कंवळीं सपनां करतात साकार ।।धृ।।

परजळीत आमचो इतिहास
सर्ग सुखाची हांगा रास
उदरगतीचे वाटेर, उमेदीचें फुट्टा ल्हार ।।१।।

विश्व पुराय आमची संस्कृताय
सदांच सत तेंच आमकां जाय
नकेत्रांचो चंवर काडटा दार ।।२।।

नव्या युगाचो, नव्या जगाचो
तिरंगो बावटो आमचो जैताचो
खिणाखिणात हांगा देवदिकांचो साक्षात्कार ।।३।।

सैमाचें दान, आमकां म्हान
माती दिता भांगराचें आव्हान
आमीच घडयतले आमचो फुडार ।।४।।

**-भिकाजी घाणेकार**





# २१८) आजादीचें आमचें व्हडें



आजदीचें आमचें व्हडें, व्हलय व्हलय रे तूं फुडें ।।धृ।।
खऱ्या आवयचे पूत तुमी
तिच्या उल्याक जागतले
जयहिन्द आमचो प्राण आत्मो
हेंच बिरुद मानतले
धरात चुडी चलात फुडें, आजादीचें व्हलय व्हडें ।।१।।

शिंवा वरी धिटाय तुजी
सत्कर्णेन फळटली
कानार केंस काडशी तर
अब्रू मात पळटली
उखलात विडे चोयात फुडें, आजादीचें व्हलय व्हडें ।।२।।

उध्दार तूं मायभूंय
सात जल्मी मेळटलें पुण्य
मायच्या उल्याक पावशी तर
कृतार्थ सार्थ जातली जीण
उजळावचेलें भाग्य तिचें, नवे पिळगेक दी धडे
आजादीचें आमचें व्हडें, व्हलय व्हलय रे तूं फुडें



**-पंढरीनाथ दा. लोटलीकार**



# २१९) माळ गुंथुया



चलात वचुया फुलां हाडुया
माळ गुंथुया सगलीं
एक ना एक दीस जरुर आमचीं
सपना पुराय जातलीं
आमी गावया, गावया गावया गीत स्फुर्तीचें ।।धृ।।

करुया आमी कश्ट साबार
जातलें हुंवार येतलो भार
सवसकायेचीं शांतीकायेचीं
चिंतनां फळाक येतलीं ।।१।।

झडटलीं आमच्या चंवरां माथ्यार
जैताचीं गीतां येतलीं वोंटार
चैतन्याचे हावेस घेवन
शेवणीं उडत येतलीं ।।२।।

घरा-घरानी मंत्र शिकोवया
शांती सद्भाव पुजीत रावया
शांती सद्भाव नंदता ती माती
सर्गा रुपाक येतली ।।३।।

-सुवीना पालकार






# २२०) किर्णां नवीं उदेलीं

भारत भुंयच्या स्वातंत्र्याच्यो
पेटल्यो लाख मशाली
नव्या युगाच्या नव्या सुर्याचीं
किर्णां नवीं उदेलीं
वंदे मातरम्, वंदे मातरम्, वंदे मातरम् ।।धृ।।

आयज मेरेन ज्या हिंदपुतानी
झुजतां जीण सोंपयली
त्या जिणेचें सार्थक जालें
जैता जोत पेटयली
वंदे मातरम्, वंदे मातरम्, वंदे मातरम् ।।१।।

जळीं थळी सूर एक गाजता
भारतमाता की जयजय
उजळ कांतिची थीर शांतिची
मूर्त सोबीत तेजोमय
वंदे मातरम्, वंदे मातरम्, वंदे मातरम् ।।२।।

दीस हो आयचो भोव मानाचो
इतिहास चिरंजीव करपाचो
भांगरा अक्षरान नांव बरोवचें
देश हो क्रांती वीरांचो ।।३।।

**-विजयाबाय सरमळकार**





# २२१) भारतभुंयच्या तरणाट्यानो



भारतभुंयच्या तरणाट्यानो, उखलात पावलां नवीं फायचीं
नवीं सपना जागयत काळजांत, भांगरा वाट सोदीत चलची ।।धृ।।

स्वातंत्र्याचीं ओंठार गितां, गायत गायत नाचपाचीं
खांदार मारात शान तुमच्या, भारताच्या तिरंग्याची
लहरोंदी निळ्या मळबांत ताका, स्वासोदी कुडी कणकणी
आयचो नवो हावेस मनांत, फुलयत जागयत जागोवंदी ।।१।।

त्याग मनांत सत्य ओंठार, काळीज ताचें पालेंवदी
क्रांतिची मशाल हातांत तांका, आयज पेटोवंदी
चार दिशा चार रस्ते, देशाचे उजळोंदी
सपन आयचें नवखें तांकां, कर्तुपान चित्रावंदी ।।२।।

राष्ट्रधुरा खांदार पेलात, मनगटांत बळ येवंदी
क्रांतिचें रगत कुडींत तुमच्या, शिवशिवत रावंदी
भांगरा भूंय आमची आवय, माथें तुमचें तेकुंदी
मळबांत हुबतो तिरंगी झेंडो, संवसाराक दिसूं दी ।।३।।

**-नारायण खोर्जुवेंकार**



## २२२) आमी जिखतले

हिमालयाचीं उत्तुंग शिखरां आमकां उबारतात
दर्याच्यो उंच वोसाडी रगतांत उमाळटात
आमी जिखतले आमी जिखतले आमी जिखतले
आमी जिखतले आमी जिखतले आमी जिखतले ।।धृ।।

मळबाक वयर तेंकपी आमचे हावेस व्हडले
सांगातान आमी व्हड कश्ट काडले
यत्नांतल्यान किर्तिमान सफल आमी जातले
आमी जिखतले आमी जिखतले आमी जिखतले ।।१।।

काल पळयल्लीं सपनां आयज जातलीं साकार
पांयां पोंदचे मातयेचो आमकां आसा आदार
एकवटाचें बळगें मेळून घुडयो हुबयतले
आमी जिखतले आमी जिखतले आमी जिखतले ।।२।।

**-तुकाराम शेट**



## २२३) सुजलाम् सुफलाम्



सुजलाम् सुफलाम् भुंयचे वीर
उदार काळीज आमचें
देशाखातीर प्राण दान
ल्हारा वरी दिवचें ।।धृ।।

काळजार जायते सोसले घाय
आवय भुंये खातीर
युगां युगांचो काळोख सारलो
रचलें देऊळ वातीर
काळजां आमचीं विशाल दरया
सभाव उदक न्हंयचें ।।१।।

संस्कृतायेचें देणे आमी
सदां रुजवणां घालचें
म्हान आमचो देश ताचे
पुतय म्हान जावंचें
निरमितल्याच्या निरंकारांतलें
तेज आमच्यांत येवचें ।।२।।

राष्ट्र बांदणेक दिवज घेवन
करचें आमी जागरण
मनां काळजांत रुजयत रावचें
सरद तशें वांयगण
मरण लेगीत व्हरुंक येतना
कश्टांक आमच्या भिंवचें ।।३।।

**-मीलन वायंगणकार**





## २२४) जय जय जय भारता



जय जय जय भारता, जय जय जय पुण्यवंता
ल्हाना व्हडां गायता, तुज्या शौर्याची गाथा ।।धृ।।

मनीस कुळाच्या मनिसपणाचो, फुलता हांगा फुलोरा
खिणाकणकणी गंधर्वगान, सुचता हांगच्या भोंवरा
मेकळ्या गळ्यान दरएक कंठ, व्हडवीक तुजी गायता ।।१।।

विविध रंगी विविध फुलां, गुंथल्या एकाच दोऱ्याक
नम्रतायेन जगूंक शिकयला, आदी काळासून मनशाक
दर एक दिसा सुपीक भुंयेर, म्हान आत्मे जल्म घेता ।।२।।

स्वतंत्रते भगवते देवते, सत्यमेव जयते
पवित्र चरणी रमला विद्यते, वेद पुराण माते
एकाच पोरसांत एकठांय नंदता, बायबल, कुराण, गिता ।।३।।

ऋशीमुनींच्या तपाफळांचो, जाला हांगा भाग्योदय
ते पुण्यायेन दर एका शेतांतलीं, कणसां जाता अमृतमय
राम-कृष्णाच्या देशांत रावता, पवित्र गंगा माता ।।३।।

**-सुनील पालकार**





## २२५) जवान आमी जवाहराचे



जवान आमी जवाहराचे
वीर झुजारी भारतभुंयचे
उंच इगर्जी, सोबीत देवळां
देव देवारे आमचे ।।धृ।।

स्वतंत्रतेचो सोपूत घेतला
कोणाचे मुखार ना वांकचे
जे धतरिचेर हांसले खेळ्ळे
तिकाच रगत हें आमचें ।।१।।

ह्यां हातानी खणची माती
लावचे रोपे कावाथे
दुस्मानाचें हड्डें फोडूंक
ना गा फाटीं सरचे ।।२।।

फुलावरी जरी कवळे आसले
काळीज आसा पाषाणाचें
जवान आमी जवाहराचे
वीर झुजारी भारत भुंयचे ।।३।।

**-मनोहरराय सरदेसाय**





# २२६) मायामोग दियात



झगडीं झुजां करता तांकां
मायामोग दियात
शस्त्रां कडेक थेयात आनी
बुध्दीबळान जिखात ।।धृ।।

जाणट्या नेणट्यां वांगडा सदांच
ल्हानविकायेन चलात
म्होंवाळ मोगाळ भास उलयत
इश्ट इश्ट जोडात
राग द्वेश सोडात बाबा
राग द्वेश सोडात ।।१।।

घेवन पावसाक धतरिर
पिकेर पिको काडात
दोंगर जमीन शेतां मळां
पाचवीचार करात
गूण तिचे गायात बाबा
गूण तिचे गायात ।।२।।

मोरा वरी नाचात आनी
कोगळा वरी गायात
न्हंये वरी व्हांवात आनी
दर्या वरी गाजात
हांयसावरी पेंवात बाबा
हांयसावरी पेंवात ।।३।।

चंद्रिमाचेर वचात आनी
नक्षत्रांनी खेळात
रातचें चान्ने पियात आनी
सुर्या रायाक तेळात
सुर्यावरी जायात बाबा
सुर्यावरी जायात ।।४।।

-भरत नायक





# २२७) गर्भिणी



भांगराची भूंय आमची
मिना दोंगरा गर्भिणी
इतिहासाचो धरया पाखो
करूंक नवी निर्मणी ।।धृ।।

चोंयवशीन दर्या निळो
सैम तुकां गोपायता
धतरिवेले आतवें तूं
संवसार तुका वाखाणटा
उदरगती घुडी रोवंक
बळगें हावेस काळजानी ।।१।।

मांड सोबाय लोकनाचानी
घुमटां समेळ माधव्यां तालार
धोल ताशे घणर-घणर
घणर-घणर घणच्या कटार
व्हड दायजां संस्कृताय
धालो, शिगमो, व्होंवयानी
।।२।।

देव नांवाचीं दिव्य रुपां
मारुंक येता मंत्र शेंसार
मनिसपणा रोयता रोपां
मनिसकाये जावंक आदार
सवस्तकाये तरंगां घेवन
चलचे पावलां पावलांनी ।।३।।

**-सुनील पालकार**





# २२८) आमची भूंय



धन्य धन्य भूंय आमची
सगळ्या गुणानी युक्त
दिव्य करणेचे पोटांत तिच्या
जल्मले व्हड पूत ।।धृ।।

देशामोगान भरलां रगत
एकवटांतली दिसता शक्त
सत्य, शांती, न्यायभक्त
देशभक्त आमी पूत
कट्टर देशभक्त आमी पूत ।।१।।

शौर्य आमचें छत्रपतीचें
प्रतापराणा, बाजीप्रभूचें
झांशीराणी, मौर्यासारकी
विक्रमी आमची मूठ
घट्ट विक्रमी आमची मूठ ।।२।।

देश वयर काडचे पासत
पवित्र फुडें सदांच हात
दुस्मान करूं शकना घात
व्हड कितली एकजूट
आमची व्हड खरी एकजूट ।।३।।

**-पंढरीनाथ लोटलीकार**





## २२९) तूंच आमचें त्राण



स्वतंत्र भारत भूंय आमची
उजबिजाची कूस गे
जाती काती धर्म भेसां
ना शीम ना नीस गे ।।धृ।।

करूंक तुका स्वतंत्र माये
पावला पावलाक पेटल्यो वाती
काळख्यो तुज्यो राती सोपोवंक
त्यागाच्यो लायल्यो ज्योती
दिवचे खातीर नवे पिळगेक
सुवर्णाचे दीस गे ।।१।।

खणले तुजे हुमरे जाणी
भेदल्यो तुज्यो वणटी
दुस्मानांक लायलो पंथा
पेटोवन जैता पण्टी
राष्ट्राचें तूं चैतन्य माये
तुजे सगळे शिश्य गे ।।२।।

नमन आमचें शौर्याक तांच्या
बळगें आमकां तांचे दयेन
जीव ओंपून हाडलें जैत
सगळें सारकें चलूंक लयेन
तुजे खातीर जीण आमची
तूंच आमचें त्राण गे ।।३।।

**-मीलन वायंगणकार**





# २३०) तूं आमची



अप्रुपाचे तांबडे भुंये
आमी तुजे तूं आमची
जाण्टेल्यांच्या उगडासाची
पाळण्यांतल्या फुडाराची
तूं कालची, तूं आयची
तू आमची ।।धृ।।

कणसांच्या भांगराची
सांवरेच्या चंवराची
खोसयेच्या हुंवाराची
तूं आमची ।।१।।

पावसाच्या कवनांची
सुर्याच्या पोवनांची
चान्यातल्या सपनांची
तूं आमची ।।२।।

मोगरे कंळ्यांत वास जसो
हड्ड्याभितर वास जसो
तशे आमी तुजे आनी
तूं आमची ।।३।।

रगतांतली शक्त तूं
काळजांतली मूर्त तूं
पर्जळीत स्फूर्त तूं
तरण्या म्हज्या उतरांची
तूं आमची ।।४।।

-मनोहरराय सरदेसाय





# २३१) स्वांतत्र्याची घुडी



मुखार चलत रावतले
स्वातंत्र्याची घेवन घुडी
अज्ञानाक शाणे करुंक
होमखणांत आमची उडी
हिंसेचो पालोवंक उजो
अहिंसेची घेवन बडी ॥धृ॥

म्हातम्यांच्या त्यागाचीं
किल्लल्यांत सुपीक रोंपां
जळीमळी फांटे वचून
किर्तीचीं जाल्यांत झोंपां
शौर्यांचीं तांचीं गितां
बंदखणिच्यो गायतात कुडी ॥१॥

व्हडांक मान दिवचो म्हूण
शिकयतात आमच्यो शाळा
शिकप थोडें आसून लेगीत
सुसंस्कृत जायतीं कुळां
अमृताच्यो झरी हांगा
समदिरांत मारच्यो बुडी ॥२॥

शांतीकायेचीं रोवया शेतां
दुबळ्यांची पुसूंक दुकां
हुतात्म्यांचे पुण्यभुंयेर
नाका नाका गैर नाका
आयची पिळगी समृध्द जाय
फायचे पिळगेक पुंरूक मेडी ॥३॥

-सुनील पालकार







# २३२) येतात तितले येवंदी बाण

येतात तितले येवंदी बाण। मनांत आमच्या जेजू राम।।
नानक अल्ला महावीर बुध्द। हेच आमगेले प्राण।। धृ।।

अमर अकबर ॲन्थनी। मुमताज मेरी शालिनी।।
राखण करूंक देशाची। एकठांय सगळे जाण।।१।।

फूट आमच्यांत घालतले। तेच फाल्यां रडटले।।
तेज भरलां सुर्याचें। आमच्या एकचारात ।।२।।

फार्टी यादी ध्येय फुडें। नव्या युगाचे आमी गडे।।
कर्तुत्वान आमी राखतले। भारत मॉंचो मान ।।३।।

**-भरत नायक**






## २३३) हे मातयेचे पूत आमी

हे मातयेचे पूत आमी
घेवया सोपूत आयज
पुण्याय भुंयेची नमचेली
धरुया सदांच आस ।।धृ।।

नक्षीदार वेस भेस
रंग रंगयाळी माती
तरेकवार लोकांमदीं
भिन्न रंग जाती
धीट मूट जैतीवंत
झुजारी आमी खास
चलचे वाट एकठांय
विसरून भेद भास ।।१।।

महंत संत वीरांची
ही भूंय कीर्तीवंत
जल्म घेवपी हे मातयेंत
खरेंच पुण्यवंत
गंगा हिमालय यमुनेची
गावया व्हडवीक खास
जात, कात, धर्म असले
विसरून भेद भास ।।३।।

-पंढरीनाथ दा. लोटलीकार





## २३४) अक्षयगान



जोडलां सगलें भारतान
कष्ट आनी स्वाभिमान
भावनांचे तरंग आनी
अंतरंगी अक्षयगान ।।धृ।।

चालता धुडसां आकांतवाद
देशा शक्ती करुंक बाद
बुन्याद आमचे बांदिलकेची
काश्मिर तें अंदमान ।।१।।

येवंदी आकांत लोटानी
ताकद आमच्यां भुजांनी
जावचेना हालोवंक ह्या
रुखाचें एकूय पान ।।२।।

सांगता आमकां इतिहास
एकचाराची धरची कास
ल्हान-ल्हान म्हान जाले
बऱ्या उजू शिक्षणान ।।३।।

आमची नित माणसुकेची
न्याय आनी निवाड्याची
खंयच्याय वेळार तयार आमी
दिवंक आमचें बलीदान ।।४।।

दरदिसा घेवन सोपूत
जावया खरे देशदूत
गरीब दुबळ्यांक दिवन हात
राबुया मान-सन्मानान ।।५।।

**-शेखर वा. खांडेपारकार**





# २३५) त्यागफळां



भारत माय आमची
तना मनान पेट्टा
दोनूय हात उबारून
घसघशानी रडटा ।।धृ।।

रगतांतूच आसा गवाय
नंदोवंक हांगा शांतीकाय
अशांती मातची देखून
कितलीं मोडां उठ्ठा ।।१।।

धर्म अधर्म पारखुपाचें
कर्म करचें सज्ञानांचें
जातपात सगलें समान
केन्ना सावन सांगता ।।२।।

काळजाच्या कोनशा मदीं
भुतांतल्यो सोदता यादी
शहीद जाल्या वीरांक
आजून भूंय सोदता ।।३।।

व्हडले रुख जावन गेले
त्यागफळां दिवन गेले
आतां आमचे सरळ वाटेर
कशे फोंड पडटा ।।४।।

**-शोभा शिवा फुलकार**





# २३६) उठ तरनाट्या जागय रात



दिकादिकानी भरला नाद
मायभुंयेचो आयला साद
सपनां गाडूंक दुस्मानाचीं
उठ तरनाट्या जागय रात ।।धृ।।

भूंय आमची ही भोव मोलाची
सर येवचीना सर्गाची
पेटय दिवटी जागृतायेची
तटला वैरी करुंक घात
उठ तरनाट्या... ।।१।।

निबर हड्ड्याची घेवन धाल
फौजी गेले करून चाल
मनांत हावेस पूर्ण जैताचो
अर्द्या जैतार रावचेनात
उठ तरनाट्या...।।२।।

शिमेर दाटलीं घोर अरिश्टां
हिमालयाचीं पेटलीं तेमकां
भाग्यवंत तो पूत आवयचो
घालीत जो त्या उज्यांत हात
उठ तरनाट्या...।।३।।

आयल्यात आमी जोडीत जैतां
दुस्मानाचीं मोडून पेंगटां
एकूच निश्चेव धुवां पुतांचो
वैऱ्याक थारो दिवचेनात
उठ तरनाट्या...।।४।।

-रमेश लाड





## २३७) हिमालयाचीं सपनां



हिमालयाचीं सपनां आमचीं
दर्याचो हावेस
तिरंगी आमचो भेस भारती
भारत आमचो देस ।।धृ।।

शूरविरांची गौरव गाथा
संतकवींची गिता
युगांयुगां ही अशीच गाता
पवित्र गंगा माता
इश्टांपासत मोग आमगेलो
दुश्टांक आमचो द्वेस ।।१।।

हे जमनीच्या कणाकणाचेर
उपाट आमची प्रीत
स्वतंत्रतेची नीत आमगेली
सत्य अहिंसा रीत
भावपणाच्या उज्यांत हुलपूं
सगलो मत्सर द्वेस ।।२।।

कोणूच नासचो दुखेस्त, दुबळो
हीच आमगेली आस
संवसाराचेर फुलयत वेतले
एकचाराची भास
नव्या जगाची तरणी आशा
आमचो पोरणो देस ।।३।।

**-मनोहरराय सरदेसाय**





# २३८) म्हान भारताचें सपन



व्हड व्हड जायत वतलीं
नांव वयर काडटलीं
देशा खातीर झुजतलीं
देशा खातीर जगतलीं ।।धृ।।

फांतोड तांबशी रंगता
किर्णा सगल्याक पावता
दोळ्यांत दाटिल्लीं कुपां
खिणांत मोतयां जातलीं ।।१।।

शिकून मेळयतलीं ज्ञान
वाडोवंक देशाची शान
पांवलां जरी धतरिचेर
नदर उंच आसतली ।।२।।

सुर्या सारकीं तेज बुध्दीचीं
चंद्रा सारकीं शांत चित्ताचीं
दर्या वरी विशाळकाय
जिणे जिणेंत येतली ।।३।।

म्हान भारताचें सपन पळयलां
सपनांतल्यान जागून पळयलां
जिवन जगता जगतना
योगदान सगळें दितलीं ।।४।।

**-शोभा शिवा फुलकार**





# २३९) आमच्या देशांत



आमच्या देशांत सगलें आसा
देवळां आसा मशीदी आसात
तुस्तताये गजाल म्हळ्यार
एकचार आसा भावचार आसा ।।धृ।।

भावनांक आमी म्हत्व दिता
आत्म्यांत कितली सत्यता
आमच्या मन मंदिरानी
नीत आसा प्रीत आसा ।।१।।

फुलां आमची सोबीतकाय
भारत आमची व्हडवीकाय
ताच्या खातीर तना-मनांत
इंद्रधणू रंग आसा ।।२।।

विज्ञानांतलें ज्ञानी आमी
सज्ञानातलें पंडित आमी
हिंसेचेर जैत जोडूंक
गांधिजींची शिकवण आसा ।।३।।

वेदांचे हे देव भुंयेर
वसुंधराचे सोबीत कायेर
झांशी राणयेलें शौर्य आनी
भगतसिंगाले त्याग आसात ।।४।।

-सुवेदा पालकार





## २४०) कितलीं तुजीं नावां



कितलीं तुजीं नावां आनी
कितलीं तुजीं रुपां
जयहिन्द जयहिन्द जय भारता ।।धृ।।

ज्ञानदेव दिवन तुवें
बरो मार्ग दाखयलो
विवेकानंदा उदेशीं
मनीस धर्म शिकयलो
प्रत्येकाच्या कुळांत हांगा
ज्ञान किल्लता ।।१।।

सत्य आनी अहिंसेचो
राष्ट्रपिता गांधी दिलो
भीमरावाच्या रुपान आमकां
समतेचो मंत्र दिलो
घराघरांत खिणां खिणांक
वीर जल्मता ।।२।।

मर्यादिचो पुतळो तुवें
जिवाचो राम दिलो
गीतेचो सार सांगपी
व्यासाचो कृष्ण दिलो
गीतेचें नीर जावन
जिवीत घडयता ।।३।।

भूंय मातेक पावन करूंक
अमृतमय गंगा दिली
राखणेचें छत्र धरपी
हिमालयाची सावळी दिली
थकलेल्यांक थंडाय दिवन
स्फूर्त वाडयता ।।४।।

**-राखी म्हाळशी**





# २४१) तिरंगो



मळबांत वयर धोलता
झेतान हो तिरंगो
अखंड भारताचो
प्राण हो तिरंगो ।।धृ।।

आसा अभेद हाचें
हड्डें हिमालयाचें
रंद्रांत सतत व्हांवता
हाच्या पवित्र गंगा ।।१।।

हें चिन्न स्वातंत्र्याचें
सर्वय मनिसपणाचें
बलिदान हुतात्म्यांचें
याद करता हो तिरंगो ।।२।।

एकूच सोस हाका
शांती सवसकायेचो
खोसयेन भारताचो
नंदता हांगा तिरंगो ।।३।।

-नैधृव धनविजय





## २४२) गीत म्हजें



गीत म्हजें सुखाचें
गीत म्हजें दुखाचें
गीत म्हजें गीत तुजें
गीत सगल्या रैताचें ।।धृ।।

गुलामीच्यां वण्टीं भितर
हुकुमशायेच्या पिंजऱ्या भितर
आसले आमी आसले तुमी
गीत म्हजें सुखाचें
गीत म्हजें दुखाचें.....।।१।।

गुलामींच्यो वण्टी मोडून
हुकूमशायेच्यो सांखळ्यो तोडून
मेकळे आमी मेकळे तुमी
गीत म्हजें सुखाचें
गीत म्हजे दुखाचें....।।२।।

ब्रश्टाच्यार जातवादाचे
आतंकवाद धर्मवादाचे
आतां जाल्यात गुलाम आमी
गीत म्हजें सुखाचें
गीत म्हजें दुखाचें .... ।।३।।

**-तोमाझीन कार्दोज**





# २४३) नमन तुका भारता



भक्तिभावनेन एकचाराचो
आयज उलो मारता
मंगल देशा पवित्र देशा
नमन तुका भारता ।।धृ।।

या विश्वाचो मुकूटमणि तू
स्फूर्त तूच जगताची
पर्वत दोंगरांमाथ्यार लायल्या
म्हूर्त मेढ जैताची
भविष्य आमचें तुज्याच उज्वल
इतिहासाचेर भारता...
मंगल देशा पवित्र देशा
नमन तुका भारता ।।१।।

कला संस्कृती आनी विद्या
तुजीच आभूशणां
ज्ञानयज्ञ धगधगून उठ्ठा
असली आमची तृष्णा
हिमालयाचें शिखर पळयतना
पावल फुडें मारता..
मंगल देशा पवित्र देशा
नमन तुका भारता ।।२।।

-विष्णू सुर्या वाघ





## २४४) पेडट्या रणी



तुजे खातीर प्राण दिवंक
तयार आमी ह्या क्षणी
मोग तुजो भरल्या आमच्या
ल्हवें-ल्हवें कणकणी ।।धृ।।

लायली जेन्ना कपलाक आमी
धुल्ल तुज्या चरणांची
पडल्या आतां पर्वा कोणांक
असल्यां हजार मरणांची
बुध्द आनी सुध्द तुजी
तुजेंच रगत रंद्रानी ।।१।।

मुर्त तुजी काळजा कुडीत
सदांच आमी पुजतले
नांव तुजें राखूंक सदां
वीरा वरी झुजतले
सुख आनी शांती खातीर
लाख लाख आंगवणी ।।२।।

जितलें आमी जोडला माये
सगलें तुका समर्पण
तुजे कुशीत लाबता गे
सर्गांतलें सर्गधन
पालवल्यार धन्य आमी
प्रणज्योत पेडट्या रणी ।।३।।

-रमेश घाडी







## २४५) प्रार्थना

गंगा यमुना हिमालयाचीं तेमकां
मातयेचो कणकण प्रिय आमकां

रंग रंगयाळीं फुलां
पोरसूं पर्मळान न्हालां
दोंगरांचेर पानांचीं पाचवीं थिकां

कितल्यो भासो बोली
काळजां साद घाली
उसता हात कश्टूपी दोळ्यां दुकां

घोळूं आठूय पारां
वारें घरा दारा
आनी शेतांत पिकूंदी सर्गींचीं सुखां

**-माधव बोरकार**





# २४६) भारत



भारत आमचो देश तसो
प्राण आनी रगत
पुण्य भुंयेर जल्माक आयले
कितले म्हान भगत ।।धृ।।

अन्यायाचीं दाट्टा कुपां
तेन्ना आमची भंगता न्हिद
मुळासकट हुमटुपाक
पणाक लावची पडटा जिद्द
जैताची व्हडवीकाय
उमळशिकेन वतले सांगत ।।१।।

हातांत हात घालून आमी
जैत जोडून हाडटले
सुरक्षेचें कंवच जावन
झळमटाशीं झुजतले
वसुंधरे माये खातीर
दिमखुऱ्यानी वतले रांगत ।।२।।

वगडायलें जायतें जरी
मेळ्ळा तांतल्यान वाडयतले
निबर आनी निश्ठावंत
नवे गडे घडयतले
मायभूंयेक राखचे खातीर
व्हांवयतले रगत ।।३।।



**-कर्ण खांडेपारकार**





# २४७) नंदनवन

देव देवांचें पुण्यवंतांचें
सोबीत नंदनवन
भारत देशा आत्मदेशा
पयलें तुका नमन ।।धृ।।

जल्मभूंय तूं मायभूंय तूं
कर्मभूंय तूं आमची
उजु नितीची शांतीसुखाची
देवभूंय तूं आमची
तुकाच ओंपतां हें
तन मन धन ।।१।।

स्वाभिमानाचीं फुलून येवचीं
मना रुखार चंवरां
मनीसपणाचे उदरगतीचीं
सेगित वाजता घुंगरां
तळागाळानी नदरेक पडचें
सर्ग सुखाचें धन ।।२।।

रंगरंगयाळे विचार फुलता
परमळ धाय दिकानी
सकाळ घेवन सूर्य येता
सानुल्ल्यां पांवलानी
उतरा उतराक पावला कणकणी
जोडला तुवें मान ।।३।।

**-स्मिता मा. गावस**






## २४८) आमचो भारत म्हान!

आयज आमगेलें काळीज भल्लां हुपाट आनंदान
नमन करतना म्हणात सगळे
आमचो भारत म्हान!
आमचो भारत म्हान!

अनंत आनी अथाव आमचो परजळीत इतिहास
संस्कृतायेच्या फुलाक आमच्या मनीसपणाचो वास
काळखामदल्यान उजवाडाकडेन वचपाची गा आस
मरणाफाटल्यान अमरपणाच्या संचिताचो ध्यास
अशा भूंयेच्या परंपरेचो आमका सदा अभिमान
नमन करतना म्हणात सगळे
आमचो भारत म्हान!

एकाचवांगडा सळसळपी गा पिंपळाची जशी पानां
तशेच आमी भारतवासी एकठांय आमचीं मनां
धर्म जात वो भाशेवयल्यान भेद आसूंक फावना
एकचाराचो आविश्कार असो खंयच पळोंवक गावना
धर्मग्रंथ जरी खूब आसले तरी श्रेष्ठ खरें संविधान
नमन करतना म्हणात सगळे
आमचो भारत म्हान!







मुखार सदरपाक आमी घेवंया ज्ञानाचो आदार
विज्ञानाची नदर घेवन रे करूया आमचो फुडार
सैमावांगडा जोडून नाते आडावया रान-सांवार
याच भूयेंत गा पुरल्या आमगेल्या अस्तित्वाची वार
तुजेचखातीर करता समर्पित तन मन आनी प्राण
नमन करतना म्हणात सगळे
आमचो भारत म्हान!
आमचो भारत म्हान!

**-विष्णू सुर्या वाघ**






# २४९) लाख लाख प्रणाम

एकचाराच्या रुखा मुळांत
असंख्यांचें धाम
भारताच्या ध्वजा तुका
लाख लाख प्रणाम ।।धृ।।

सकाळपारा सुर्याचीं जंय
किर्णां खेळटा आंगणांनी
सोबीत साळकां फुलतात सदां
थंड शितळ तव्ळ्यांनी
पुण्य भुंयच्या सैमा तुका
लाख लाख प्रणाम ।।१।।

संस्कृतायेचे चंवरुन रूख
भरता होंटयो परमळान
एका सुरान सगले कंठ
गायता मधूर यशोगान
संस्कृतायेचे माये तुका
लाख लाख प्रणाम ।।२।।

देवळां मशीद इगर्जी
दितात हांगा आशिर्वाद
बाळक हांगचो कृष्णावरी
मुरलीचो घालता साद
बुदवंतांचे भुंये तुका
लाख लाख प्रणाम ।।३।।

दिव्य तेज हिंद देश
विशाळ शांती सागरा
सोबीत मळां रुचीक फळां
म्हान पर्वत सरोवरा
रुशीमुनीच्या देशा तुका
लाख लाख प्रणाम ।।४।।

**-सुनील पालकार**







# २५०) हिमालयाचो उलो

ल्हानव्हडांच्या मनांत रिगला हिमालयाचो उलो
एकचाराचें अस्त्र घेवन आयज देश फुडें सरतलो ।।धृ।।

आयजवेर शांतताय पुजली
एकवटाची जोत पेटयली
पवित्र पुजा मोडूंक आयज दुस्मान दुश्ट आयलो ।।१।।

आयक गीत गंगामातेचें
रगत रकिल्ल्या धवलगिरीचें
रुद्र घेवन अवतार आयज ज्वालामुखिसो पेट्टलो ।।२।।

ह्या हातानी लुंवणी केली
उदरगतीची म्हूर्त घडयली
होच हात रे जावन खडग-तिख घाव उबो घालतलो ।।३।।

-उदय भेंब्रे



# वळख



**सुनील हरी पालकार**

सुनील पालकाराचो जल्म सुपुल्ल्याशा, दोंगर आनी दर्याच्या मधीं आशिल्ल्या नावशे गावांत जालो. सोशीक आनी शांत सभावाचो मनीस. तोंडार सदांच पुनवे हांसो.

कथा, एकांकी, नाटकां तशेच कविता बरोवपाची आवड.

कोंकणी नाटकानी आनी तियात्रानी भूमिका करता.

कोंकणीतल्या व्हिडिओ फिल्मानी, टेलिफिल्मानी भूमिका केल्यात.

गोंयच्या लोकनाचाच्या पंगडांनी कलाकार म्हूण भाग घेता, त्याचबराबर लोकनाचाच्यां पंगडांचें संचलन करता. पेडण्या ते काणकोण मेरेनच्या, अशे गोंयभरच्यां पंगडांक लोकनाचाचें प्रशिक्षण दिला. भारताच्या विविध्द प्रांतानी लोककला सादर करपाचें भाग्य लाभला.

सुरभूस बालगीतां रचयल्यात.

गितां आकाशवाणी आनी दुरदर्शन केंद्रावेल्यान प्रसारीत जाता.

कविता थळाव्या नेमाळ्यानी आनी दिसाळ्यानी प्रसिध्द जाता. २००८ वर्सा भारत सरकाराच्या सर्वभाशा कविसंमेलनांत कवीता सादर करपाचो मान फाव जाला.

कवीतांचो भारतांतल्यां हेर भाशांनी अणकार जाला.

**उजवाडाक आयिल्लीं पुस्तकां-** 'नागीण' (कवितासंग्रह), 'राष्ट्रज्योत' (देशभक्ती गीतांसंग्रहाचें संकलन), 'रंगमंच' (एकांकी संग्रह), 'कोणाल्यो म्हशी कोणाक उठाबशी' (दोन अंकी नाटक).

***